/ JULY 2022 / Vol 21 /ISSUE 07/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/ 2021-2023 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

मासिक
जुलाय २०२२

जांचें दहन करतात
तांचे पासत विद्युतदाहीनी येत!

## जांचें दफन करतात
## ते भूंय खंयच्यान घेत?



# बिम्ब कोंकणी मासिक

*शीर्षकिया*

जांचें दहन करतात
तांचे पासत विद्युतदाहीनी येत!
जांचें दफन करतात
ते भूंय खंयच्यान घेत?

दिलीप बोरकार



ह्या अंकांत उक्tाविल्ले विचार त्या त्या बरोवप्यांचे आसात. संपादक मंडळ तांचे कडेन सहमत आसतच अशें ना.


वर्स २१: अंक ७
जुलाय २०२२
मोल ५० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊस्कार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

अंक सजावट
गिरीश नंदा बोरकार,संकेत लवंदे

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर :
वर्सुकी वर्गणी 500 रु.
3 वर्सांची 1400 रु.
विद्यार्थ्यांक वर्सुकी 300 रु.
आनी 3 वर्सांक 800 रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी 700 रु.
आनी 3 वर्सां खातीर रु. 2000

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# आयली शताब्दी गेली शताब्दी...!

संपादकीय

माथाळो पळोवन कोणाकय दिसत आमी शताब्दी एक्सप्रेस, जनशताब्दी एक्सप्रेस सारख्या ट्रेनींच्यो गजाली करतात म्हूण..! ह्यो ट्रेनी येतात आनी वतात. एके सुवातेर रावप तांकां परवडना. तांचें कामूच येवप आनी वचप..! पूण आमी गजाल करतात ती शंबर वर्सांनी एकदां येता ते शताब्दीची. दरेक सजिवान गर्भ वा अंकूर धरलो काय ताची पिराय मेजपाचो कृत्रिम मिटर सुरू जाता, वा म्हणया करतात. खरें म्हणल्यार खंयच्याच सजिवाक आपली पिराय मेजपाची गरज आसना. सैमाचे उत्पत्तीच्या वा उत्क्रांतीच्या ह्या खेळांत कितल्योच गजाली मातयेंतल्यान वयर येतात आनी मातयेंतच भरसत आसतात. धर्तर हो आमचो गिरोय उज्याच्या लोळांतल्यान तयार जावन थंड थंड जायत आयज मातयेचो गुळोच जावन रावला. ताची काळमर्यादा सोंपली काय तोय गिरो परत आपल्या मूळ रुपांत वतलो. कितल्या वर्सांनी हें कोण सांगूंक शकना. कित्याक काळ ही संकल्पना सैमीक न्हय ती कृत्रिम, मनशांनी आपले गरजे पासत तयार केल्ले वेवस्थेंतली ती एक संकल्पना.

वय वा पिराय ह्या गजालींचो हिशेब सैम दवरना. ती सैमाची गरज न्हय. सैमांतल्या मनीस सोडून हेर जिवावळीचीय ती गरज न्हय! मागीर मनशाकूच ही गरज कित्याक पडली? गोंय मुक्ती काळा आदले पिळगेंतल्या कितल्याच लोकांक आपली जल्म तारीख खबर नाशिल्ली. आमच्या कितल्याच जाण्टेल्यांचे जल्मदाखले नासतालेच. म्हणटकच तांची पिराय कितले पावसाळे तांणी काडले हाचेर थारताली. कित्याक तांची जीण तांणी पावसाळ्याचेरूच आदारून म्हणल्यार शेता-भाटांनी राबूनच सारिल्ली.

पिराय मेजपाची गरज पडली ती जे कोण आपले मातये कडलो संबंद तोडून नोकरेचे वा शिक्षणाचे वेवस्थेंत आपलो फुडार सोदूंक लागले तांकां. कोणाक कितलो काळ नोकरेक दवरप वा तांच्या श्रमाची सेवा कितलो काळ मेरेन घेवपाची हाचो हिशेब दवरूंक वेवस्थापनाची ही गरज थारली. तातूंतल्यानूच सुदारणेचो काळ आरंब जावन जल्म-मरण नोंदणेची प्रथा चालीक लागली आनी आज ती गरज जावन पडल्या.

हाचो अर्थ असो न्हय की आमचे पुर्वज जांणी केन्ना आपले पिरायेचो हिशेबच दवरूंक ना. तांणी आपले काळांत कर्तृत्व गाजोवंक ना. तांणी नक्कीच आपले तांकी प्रमाण कसलें ना कसलें समाजकार्य केलां आसतलें आनी तांच्या ह्या वावराची दखल समाजान घेवन तांकां देवपदार बसयल्यात आसतले! आज गांवांगांवांनी आमकां जीं देवळां वा घुमट्यो दिसतात आनी त्या त्या गांवचे लोक जात्रा आनी वर्धापन दिसा सारख्या हेर कार्यावळींचें आयोजन करतात तो प्रकार म्हणल्यार त्या गांवपुरसाची याद जागोवप!

पूण हो प्रकार समाजाक प्रेरणा दिवपी न्हय जाल्यार त्या उत्सवांतल्यान फकत मनरिजवण करपाचो प्रकार घडटा अशेंच म्हणचें पडटा! गांवच्या लोकांनी जाचे नांवान देऊळ वा घुमटी उबारल्या ताचें कर्तृत्व समाजा मुखार आयिल्लें जाल्यार ताच्या प्रभावान आनी प्रेरणेन गांवांतलो एखाद दुसरो कसलेंय कर्तृत्व गाजोवंक पावपाचो. पूण ह्या देवत्वान फुडली वाटच बंद केल्ल्यान उत्सव आनी मनरिजवण हाचे मुखार त्या कर्तृत्वी पुर्वजाचें कर्तृत्व आमी सासणाचे शेणोवन बसल्यात!

हें सगळें हांगा चर्वणाक घेवपाचें कारण म्हणल्यार फाटल्या म्हयन्याचे 26 तारकेक कवी शंकर रामाणींची जल्मशताब्दी उलगली. ती उलगली तेन्नाच खुबश्या लोकांक कळ्ळें की ही शताब्दी एका वर्सा आदीं 26 जुनाक सुरू जाल्ली. पूण ती खंय सुरू जाल्ली आनी कोणें सुरू केल्ली हाची मात कल्पना साहित्य मळारूय व्हडलीशी कोणाक ना आनी सरकाराकूय ना!

शंकर रामाणी म्हूण कोण कवी आशिल्लो ही गजाल तांच्या सोयरे धायऱ्यांनी आनी रामाणीचे कवितेचेर प्रेम करपी साहित्य मळावेल्या कांय मेजक्याच लोकांनी यादींत दवरूंक नाशिल्ली जाल्यार हो कवी काळाचे व्हांवतेंत व्हावून वचपाचो! अशे वेळार प्रस्न येता जांणी कोणें गोंयचें नांव कलेच्या मळार तेर्रार पावयलां त्या कलाकाराची याद आमचें सरकार केन्ना करतलें काय? तांची निदान जल्मशताब्दी मनोवन नवे पिळगेक तांची वर्सभर वळख घडोवन सांस्कृतीक प्रेरणा हे पिळगे मदीं रुजयतले काय? काय आमचो मुख्यमंत्री म्हणटात तशे आमचीं जीं देवळां जीर्ण जाल्यांत वा हेर धर्मीयांनी आपले राजवटींत जांचें रुपांतरण केलां तीं पुर्वपदार हाडपा पासत, पुनर्जिवीत करपा पासत सरकारी तिजोरेचो वापर करतले काय?

आमी आमच्या द्रष्ट्या गोंयकार विद्वानांची शताब्दी बी मनोवन तांच्या कार्याची देख दिवन आदर्श समाज घडयतले काय आमचीं जीर्ण देवळां आनी धार्मीक वास्तू सजोवन, त्या उत्सवांतूच समाजाक बुडोवन दवरतले?

हाची जाप काळ दितलो काय आमकांच दिवंची पडटली?

●●●

# कोंकण आनी कोंकणी




हो विशय म्हाकां कितलींशींच वर्सां सतायता. हाचेर हांवें वाचन केलें आनी अभ्यासूय केलो. कितलेशेच शिक्षीत लोकां लागीं उलयलों. तांचेय विचार समजून घेतले. तेन्ना तांचे आनी म्हजे विचार लागीं लागीं मेळटात अशें दिसलें आनी ते एक जाले. तांणी म्हाकां म्हळें, " तू ह्या विशयाचेर कित्याक बरयना?"

हांवें म्हळें," विशय भावलो, सम जलो म्हणटकच तो कागदार हाडप तशें म्हाका कठीण न्हय. हे आदीं जायत्या विशयांचेर हांवें बरयलांय बी. पूण हो विशय लोकांक आनी खास करून राजकारण्यांक बी कितलो परवडटलो वा म्हणुंया समजतलो हाचो म्हाकाच दुबाव आसा. अशें आसतनाय हांवें बरयलें जाल्यार तें कोण छापतलो? आनी म्हजें तोंड पळोवन कोणेंय तो छापून हाडलो जाल्यार वाचपी कितें म्हणटले? म्हाका पिशांत काडचे नात? कित्या कितेंय बरयलां अशें म्हणचे नात?"

म्हजें आयकून तातूंतल्यान एकल्यान म्हळें,"सगळेच विचार सगळ्यांकूच मानवतात, पटतात अशें न्ही. हाचेर कोणें कोणें आदीं विचार केलाय आसत! आतां तो खंय तरी धुल्ल खायत पडलाय आसत! तशें आसत जाल्यार तुज्या ह्या बरपान तो धुल्ल वयर सरूं येता वा आदीं विचार जाला जाल्यार तेय विशीं कोण तुज्या विचारांक जाप दिवंक शकता. म्हणटकच लोकशाय जिवी दवरतले जाल्यार आमच्या सारख्या शिक्षीत लोकांनी हें काम आपलें न्हय असो विचार करी नासतना,जें कितें तकलेंच येता तें बरोवन जन जागृताय करूंक जाय अशें म्हाकां दिसता. तुमचे विचार कांय लोकांक पटून जनजागृताय जावं येता!"

ताचे विचार म्हाकां पटले आनी हांवें पेन आनी कागद हातांत घेतलो.

म्हजें मत आसा, 'कोंकणी' हो शब्द 'कोंकण' हाचे वयल्यान आयला. कोंकणाची भास ती कोंकणी हें सरळ सरळ आसा आनी त्या सगळ्या वाठारांत अजुनूय ती उलयतात आनी बरयतात. हो कोंकण म्हळ्यार पश्चिम किनाऱ्या वयलो वाठार, जो कोचीन पासून रत्नागिरी, अलिबाग पर्यंत पसरलेलो आसा. ह्या वाठारांत आजूय थंयचे थळावे लोक घरांत तशेंच समाजा भितर कोंकणी उलयतात.

ह्या कोकणाचो एक मदलो भाग पुर्तुगिजांनी काबीज केलो आनी मागीर ह्या वाठाराक गोंय,गोवा बी वेगवेगळ्या नांवानी वळखूंक लागले. कोंकणाचो उरिल्लो भाग ब्रिटीशांचे सुवादीन उरलो. हें अशें सगळें जावंनूय ह्या सगळ्या कोंकणी लोकांचो एकमेकां कडेन बरो संबंध आसलो आनी अजून आसा.

गोंय मागीर 1961 त मेकळें जालें आनी गोंयकार ताचेर राज्य करूंक लागले. पुर्तुगेजां कडल्यान गोंय मुक्त करपाक कितल्याच गोंयकारांनी त्याग केलो. ते झगडले आनी आपल्या घरदाराची होळी केली हो सगळो इतिहास आमकां सगळ्यांक खबर आसा. पूण ह्या निसुवार्थी सुटके झुजाऱ्यांक अचळय कुशीक काडून उडोवन जांणी समाजा पासत कसलोच वावर आनी त्याग करूंक ना असल्या नव्या नेत्यांक तयार केले वा जाले. हें अशें कशें घडूंक पावलें हें म्हाका खबर ना. भोवतेक महाराष्ट्रांतल्या फुडाऱ्यांचो दोळो गोंयचेर आशिल्ल्यान तांणी गोंयच्या कांय लोकांक फुसलायले आनी 'महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष' तयार केलो. हे लोकांक धरून गोंय महाराष्ट्रांत कशें जोडपाचें हाची ते माण्णी करताले. जांचो हे गजालीक विरोध आशिल्लो तांणी 'युनायटेड गोवन्स पार्टी' घडयली आनी आमकां वेगळे रावपाक जाय म्हणपाचें सांगलें. ह्या सगळ्यांनी पुर्तुगेजां लागीं आशिल्लें तेंच गोंय एक तर महाराष्ट्रांत घालचें वा वेगळें दवरचें हाचेर वादावादी चलयली. खरें म्हणल्यार ह्या सगळ्यांनी एकठांय येवन कोंकण राज्याची मागणी करपाची गरज आशिल्ली. देशाच्या स्वातंत्र्या उपरांत भाशावार प्रांत रचना करपाचो निर्णय केंद्रांत थारलो. ते वेळार गोंय भारतांतल्या हेर राज्यां वरी स्वतंत्र नाशिल्लें. तें भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत 14 वर्सांनी पुर्तुगेजांचे सत्तेंतल्यान मेकळें जालें आनी भारतीय गणराज्यांत एक संघप्रदेश म्हूण आसपावलें. खरें

म्हळ्यार भारत स्वतंत्र जालो तेन्ना जर गोंयय भारतांतल्या हेर वाठारां वरीं तेन्नाच स्वतंत्र जाल्लें जाल्यार भाशावार प्रांत रचनेचो लाव गोंयचे भूंयेक मेळून पुराय कोंकणाचें वा सप्त कोंकण वा सुनापरान्ताचें जें कितें आसा त्या कोंकणी वाठाराचें कोंकणी भाशीक राज्य जावप शक्य आशिल्लें. आतां त्या काळार गोंय पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आशिल्लें ती गोंयकारांची चूक न्हय. भारत स्वतंत्र जाले बराबर आतां गोंय रोखड्या रोखडें स्वतंत्र करून घेवप केंद्र सरकाराचें कर्तव्य थारतालें. त्या काळचे आंतरराष्ट्रीय राजनितीची कल्पना आसुनूय हांवें अशें म्हणपाचें कारण म्हळ्यार आमी गोंयकार भाशावार प्रांत रचनेचे संदीक मुकले. म्हणटकच ताचो केन्ना तरी फायदो गोंयाक लागू जावंक जाय आशिल्लो काय नाका? म्हाका हेच खातीर दिसता तें अशें.

आमी गोंयकार 'आमचें गोंय आम कां जाय' अशें म्हणत ल्हानशें गोंय सांबाळूंक उरले. तांणी 'आमचें कोंकण आमकां जाय' अशें म्हणत कोंकणी राज्याची मागणी एक मुखान करूंक जाय आशिल्ली आनी पंडित नेहरूच्या कानार ती पावूंक जाय आशिल्ली. गोंयकार फुडाऱ्यांनी तशी ती केली ना,म्हण्णूच पंडित नेहरून'अजीब है ये गोवा के लोग' अशें म्हणलां जावंक जाय अशें म्हाका दिसूंक लागलां.

त्या काळार जर आमकां भाशावार प्रांतरचनेच्या मालवजार गोंय हें कोंकणी राज्य मेळिल्लें जाल्यार आमचे खूबशे प्रस्न सुटावे जातले आशिल्ले! आम च्या ह्या ल्हानश्या गोंय प्रदेशाक राज्याचो दर्जो लाबल्या उपरांत चाळीस आमदार जाले. हे सगळे शिगमो खेळटात आनी एकामेकाक आपटतात. गोंयची ही जाल्ली परिस्थिती पळयल्यार भयंकर दुख्ख जाता.

आमच्या गोंयांत जे कोण व्हड व्हड फुडारी जाले तातूंतल्या एकल्याकूय कोंकण राज्याची मागणी करपाची सुबुद्धी कित्याक जाली ना हाचेंच म्हाका आश्चर्य दिसता. 'ल्हान डबक्यांत बेबो राजा!' अशी आमची गत जाल्या. जर गोंय राज्या बदलाक तें कोंकण राज्य जाल्लें जाल्यार रत्नागीरी, अलिबाग सावन कारवार, सुपा, हल्याळ आनी हेर कोंकणी भाशीक वाठार मेळून कोंकणपट्टीचें राज्य जावपाचें. राज्याक लागीं लागीं चार ते पांच सैमीक पोर्ट मेळपाचे. खणी,शेतां, लाकूड, रानां असले सैमीक स्रोत मेळपाचे. आमची अर्थवेवस्था बरी आसतली आसली! आमच्या लोकाक नोकरेच्यो संदी लाबतल्यो आसल्यो! आमचे आयज दोन लोकसभा खासदार आनी एक राज्यसभा खासदार आसा ताचे सुवातेर चड वांगडी ह्या सभाघरांनी कोंकण राज्याचें प्रतिनिधीत्व करपाचे. ल्हान ल्हान विधानसभा मतदारसंघ आयज आसात ताचे सुवातेर व्हडले मतदारसंघ जावपाचे आनी आयज जशे मतदारांक सहज विकते घेवन वेंचून येवन राज्याक लुटपाचो प्रकार घडटा तो आळाबंदा येवपाचो. पूण हाचो विचार आमी गोंयकारांनी आनी गोंयच्या फुडाऱ्यांनी केन्नाच केलो ना. आयज गोंय राज्याचो आंवाठ ल्हान आनी आमदारांची संख्या चड अशी परिस्थिती जाल्ल्यान आमदार एकामेकांक आपटतात, झगडटात,एकम `कार चिखोल उडयतात तें सगळें बंद जातलें आसलें. लोकांक एक शिस्त आसतली आसली! आयज आमदार इतले सवाय जाल्यात कि ते कोणाकूय सहज उपलब्ध जातात. कोणेंय कसलीय




चूक केली वा जाणूनबुजून गुन्यांव केलो जाल्यार ताका ख्यास्त जायना. आमदार फोन करून ताका सोडूंक लायता. हें सगळें जावपा नासलें.

कोंकण राज्यांत कितल्यो तरी शिक्षणीक संस्था वयर येवपाच्यो! उद्योगधंदे उबे जावपाचे! वेवसायाची संद मेळपाची. कोंकण राज्य एक आदर्श राज्य जावपाचें! पूण ही दूरदृश्टी आमच्या त्या काळच्या एक्काय फुडाऱ्याक नाशिल्ल्यान आमी एक व्हड संद वगडायली अशें म्हाका दिसता.

चार कडेन भोंवून हांवें जो अणभव घेतला आनी विचार केला ताचे वयल्यान म्हाकां जें कितें दिसलां तें हांवें स्पश्टपणान मांडलां. कोणाक दुखोवपाचो म्हजो निखालूस हेतू ना हें हांव नमळायेन सांगूंक सोदतां.

•••



डॉ.उल्हास गो. प्रभू नास्नोळकार
करंजाळें गोंय.
9823066540






# बांदेकारी

"कित्या बाये तुगेल अशी किरकीर गो? फक्कत बोंड करचे काम कर. संमेलन जावन आनी थोडे दिवसांन म्हयनो जातलो.तरी साडी मालवणच्यान हाडलीत ना म्हण तुगेल साडे पुराण सरना मुगो बाये ????"

" फक्त हांव उलयल्यार उसतुऱ्या वयत तुमकां."

" मालवण म्हणलार आमगेल कारवार वरीच गो. थंच्यान आनी साडी आनी खंच्ची हाडची!"

" आत त्या दिलीपाल सात भयणीन आनी उरील सखीन मालवणच्यान किर्ते हाडले तर?"

" मालवणी मसालो आनी आंबेत ???"

" अगो, तेकां दिलीप म्हणता? वयचो तरी मान दवर गो पापणी!"

" आयकले तेकां दिलीप भाई, दिलीप सर म्हणलार राग येत खंय! म्हण दिलीप म्हणलें. तेक दिलीपबाब म्हणु जाय खंय ! तेगले सात भयणी आनी सगळ्यो सखी दिलीपत म्हणतात खंय हा!"

" आसु ते मोरु. ते साडे पुराण मातर बंद कर मुकाल्ले वर्सा केरळा जावचे आसा तेन्न हाडता."

" तेन्नाचे तेन्न पळयल्यार जाले. ती कोरोना मावशी धिंगाणो घालु येत खंय!"

" ती येता... तीक कीत जाला येवुक ?? खंयी इलेक्शन ना आनी पोरां शाळे वचु लागली की कोरोना मावशी हजर जात पळय !"

" हय हो, तुमी ती सेल्फी काडील पळया.तेतूत तो स्वताक प्रेमवीर समजलो मारुती. तो अलकाल साडे पदर असो धन्न आसा??? संमेलन येळे देगेन आशिल्यान ते समुद्रा वाऱ्यान उडन्न वचत म्हण धन्न बशिलो? "

" खंचो कावळो मेल तेन्न जल्मां येयील तो?? बरी एक एक गजालीचेर बारीक नदर उरता मुगो तुगेली?"

" बायल कोणाली तर? तुमगेलीत न्ही??? पळय तो सुद्दा साडे पळयता आनी तुमकां एक साडी हाडु जालना ???

अश म्हणत सोंडो काळो कन्न भीतर गेलें.

त्या मारोतीलो दोळे फुटुन राग येयलो. हांव सेल्फी घेतानात अलकाल पदरा आपुडु जाय आशिले? आणी ह्या आमगेल कावळ्यांन व्होत्त फोटो दोळ्यां तेल घालन पळोवु जाय आशिलो ???

परिशद जावु संमेलन लागी पावले की ना, कोण ना जाल्यार कोण परिशदेचो उद्दार करु लागता. परिशदेचे मक्तेसुर बी बरेत हुशार! तेमी उद्दार करतल मनशांक आरंभाचे दिसा नातर शेवटच्या दिसं खुर्ची दिता. तो मागीर रान्नी पोल्ले गोटिल्या मांजरा म्हणकी गप्प पडता. आत हांवें बी अशेत केला जाता. हेणे कल्लैव करचे पयलीत एक साडे पान हाडन्न दिवचे. ते न्हेसु नातर गोजडी शिवु. मारोती अलकाल साडे पदर आपुडन्न पळयतालो म्हणलार तेकां बरी साडी घेऊ कळता म्हण जाले.तेकांत साडे दुकानात व्होयल्या जाले. मेल्लो हांवें म्हागेल बायले घेतील तसलीत आनी साडी अलकाक घेन जालार पुरो.

●●●



**संदेश बांदेकार**
कारवार
✆ 9480790172

# जांचें दहन करतात तांचे पासत विद्युतदाहीनी येंत! जांचें दफन करतात ते भूंय खंयच्यान घेत?



लेव तॉलस्तॉय हाची एक काणी आसा. लेव तॉलस्तॉय केदे तांकीचो साहित्यकार हाची कल्पना आमकां आसा. पूण तो कितलो गिरेस्त आशिल्लो हाची कल्पना भोवतेक खूब थोड्यांक आसतली! कित्याक साहित्यीक, कलाकार बी भोवतेक गरीब घराब्यांतल्यानूच आयिल्ले आसतात! त्याच अणभवांतल्यान ते मागीर व्हड लेखक बी जातात! पूण तॉलस्तॉयचे बाबतींत अशें न्हय. रशियेंतल्या एका गिरेस्त घराण्यांत लेव तॉलस्तॉयचो जल्म जाल्लो. सुमार सोळा हजार एकर भुंयेचो तो धनी आशिल्लो. वर्साक सुमार साठ हजार पौंडांची त्या काळार ताची येणावळ आशिल्ली. यास्नाया पोलियान वाटारांत ताचें व्हड घर आशिल्लें. अश्या ह्या घराब्यांत तॉलस्तॉय सारको संवसारांतलो व्हडांतलो व्हड साहित्यकार आनी चिंतक जल्माक येता हेंच एक अजाप अशें मानतात. तातूंत अजापाची गजाल म्हणल्यार येदो व्हडलो जमीनदार जावनूय तो जमीनदारांचो पाखो घेना तर जमनीचो चड सोस हो मरणाक निमंत्रण दिता हो विचार आपल्या साहित्यांतल्यान समाजा मुखार दवरता. एका मनशाक कितली जमीन जाय? असो प्रस्न करता. हांव तांचे जे काणयेची खबर करतालों ती काणी पाहोम ह्या शेतकाराची आनी ताच्या जमनीच्या हपापीपणाची.

पाहोम हो एक शेतकार आसता. ताचे लागीं जी जमीन आसता ती तो कसता आनी सुखान जियेता. पूण असल्या सुखी मनशाचें सूख पळोवंक जायना असले लोक समाजांत आसतात आनी ते मागीर ह्या सुखी मनशाच्या मनांत वायट विचार घालून ताची नीत इबाडटात.

पाहोम आपले कडेन जी ल्हानशी जमीन आसा तातूंत सुखी आसता. ती तो कसता आनी आपलो संवसार चलयता. ताका एक बुदवंत सांपडटा. तो ताका सांगता, तूं इतली थोडी जमीन घेवन केन्नाच व्हड जावंक पावचो ना. तूं ती विकून उडय आनी त्या दुडवांतल्यान सायबेरियाक वच आनी थंय व्हडली जमीन घे. व्हडलो जमीनदार जा. ते सांगणेन पाहोम भुल्लुसता आनी



**दिलीप बोरकार**
साहित्यकार,ज्येश्ठ पत्रकार आनी
बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक,9822136885

आपली जमीन विकता. सायबेरियाक वता. थंय वचून चवकशी करीत जाल्यार, खऱ्यानीच जमीन सामकी सवाय! इतलेंच न्हय, मातसो यत्न करीत जाल्यार ताका कोणाय कडल्यान जाय तितली जमीन फुक्या सवायूय मेळूं येता. तो तशे यत्न करता आनी ताका तसलो जमीन मालकूय मेळटा. तो पाहोमाक सांगता तुका जाय तितली जमीन मेज. ती कशी मेज तेंय ताका सांगता. पाहोमान सकाळीं सूर्य उदेतकच जंय उबो आसा थंयच्यान सरळ जाता तितले पयस चलत वचपाचें. जाय जाल्यार धांवुनूय वचूं येता. आनी थंयच्यान सूर्य अस्तमचे आदीं आशिल्लो थंय परत पावपाक जाय. तो जितली जमीन ह्या दिसभरांत माइडीता तितली जमीन ताचे मालकीची जातली! पाहोमाची आस चाळवता. तो सकाळ फुडें चलपाक लागता. चलता..धांवता. जाता तितले पयस मेरेन पावून थंय खुटी मारून ताका सूर्य अस्तमचे आदीं मूळ सुवाते मेरेन येवपाचें आसता. थंय ताका ताच्या नांवार जमीन करपाक जमनीचो धनी रावता! पाहोम चडांत चड जमीन आपले नांवार घेवंक धांवता. दीस सोंपत येता अशें दिसतकच तो परतता. पूण सूर्य अस्तमचे आदीं आपूण पावतलों काय कितें हाचो ताका दुबाव मारता. तशें घडिल्लें जाल्यार ताका कांयच मेळपाचें नासता. तो जिवाच्या आकांतान धावता. खर्शेता. जाता नज करीत आपणें जंयसून चलपाक सकाळीं आरंब केल्लो थंय सुर्यास्ता आदीं पावपाक धडपडटा. सकयल पडटा, उबो रावता, परत धावता. शेवटाक थकून जमनीर पडटा आनी प्राण सोडटा अशे तरेची ही काणी केन्ना तरी वाचिल्ली.

आज ती याद जावपाचें कारण कितें? ही काणी हांवेंच न्हय तर आयच्या काळार जण एकल्यान ती आपले जिणेंत याद दवरपाची गरज आसा. आयज वता थंय वता तो दर एकलो जमीन भकपा पासत हपापला म्हणपाचें दिसता. ते पासत ताणें आपली नीत, रीत सगळें होगडायलां. लज बीज सोडून दिवन कमराचें माथ्याक बांदलां. हें कित्याक? तर जमीन बळकावपाक. घरा भायल्यांचीच न्हय तर आपल्या घरच्यांची लेगीत! ती हातासतना हे लोक आपल्या रगताच्या नात्याचो लेगीत विचार करी नात. फाटल्या दोन वर्सांचीच खबर करीत जाल्यार जमीन वा घर हातासपाच्या वादांत कोणें आपल्या बापायचे तकलेर दांडो मारून खून केला तर कोणें आपल्या पुताच्या जावं भावाचे पोटांत सुरो तोपून जीव घेतला. आपल्याच लोकां वांगडा जमीन आनी मालमत्ते पासत झगडीं झुंजां नाकात म्हूण घर सोडून भायर सरपी म्हजे सारके जे कोण आसात तसलीं कितलींच प्रकरणां तशीं उक्ताडार येनात.



जमनी हातासप, लुटप, बळकावप हो एक निरंतर प्रवास. मनीस सुरक्षीत सुवातेचेर वसाहत करून रावपा पासत निरंतर चलत रावला. एक सुवात सुरक्षेचे नदरेन अरगती पडना जातकच मुखार गेला. जंय अरगती पडल्या थंयच थिरावला आनी समाज घडोवन रावला. खंयच्याच मनशान हे धर्तेर येतना आपले वांगडा जमीन हाडली ना आनी धर्तर सोडून वतना तो कांयच घेवन वचना. मनशान वा हेर खंयचेय जिवावळीन धर्तेर येवप आनी ती सोडून वचप म्हणटात तीच गजाल चुकीची. ती मनशांनी केल्ली कल्पना. खरें पळोवंक गेल्यार हे धर्ते वयली दरेक गजाल हे धर्तेरच तयार जायत रावता आनी हे धर्तेंतूच भरसून वता. फकत हांगा घडटा ती घडणूक अधिकार गाजोवपाची. जाणें कोणें आदीं जमीन आपले सुवादीन करून घेतली ती ताच्या नांवार ताणें दवरली. मागीर ती आर्यांची वसणूक जावं, द्रविडांचीं जावं, परशुरामान बाण मारून तो जंय पडटा तितले मेरेन वसणुके पासत तयार करूंक लायिल्ली जावं वा पुर्तुगेज काळांत लोकांनी बळकायल्लीं भाटां-बेसां आसूं! भोवतेकांनी खंयच्या ना खंयचे कारणां पासत जमीन हातासल्याच म्हणपाची इतिहास गवाय आसा. नागरी जीवन थीर जाय म्हणसर हो प्रकार चलत आयला. जाच्या हातांत ताकत आसा ताणें कसलें ना कसलें बळ वापरून ना तर फटींगपणां करून जमनी गडप केल्यात आनी तिचे धनी जावन रावल्यात. ती परंपरा आजून चलत आसा. जांचे हातांत बळ वा फटींगपणां करपाची ताकत ना तेच आपले गरजे पुरती जमीन घेवन ती वापरतात. भोवतेक लोक फुके सवाय जमीन कशी लाटूं येता हाचेच पासत आपली तकली चड वापरतात!

गोंयांत सद्या जमनी हातासपाच्या प्रकरणाचेर बोवाळ चल्ला. गोंयची जमीन हातासपाचो प्रकार गोंयांत काय नवे न्हय. विकपी, विकती घेवपी आनी मदलो दलाल हांची तर गोंय विकपा पासत सर्तूच लागल्या. गोंय मुक्ती उपरांत तें ल्वल्हव राष्ट्रीय प्रवाहांत रिगपाक लागलें तसो गोंयांत बांदकाम वेवसाय नेट घेवपाक लागलो. गोंयकारांचीं घरां नातर खोंप तरी आशिल्ल्यान गोंयकार आसा तातूंत सूख मानून रावलो. नवें घर वा फ्लॅट

घेवपाची तांची ऐपत, तांच्या घरांतलो आखातांत नोकरेक वचऽ मेरेन नाशिल्ली. आपूण आपलें स्वताचें घर आपल्या गोंयांत बांदूंक शकतां हाचो  अजून गोंयकारांक विश्वास बसना. मागीर प्रस्न पडटा, गोंयांत जी बांधकाम संस्कृताय फकत शारांतूच न्हय तर  सामकी गांवांनी भितर मेरेन फाफसल्या ती कोणा पासत? प्रचंड इमारतींचें कॉंक्रीट जंगल जें दिसानदीस गोंयांत फाफसत आसा तें कोणा पासत तर?

गोंयांत जे कोण भायले नोकरे धंद्या निमतान स्थायीक जाल्यात तांचे पासत ही वेवस्था एका काळार आशिल्ली, तांची गरज म्हण! जांकां गरज ना तरी आपलें दुसरें घर वा सुटी सारपा खातीरची वेवस्था म्हूण गोंयांत फ्लॅट वा बंगलो आसचो म्हूण खरेदी करून दवरपी अशेय खूब लोक आसात. ते दिल्ली, मुंबय वा हेर कडेन रावतात आनी आपली गुंतवणूक जमीन वा फ्लॅट जावं बंगलो घेवंक करतात. आयज दुडू बँकेंत दवरून फायदो ना म्हणपाचें गिरेस्तांक होलमलां. बँकेचेर कोणाचोच विश्वास उरूंक ना.ती लुटमार करपाची संस्था अशें सगळ्यांक पटलां. ते पासत लोक आर्दी भांगरांत गुंतवणूक करताले. पूण आतां तेंय करूंक मेळना. चोरांचो भंय  तो जालोच! पूण आतां सरकाराचीय भिरांत दिसूंक लागल्या. कसलीं तरी कारणां सांगून सरकार लोकांचें भांगर हातासपाक फाटीं रावना म्हणपाचें हे आर्दी लोकांनी अणभवलां. म्हणटकच जमनी जावं बांधकामांत दुडवांची गुंतवणूक केली जाल्यार ती सुरक्षीत अशें भोवतेक लोकांक दिसूंक लागलां. ताचें कारण म्हणल्यार भांगर वा दुडू जशे चोरून व्हरूंक मेळटात तशी जमीन वा बंगलो चोरून व्हरप शक्य जायना. त्या भायर लोकसंख्या जितले गतीन वाडटा ताचे मानान आमचे कडेन जमीन मर्यादीत आसा. हो सैमीक स्रोत लोकसंख्ये वरी आपले आपूण वाडप शक्य नाशिल्ल्यान



हो मर्यादीत स्रोत काळ सरता तसो म्हारग जायत वता. ताचें मोल वाडत रावता. तेच पासत रिअल इस्टेटींत गुंतवणूक करपांत शाणेपण मानून बऱ्याच लोकांनी फ्लॅट बी घेवन ते भाड्याक दिल्यात आनी मुदलाचे गुंतवणुकीर अशी जोड घेवंक लागल्यात. पूण हालींचो जमीन खावपाचो  घोटाळो उक्ताडार आयिल्ल्यान आतां तीय गुंतवणूक सुरक्षीत उरूंक ना म्हणपाचें सिद्ध जालां. आतां करप कितें?

खासगीच न्हय तर रासवळ जमनी लेगीत हातासपाचीं प्रकरणां गोंयांत हे आर्दी चलत आयल्यांत. राजकीय फुडारी आपलो मलिदो म्हणल्यार कमिशन थारावन कितलीच जमीन फुके सवाय  खासगी कंपन्यांक हे आर्दीच विकून मेकळे जाल्यात. एकूच उदारण दिवंचें जाल्यार सांकवाळच्या जुवारी ॲग्रो केमिकल्स ह्या साऱ्या कारखान्याचें दिवं येता. गोंयकारांक नोकऱ्यो मेळटल्यो देखून हो प्रकल्प आमी गोंयांत उबारूंक सोदतात अशें हे कंपनीन त्या काळार सरकाराक सांगून गोंयची जमीन लाटली. 1971 वर्सा  गोंय सरकारान हे खासगी कंपनीक विमानतळाक सामकी लागीं आशिल्ली, म्हत्वाची सुवात फैदासून दिली. ती दितना हे कंपनीक कितली जमीन लागतली, मागल्या ताचे परस कमी लागतली जाल्यार वापरांत येवंक नाशिल्ली जमीन विकती घेतल्या त्याच दरांत सरकाराक परत करतले काय ना हाची कसलीच कबलात करी नासतना हे खासगी कंपनीक पांचशीं हेक्टर जमीन फकत चार आणें चौखण मेत्र ह्या दरान सा केली. हालींच गोवा फॉरवर्डचे फुडारी आमदार विजय सरदेसाय हांणी ती 20 पयशे चौखण मिटर अशें  सांगलां. पूण लुईझीन फालेरो हाणें म्हाका चार आणे दरान दिल्या अशें सांगिल्ल्याची याद आसा. ही जमीन ते कंपनीक दिवपाक लुईझीन फालेराचो व्हड हात आसा अशेंय त्या काळार लोक उलयताले. ते काळार फकत चार आण्याक चौखण मिटर विकिल्ले ते जमनीचें आयचें मोल विजय सरदेसाय सांगता ते प्रमाण 10,000 रुपया चौ.मि. आसा. पूण थंय जे गतीन उदरगत जाता ती पळयत जाल्यार तो दर नक्कीच 20,000 रु.चौ.मि. परस उणो आसचो ना. सरकारूय वापरा विणें आशिल्ली जमीन परत करात अशी मागणी करिना. कांय तेंपान गोंयकारांक नोकरी दिवपाच्या नांवान उबारिल्लो हो प्रकल्प बंद पडटलो. तेच दिकेन ताची वाटचाल आसा. मागीर ते सुवातेर ही कंपनी रिअल इस्टेट उबारून अव्वाच्या सव्वा दरान बंगले विकूंक लागल्यार अजाप न्हय. गोंयकारांक केन्नाच परत मेळपाची ना अशी इतली जमीन एके खासगी कंपनीचे भकीक घालप आमकां कितलें परवडलें आनी पुटवलें तें चौखण मिटराक पांच पयश्यांचो मलिदो खावपी

त्या फुडाऱ्यांक विचारूंक जाय. पूण कोण विचारतलो?

मोपा विमानतळ गोंयकारांक जाय काय नाका! हाचेर खूब वितंडवाद जाला. पूण ह्या विमानतळाक खरें कितली जमीन जाय आशिल्ली आनी सररकारान कितली सा केल्या हाचें कोणाकूच पडून गेलां अशें दिसना. मोपा वाटारांतल्या कितल्या शेतकारांचें सामणाचें लुकसाण जालां ताची म्हायतीय कोण स्पश्टपणान दिनांत. रासवळ कामा खातीर जमीन दिवप हें दर राज्याचें कर्तव्य थारता हें बरें आसा. पूण मुदलांतूच हो सैमीक स्रोत उणो आसतनाय रासवळ वापराच्या नांवान कितलें लुटपाक दिवप हाकाय मर्यादा आसूंक जाय. सरकारान ताचेर नदर दवरूंक फावो.

मोपा वरींच भारत जोडो अभियाना सकयल जो महामार्ग गोंयच्यान वता तो कितले पदरी आसा आनी ताका दोनूय वाटांनी मेळून कितली जमीन जाय पडटली आनी गोंय सरकार कितली मेरेन दिवंक शकता हाचेर सरकारान विचार केल्लो दिसना. तमनार वीज प्रकल्प हो कोणाक फायद्याक पडटलो हाचो सारको विचार करी नासतना तो गोंयांत राबयतात तो कोणा खातीर आनी ताचो गोंयाक फायदो कितलो आनी लुकसाण कितलें हाचेर सरकाराचें लक्ष आसूंक जाय आशिल्लें. पूण जनतेचो खर विरोध आसतनाय सरकार तांचें म्हणणें आयकून घे नासतना गोंयची जमीन ह्या प्रकल्पाचे भर्कीक घालूंक सोदता तें समजुपा भायलें आसा.

आयज गोंयच्या सर्वसामान्य लोकांचो लेगीत विमानान प्रवास करपा कडेन कल आसा. देशांतल्या हेर वाटारां वरीं रेल्वे प्रवासाचेर निंबून आशिल्ली लोकांची संख्या तशी कमीच. आज कोंकण रेल्वेचो मार्ग वा वास्को निझामुद्दीन मार्ग बी आसा तो आसा तितलोच माथ्या वयल्यान पुरो. पूण जिंदाल,बिर्ला सारक्या उद्योजकांच्या फायद्या पासत हो मार्ग दुपदरी करपाक सरकारान वावरप आनी लोकांचो विरोध मोडून काडप हाचें फाटलें तर्कट कळपा भायलें. ह्या अर्थहीण प्रकल्पांक गोंयची कितली एकर जमीन वता आनी ताचो फायदो गोंयाक कितलो जात यता हाचेर सरकाराचें लक्ष आसा शें दिसना. गोंयची जमीन आनी गिरस्त सयावळ सामणाची नानपयत करून फुडलें पिळगेचें दायज आमी इब्राडटात म्हणपाचें भान आमकां ना. ताचें शिरार कोण घेतलो हाचेर विचार जावपाची गरज अजून कोणाक दिसना!

हो जो वेगवेगळ्या प्रकल्पाच्या नांवान जमनी हडप करपाचो प्रकार आसा ताचेर गांभिर्यान विचार करी नासतना,गोंयांत फाटलीं तिसेक वर्सां सावन वेगवेगळ्या स्तरांचेर जमनी गिळपा पासत लॅन्ड माफिया कार्यरत आसतना ताचेर केन्नाच कोणें लक्ष दिलें ना.म्हणटकच आयज अकस्मात सरकार युद्ध पातळीर तो विशय हातांत घेता तेन्ना खंय तरी दुबाव येता!

गोंयांत मोठ्या प्रमाणांत लोकांच्यो जमनी लाटपाचें सत्र सुरू आसा आनी सरकार तांकां राखण दिता वा तांचेर आडनदर करता म्हणपाचो आरोप तेन्नाचे विरोधी पक्षफुडारी मनोहर पर्रीकार आत्र्या पयरान करताले. तेन्नाच्या सरकारांत आशिल्ल्या चारपांच आमदारांचो 'सिंडीकेट' आसा आनी तांणी मनीस वावराक लायल्यात अशें खासगीत लोक उलयताले. हे वावराक लायिल्ले लोक कोणाची जमीन कितली आसा, ताका कोण कोण वारस आसात, कोण भायर आसा हाची सगळी चवकशी हे मनीस करताले आनी मागीर कोणाक फटोवन, धमकावन बी ती जमीन भलत्याकूच विकून उडयताले. पूण तांचे आड आवाज काडपाक कोण फुडें सरनाशिल्लो. त्या सिंडिकेटांतले कांय आमदार आयच्या सरकारांत मंत्री आसात अशेंय लोक आतां उलयतात. अशें आसतना हें सरकार, खास करून मुख्यमंत्री आनी नगरनियोजन मंत्री प्राधान्यतत्वाचेर ह्या विशयाक वेळ दितात तें पळोवन खरें कितें आनी फट कितें तें कळना.

मुख्यमंत्री आनी नगरनियोजन मंत्री हे काय धुल्ल्या तांदळावरी नितळ आसात अशें लोक म्हणनात. मुख्यमंत्र्याक तर उक्तेपणां प्रॉपर्टी सावंत म्हणटात. तांकां जमीन प्रीय आसा आनी ते आपली जी कितें जोड आसा ती जमीन गुंतवणुकेंत वापरतात जावंये! कायद्यान हो सगळ्यांक हक्क आसा. म्हणटकच आपल्या दुडवांनी तांणी पुराय गोंय लेगीत विकतें घेतलें जाल्यार कोणेंच हरकत घेवपाची गरज ना. दुसरे आसात ते नगरनियोजन मंत्री ह्या मंत्र्याचो फाटलो इतिहास काडून पळयत आनी ताचेर जाल्ले आरोप पळयत जाल्यार विश्वजीत राणेन धा-बारा वर्सां आदीं जमनींचीं रुपांतरां आनी हॉटेल तशेंच बिल्डरांक लोकांक आदार दिवपाक कितें कितें केलां तें आयच्या तांच्या वावराक



लागून लोकांक याद येता.

पूण तांचेर कोणें दुबाव घेवपाची गरज दिसना. वाल्ह्याचो वाल्मिकी जावप ही आमची संस्कृताय जाल्ल्यान हे आर्विल्ले वाल्मिकी नवें रामायण घडोवंक सोदतात जाल्यार ताका येवकार दिवपाक जाय. जे कोण रावण मातल्यात तांकां धडो शिकोवन जमीनरुपी गोंयचे सीतेक राखण दिवपाचो वा रावणाचे तावडींतल्यान तिका सोडोवन हाडपाच्या वावराक आमच्या सारख्या माकडांनीय (जांच्यो भावना दुखतात तांणी 'वानरसेना' अशें वाचूं येता) हातभार लावंक जाय. फकत तांणी इतलेंच करचें, जो कितें 500 कोटींचो सिंडिकेट घोटाळो सुटावो करपाक एसआयटी घडयल्या ताका न्याय दिवंचो आनी जांकां कोणांक अटक केल्या तीं फकत खामसुत्री बावलीं हें मतींत दवरून तांच्या मुखेल्यांक म्हणल्यार सिंडिकेटचे जे कोण संचालक आसात तांकांय अटक करची. ह्या विशयांतल्या जाणकारांचें म्हणणें आसा, राजकारण्यांच्या आशिर्वादा बगर आनी फाटबळा बगर हें भूंयकांड अशक्यूच! तशें जर आसत जाल्यार हे राजकारणी सत्तेंतूच आसूंक जाय. म्हणटकच तांकां हात लावपाचीच न्हय तर गळ्याक धरपाची तयारी सरकारान दवरूंक जाय.

हें जें भूंयकांड उक्ताडार आयलां तशेंच 'कोमुनिदाद' संहिता बदलपाचो जो सरकार विचार करता तोय सरकारी स्तरा वयलो घोटाळो हेंय मतींत दवरूंक जाय. कोमुनिदादीचेर सरकारचें आतां शितीद गेलां. सरकारा कडेन आतां खंयचेच उदरगती पासत सरकारी मालकीची जमीन उरूंक ना. गोंयांत जर नवे उद्योग वा आनी कसलेय प्रकल्प राबयतले जाल्यार जमनीचो उणाव आसा. कोमुनिदाद ही अशी एक गोंयची संस्था जिणें थळाव्या लोकां पासत जमीन सुगूर करून दवरल्या. हे संस्थेचे पदाधिकारी सोडल्यार कोणूच हे संस्थेंत लुडबूड करूंक शकना. जर सरकारच्या लक्षांत हे संस्थेंत कितेंय भ्रश्टाचार दिसलो जाल्यार सरकार ते वेळार नियंत्रण दवरूंक शकता. पूण आज जे पद्दतीन कोमनिदाद हे संस्थेच्या वावराची दिका बदलपा पासत संहितेंत बदल करपाक सरकार फुडें सरलां तें पळयल्यार आतां सरकार म्हणल्यार तें चलोवपी राजकारण्यांची वाकडी नदर हे गांवकारी संस्थेचेर पडल्या म्हणूंक जाय. सरकारची आयजवेरची कार्यपद्दत पळयत जाल्यार सरकार कोणाच्याच विरोधाक भीक घाली ना. सरकार कोमुनिदादच्या कायद्यांत दुरुस्ती घडोवन हाडपाक फुडें सरलां तें पळोवन कोमुनिदादींचो ताका विरोध सुरू जाला. कोमुनिदाद ही गोंयची थळावी ग्रामसंस्था आनी ती गोंयांत पुर्तुगेज येवंचे आदीं कितलेच शेकड्यां सावन अस्तित्वांत आशिल्ली.पुर्तुगेजांनी हे गांवकारीक कोमुनिदाद अशें नामकरण केलें तरी तातूंत मेतेर जावपाचें चुकून लेगीत चिंतलें ना. आज जर गोंयच्या भूंयपुतांच्या हक्काचे हे जमनीर सरकारान अतिक्रमण केलें जाल्यार ताचो फायदो भलतोच घेवन गोंयकारांच्या हातांत शेवटाक कांयच उरचेंना. पूण कोमुनिदादी विशीं कांय आरोपय जायत आसात. जुवारी ॲग्रो केमिकल हे कंपनीक कोमुनिदादीन 90 वर्सांचे लिजाचेर 50 लाख चौ.मिटर जमीन दिल्या ती कोणें दिल्या हाची चौकशी जावपाक जाय. जुवारी कंपनी ती जमीन रिअल इस्टेटीक विकता हातूंत तथ्य आसत जाल्यार ती परत घेवंक जाय. गांवच्या लोकां पासत घडोवन हाडिल्ली ही गांवकारी गांवच्या लोकांचे फायद्याची आतां उरूंक ना. ती कांय थारावीक वर्गाची मक्तेदारी जाल्या देखून हें घडलां आसूं येता. तशें जर आसत जाल्यार ही मक्तेदारीय मोडून उडोवंक सरकारान मजत करपाक जाय.पूण जे कितें निर्णय जातात ते ग्रामसभेंत पारदर्शक जावपाची गरज आसा.

हें सगळें सांगपाचें कारण म्हणल्यार गोंय हें आयज गोंयकारांचें गोंय उरूंक ना. तशें तें उरचेंय ना. काळ आनी पिळगी बदलता तशीं मुल्यांय बदलतात. आदलीं मुल्यां आदले पिळगे वांगडाच काळा भायरीं जातात आनी नवीं मुल्यां थीर जातात.तीं मुल्यां नवे पिळगेचे विचारसरणीक सपक आसतात. म्हणटकच आदलें तेंच सारकें अशें म्हणप आतां तरी शक्य ना. तरी लेगीत गोंय हें गोंयच्या भूंयपुतां पासत मात तरी सुरक्षीत उरपाक जाय इतली माफक अपेक्षा भूंयपुतांच्या मनांत उरताच. गोंयचें क्षेत्रफळ 3,702 चौखण कि.मीटर. काळ सरता तशें हें क्षेत्रफळ वाडूंक शकना. फुडाराक कोंकणी वाठार गोंयांक जोडून जर कोणेंय कोंकणी राज्य निर्माण केलें जाल्यार वेगळी गजाल. म्हणटकच आज जितली गोंयची भूंय आसा ती लोकसंख्या वाडत आसली तरी तातूंतच भागोवन घेवंचें पडटलें. सर्वसामान्यपणान साठ टक्के वाठार पर्यावरणाचे नदरेन रानवाठार आसूंक जाय अशें मानतात. गोंयांत तो कितलो उरला हो संशोधनाचो विशय. तरी लेगीत रानवाटार आनी उदकावाटार वगळून जी कितें भूंय आसा ती गोंयकारां पासत सांबाळूंक जाय. तशें जर जालें ना जाल्यार जे कोण आपली कूड मातयेक लायतात तांचे पासत तितलीय जमीन गोंयांत उरची ना. ती खंयच्यान हाडप हाचेरूय विचार करपाची वेळ आयल्या!

●●●

पणजी. © 9822136885

| कथा |

# न्याय...



आज विश्वंभर मामको ख्वांशी आशिल्लो. ताच्या मना सारखें सगळें घडत आशिल्लें. ताणें आपल्या जिवाचो आटापिटा जे गजाली खातीर केल्लो ती गजाल आतां जावपाकडें पाविल्ली. हय, ताचें एकुलतें एक चली जाका ताणें आवय फाटल्यान फुला सारकें जपिल्लें, तें ताचें कांयच आयकनास्तना, ताका नाका आशिल्ल्या मनशाकडें लग्न जावंक सोदतालें. ताणें एक असो भयंकर चक्रव्यूह रचून हें लग्न मोडून आपल्याक जाय तशें जातलें अशें केलें. आनी ताचें यश लागीं पाविल्लें. जशें तुमकां भूक लागल्या आनी खाण तोंडाकडें पावलां, फकत गिळपाचेंच उरलां, तशें. आज कोर्टाचो निकाल आयलो, ताच्या दुस्मानाच्या चल्याक ख्यास्त जाली. ताचें मन भुतकाळांत गेलें.

ताचो बापूय गिरेस्त आनी व्होड धंदेकार आशिल्लो, तशेंच ताका एक व्होडलो भाव आशिल्लो. ताच्या गांवांत एक प्रतिश्ठीत फामिल रावताली. तांचे चलयेचेर ताचें मन बशिल्लें. ताका तें आवडटालें. सुरवातीक तें चली ताका पळय सुद्दां नाशिल्लें.पूण उपरांत हळू हळू तांची आमिजाद जाली. तें




मिलिंद
भरणे
कविता आनी ललित साहित्य तशेंच कथा ह्या विशयांत बरप करतात.


चली ताका लागीं येवपाक लागलें. मचकळ वाडली. दोगाय एकमेकाच्या घरा यो वच करपाक लागलीं. हो तसो पक्को कावेबाज, भितरले बुद्दीचो. आपलें साधपा खातीर कितेंय करपी, खयच्याय थराक वचपी. हाचे हे छक्के पंजे तें बावळें चलयेक कळनाशिल्लो. तें आपल्या आवय बापायलें एकुलतें एक चली, दिसपाक आनी सबावान बरें. म्हणजे ताच्या आवय बापायली व्हड इस्टेट तांचे फाटल्यान ताकाच मेळपाची. हाणें फुडलो विचार करून हें सगळें जुळोवन हाडिल्लें.

आदीं हाणें हळू हळू आपल्या बापायच्या धंद्याचेर कब्जो केलो. व्हडल्या भावाक व्यसनांक लावन ताका काबार केलो. फट सांगून बापयचें मन ताचे बदद्ल वायट केलें. बापायन भावाक घरा भायर काडलो. तो बाबडो गांव सोडून पयस दुसऱ्या गांवांत वचून रावपाक लागलो. हें सगळें ताणें व्हड उमेदीन स्वताचे भपकेसांगपा पासत ते चलयेक सांगलें. आपूण कितलो हुशार हें दाखोवन ताचेर छाप मारपा खातीर. तें चलयेक दुबाव आशिल्लोच! ताणें ठरयलें की हाचें आतां चड जालें, आतां हाका बाय बाय करप! तें आतां ताचे पासून हळू हळू पयस वचपाक लागलें. ताच्या बापायन चलयेचें एक दीस दुसऱ्या गांवांतल्या एका बऱ्या शिकिल्ल्या चल्या कडेन लग्न करून दिलें. हे वटेन विश्वंभराक भयंकर राग आयलो. आपल्याक जाय तें मेळपाकूच जाय हे वृत्तीच्या मनशाक आपली हार कशी सहन जातली! पूण तो कांयच करूंक शकनाशिल्लो. तो फकत संद सोदीत रावलो. हळू हळू दीस गेले, वरसां गेलीं. विश्वंभरूय लग्न जालो. ताका एक सोबितशें चली जालें. कालांतरान कसलें तरी निमित्त जावन ताची बायल गेली, तेन्ना ताचें चली सोनिया पांच वर्साचें आशिल्लें. विश्वंभरान ताका हाता वयल्या फोडा भशेन जपून व्हड केलें, शिक्षण दिलें. तें आतां सतरा वर्साचें जालें. दिसूंक देखणें, ताचें आपल्याच कॉलेजांत शिकपी, दोन वर्सां सिनियर आशिल्ल्या बिपिनाचेर बसलें. बिपिन हो तर अश्टताशी! वक्तृत्व सर्ती, खेळ, कॉलेजांतल्यो निवडणुको हातूंत तो सदांच फुडें आसतालो. दिसूंकूय देखणो. तो आशिल्लो विश्वंभराली पयलींची इश्टीण रेवतीलो चलो. ही जेन्ना गजाल विश्वंभराक कळ्ळी तेन्ना ताका भयंकर राग आयलो. पूण तो आपलें चलयेचें मन मोडूंक शकनाशिल्लो. तो संदीची वाट पळयत रावलो.

ताणें मनांतल्या मनांत एक येवजण केली. आपले चलयेक आपूण सपोर्ट करतां अशें दाखोवप. ताचें चलीय बी ताचे भशेनच हट्‌टी आशिल्लें. विरोध करून तें ताका वगडावपाचें नाशिल्लें. चलीय खूश जालें बापायक आपली पसंती आवडले बद्‌दल. आतां विश्वंभरूय आपलें नाटक व्यवस्थीत रंगोवपाक लागलो. पूण बिपिनाले आवय रेवतीन बिपिनाक शिटकावणी दिल्ली की विश्वंभर हो धड मनीस न्हय, ताचे पासून शादूर राव. बिपिनान आवयक सांगलें, तो पयलीं तसो आसूं ये! पूण तो आतां सुदारला आनी आपूण ताका पसंत आसां, आपल्याकडें तो सामको बरो वागता. आवयक दुबाव हो आशिल्लोच पूण ती बाबडी कांय करूंक शकनाशिल्ली. तिकाय सोनियान आपलो लळो लायिल्लो.

आतां सोनियाचो अठरावो वाढदीस लागीं पाविल्लो. विश्वंभरान जावपी जावयांक आपल्या घरा वाढदीसाक येवपाचें खासा निमंत्रण दिलें, आपल्या इश्टां सकट येवपाचें. वाढदिसाची जंगी पार्टी केली. त्या दिसा ताणें ताका घरांतलें सगळें दाखयलें. आपल्या धंद्या बद्‌दल म्हायती, घरांतलें भांगर, तिजोरी. ताका तिजोरी उगडूंक लायली, भांगर हातांत धरून पळोवपाक लायलें. तिजोरेंतले पयशे मेजपाक लायले. बिपीन सामको खोशी जालो. वाढदीस मोठ्या दबाजान आनी खोशयेन मनयलो तांणी.

दुसरे दिसा मात बोब जाली की विश्वंभरागेर चोरी जाली. घरांतले पयशे आनी भांगर ना जालें. खंय गेलें कोणाक कळना जालें. पुलिसांचो तपास चालू जालो. तांचो दुबाव बिपीन आनी ताच्या इश्टांचेर वचप साहजीक आशिल्लें. तेच तर ते रातीकडें थंय आशिल्ले. पुलिसानी सगळेकडें चवकशी केली. कांयच सुगावो ना. तांणी निमाणेकडें सगळ्यांचीं घरां तपासपाचें थारायलें. घरां तपासतां तपासतां ते बिपिनागेर पावले, आनी ताचे आलमारींत तांकां पयशे आनी भांगर आशिल्लें बॅग मेळ्ळें. बॅग, पयशे, भांगर सगळ्यांचेर बिपिनाल्या हाताचे ठसे मेळ्ळे. बिपिनाक कादयेंत उडयलो. बिपिनाक धरना फुडें विश्वंभरान ताचेर आरोप करपाक सुरवात केली. लोकांक आनी सगल्या जगाक खोटेंनाटें सांगपाक लागलो. लोकांकूय दिसलें की बिपिनूच गुन्यावकारी म्हण. विश्वंभरान चलयेक फितोवपाचो यत्न केलो, पूण तें ताका बधलें नाच. ताचो बिपिनाचेर पुर्ण विस्वास आशिल्लो. जर सगळे पुरावे आड वतात जाल्यार तें बाबडें किदें करपाक शकतालें!



फुडें कोर्टांत केस गेली. साहजिकूच बिपिनाक ख्यास्त जाली. बिपिनाची रवानगी आग्वाद जेलींत जाली. विश्वंभरान आपल्या विश्वासू नोकरा कडल्यान बिपिनाल्या घरांत ते पयशे आनी भांगराची बॅग दवरलेली आनी ताणें पयलींच काळजी घेतिल्ली सगळ्याचेर बिपिनाले हाताचे ठसे येवचें म्हण.

आतां विश्वंभर सामको खोशी, आपलें कारस्थान यशस्वी जालें म्हूण! ताका आपल्या दुस्मानाच्या चल्याक ख्यास्त भोगोवपाची आशिल्लीच आनी तशें जावन तो चलो आतां कादयेंत गेलो सुद्‌दा.

हेवटेन रेवती आनी सोनिया सोद घेवपाक लागलीं, हें चोरयेचें गौडबंगाल किदें? सोनियान बापायकडें बरें वागपाचें नाटक केलें. ताच्या विश्वासू मनशाक आपल्या विश्वासांत घेवन ताचे कडल्यान सगळें काडून घेतलें. ताचें सांगणें मोबायलाचेर रेकॉर्ड केलें.

ही गजाल विश्वंभराक कळ्ळी. ताणें दुसऱ्याच दिसा त्या आपल्या नोकराचो कांटो काडलो. ताका मारून उडयलो. भासयलें की तो अपघातान मेलो. बिपिनालो रेकॉर्ड नितळ आशिल्ल्या कारणान लोकांकूय तो गुन्यांवकारी आसा हें पटनाशिल्लें. समाजसेवी संस्थेन केस आपल्या हातांत घेतली. तांणी पुलिसांचेर चेपण हाडलें. परत कोर्टांत केस गेली. बिपीन निर्दोष सुटलो. पूण विश्वंभराचेर कारस्थानाचो मुखेली असो पुरावो मेळूंक नाशिल्ले कारणान जुविजान आपलो निर्णय राखून दवरलो. जुविजान विश्वंभराक ताणें बिपिनाचेर किदें

बांगल्याटा घाल्ली आनी किदें म्हणल्लें तें एका कागदार बरोवन काडपाक लायलें. तो कागद घेवन दुसरे दिसा कोर्टांत येवपाक सांगलें. तें प्रमाण विश्वंभरान केलें. जुविजान ताका आता तो कागद पिदपाक, बारीक बारीक तिम्त्यो करपाक लायल्यो आनी घरा वतना त्यो सगळेकडेन उडयत वच म्हण सांगलें. ताका दुसरे दिसा परत कोर्टांत आपयलो. दुसरे दिसा सांगलें की जें कुडके तुवें काल उडयल्यात ते एकठांय कर आनी घेवन यो. विश्वंभर म्हणूंक लागलो, 'हें कशें शक्य आसा, ते कुडके परत कशे मेळटले?'

'जितले मेळटात तितले एकठांय करून हाडपाक सांगलें. विश्वंभराक दोन तिनूच मेळ्ळे. ते ताणें व्हेले.

जुवीज म्हणूंक लागलो, 'हें पळय. तुवें कितले तरी कुडके उडयले. तातूंतले तुका दोन तिनूच परत मेळ्ळे. मनशाचीं उतरां अशींच आसतात. गेल्लीं उतरां परत फाटीं घेवंक मेळनात. तीं काळजाक भिडतात आनी कायमचो इबाड करतात. शस्त्रांचो घाय पेखपाक शकता, न्हय उतरांचो. तीं कायमचें नुकसान करतात. देवान मनशाक मेंदू दिला, हेर जनावरांकूय वेगळीं रचल्यांत. मनीस जर जनावरां भशेन वागपाक लागलो जाल्यार मनीस आनी जनावर हातूंत किदें फरक उरलो? मनशाचें मनीसपण खंय उरलें? सूख हें खिणाचें आसता, आत्मिक समाधान हें कायमचें आसता. मनीस म्हजें म्हजें म्हणून भौतीक सुखाच्या फाटल्यान धांवता, तें मेळचें म्हण हातपांय धोडायता, कारस्थाना रचता, खंयच्याय थरार वता. पूण मनीस हे धरतरे वेल्यान वतना कांयच घेवन वचना, रिकाम्या हातान वता. प्रत्येकान जर आपल्याचे गरजे पुरतें मेळयलें आनी जें उरता तें दुसऱ्या गरजवंतांक वांटलें जाल्यार हो संवसार कितलो सुखी आनी समाधानी जातलो! निमाणी आमकां देवाक जाप ही दिंवचीच पडटा, तशेंच आमच्या मनाकूय बी. स्वताच्या मनाक कोण फटोवपाक शकना. विश्वंभर तुवें इस्टेट मेळोवपा खातीर ना ना तरेचीं कारस्थानां केलीं, कावे रचले, तूं मुडान पेटिल्लो. निमाणेकडें तुका कितें मेळ्ळें? तुवें लोकांचो विश्वास वगडायलोच आनी स्वताचे चलयकूय वगडावन बसलो. तूं पूर्ण भिकारी जालो विश्वंभर. तुका आपलो म्हणपी असो तुजेकडें कोणूच उरलो ना.'

विश्वंभराच्या दोळ्यांतल्यान घळाघळां दुकां व्हांवपाक लागलीं. ताणें म्हळें, 'इतलें सगळें करून निमाणेकडें म्हाका मेळ्ळें कितें?'

●●●

करंझाळे ✆ 9405222828



# रिमोट कंट्रोल

1982 वर्सा गोंयांत पयले फावट ब्लॅक अँड व्हायट टिव्हीचें आगमन जाल्लें. आमच्या वाड्या वयल्या नुरुद्दीनान भायर साकून येतना पयलो टिव्ही संच हाडिल्लो. येदें मोठें बॉक्स कसो तो संच पळोवन आमी सगलीं भुल्लुसलीं. मागीर दोन दीस टिव्हीचो ॲन्टेना लावपाचो घेऽऽ बोवाळ! सुरवेक चित्रां अस्पश्ट दिसूंक लागलीं देखून दोन-तीन झाडांचे खांदे मारचे पडले. तरी चित्रां बिलबिलतात तें पळोवन ॲन्टेना घुंवडावच्या बोवाळांत बाबड्याच्या घराच्या पाश्टाच्या नळ्यांचो धुंवर! इतल्यार सोंपलें ना देखून निमणें बूस्टर (कोरोनाचो न्हय) लायतकच इल्लीं इल्लीं चित्रां स्पश्ट दिसूंक लागलीं. आमी आवाजाच्या अदमासान तो अमको तमको हिरो म्हूण बाण मारूंक लागलीं.

उपरांत एशियड खेळां निमतान टिव्हीची क्लेरीटी वाडयली. तशे वाड्या वयल्या थारावीक कांय घरांनी टिव्ही संच आयले. मजा म्हणल्यार तेन्ना दूरदर्शनाचेर अपुरबायेचो एकूच चॅनल. तातूंत 'पशुपालन', 'आमची माती आमची माणसं', 'छायागीत' सारक्या मराठी कार्यक्रमांचें खतखतेंच चड आसतालें. ताका लागून घरचीं जाणटीं-नेणटीं टिव्हीक दसून उरतालीं. उपरांत 'श्वेतांबरा'बी सारक्यो सिरीयल्स सुरू जाल्यो, तशे वासरेंतले, बल्कावांतले शेजारी-पाजारी गायब जाले. सांजेच्या स वरांचेर देवाक दिवो लायतां लायतां लोक टिव्ही बटन ऑन करताले. मागीर रस्त्यार शुकशुकाट. तेन्ना आतां वरी घरां घरांनी रंगीत टिव्ही संच नाशिल्ले खरे, तरी लोकांक तेच व्हडले आसले.

आमगेरूय सुरवेक टिव्ही संच हाडूंक नाशिल्लो. देखून सांजेर कोणा घरा वचपाचें तें पयलींच थारिल्लें आसतालें. कोणें आमकां आपोवं वा आपोवं नाका, जाय वा नाका, मराठी वा हिंदी, बोअरिंग वा बरे अश्योय तेन्ना व्हडल्योशो भानगडी नाशिल्ल्यो. कारण



काश्मिरी
प्रावसकार
शिक्षकी पेशांतली लेखिका ललित लेखनांत फिशाल. तांचें ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडाक आयलां...



सादे टिव्ही वयले कार्यक्रम कंट्रोल करपाक चॅनल चड नाशिल्ले. मेळटा तें पळय ना जाल्यार ओग्गी बस! काळांतरान टिव्ही रंगीत जालो आनी ताच्या सांगातान रिमोट कंट्रोल नांवाची जादूची छडी आमच्या हातांक लागली. पूण वाडे वाडे अक्कल बुडे सारके चेनलूय मारुतीचे शेंपडेवरी वाडत, लांबत गेले. हाका लागून फकत दूरदर्शन सहन करपी प्रेक्षक उणे जावन तो एंटरटेनमेंट इंडस्ट्रीचो कंझ्युमर जावंक पावलो. ताच्या हातांत रिमोट कंट्रोल आयलो तसो ताच्या उजव्या हाताचो आंगठो आनी रिमोटाचें अतूट अशें नातें जुळ्ळें.

बरें, हो रिमोट टिव्ही पुरतोच उरलो ना. एद्याशा गाजुइडया भुरग्यांच्या खेळण्यांतल्यो गाडयो, तशेंच गल्वे, बावल्यो लेगीत ह्या रिमोटार चलपाक लागल्यो. बटन दाम आनी जाय ते दिकेन फाटीं- फुडें, ल्हव-नेटान जाय तशो त्यो घुंवडाय. हाच्या सांगातान ड्रोन कॅमरा, फॅन, एसी, लायटी दिवे धरून वाहनां लेगीत रिमोटार सहज आनी सोंपेंपणी चलतात म्हणचे परस आमी तीं चलोवंक लागले. देखून हातां-पांयांची हालचाल उणी जावन आमी आळशी जावंक पावले. हातूनइल्ली भर म्हूण आवाजार चलपी आज्ञाधारक 'आलेक्सा'य आमच्या आधाराक आयलो. 'आलेक्सा टर्न ऑन टिव्ही' वा 'टर्न ऑफ म्युझिक सिस्टम' म्हूण आज्ञा केल्यार तो एका पांयार तयार. रिमोटा फाटल्यान आतां ह्या आलेक्साचेंय अप्रूप वाडलां!

मुखार वचून ' राजकारणांतूय रिमोट कंट्रोल ह्या उतराक वेगळो अर्थ फावो जाला. पूण 'रिमोट कंट्रोल' हें उतर टिव्हीचे बाबतींत समाज मनांत चडूच रुळ्ळां खरें, पूण रिमोटाची ही संकल्पना आजुनूय आमच्या मानसीक सुखां समाधानाच्या कंट्रोला विशीं तितलिशी आंगवळणी पडूंक ना. म्हणल्यार आमच्या मनांत सूख, यश, समाधान मेळोवपाचो रिमोट आमी चड करून, खंयचें कुळार, घोवाघर, नशीब, मुखार वचून वेवस्थापक, बॉस सारकेल्या लोकांच्या हातांत दितात. हाचोच अर्थ आपूण सोडून आमचें सूख, नशीब बी गजाली हेरांच्या वागपाचेर, उलोवपाचेर आदारून आसात अशेंच मार्नीत आयल्यात, आतां तुमीच सांगात आमी आमचे जिणेचो रिमोट कंट्रोल दुसऱ्या मुखादीन करून कशें जायत? मार्गार चलात तर हेन फुडें आपलो रिमोट कंट्रोल आमी आपल्या हातांत दवरुया. बापूय सांगता, घोव म्हणटा त्या वेळार आपली ताकद, आपली आवड, आपलें गुण, आपलें मन आपले बुद्दीचे मार्डीग धामून पळोवंया आनी आपलो आत्मविस्वास वाडोवंया. ते पासत फकत आपलो 'रिमोट कंट्रोल'आपल्याच हातांत दवरुंया आनी जिणेंतले साबार चेनल सर्फ करून आपली जीण रंगरंगयाळी करुंया.

●●●

शिवोले ✆ 9421192858

# कोंकणी म्हणींत रिगिल्लीं पुर्तुगेज उतरां...

गोंयचेर पुर्तुगेजांनी साडेचारशें वर्सां वयर राज्य केलें. इतलीं वर्सां राज्य केलें म्हणटगीर पुर्तुगेज भास, चालीरिती, तांचो लोकवेद हाचो प्रभाव आमचे कोंकणी भाशेचेर, लोकवेदाचेर, चाली-रितींचेर पडप हें सभावीकच आसा. तेन्ना लोकवेदाचोच एक वांटो आशिल्ल्या म्हणिंचेर ताचो प्रभाव पडलो हातूंत अजाप तें कसलें! कोंकणी भाशेंत अश्यो साबार म्हणी आसात जातूंत पुर्तुगेज उतरां भरसल्यांत. ह्यो पुराय तरेन प्रादेशीक म्हणी गोंयच्यो पुरत्यो सिमीत आसल्यो तरी तांचो आशय मात वैश्विक आसा.



ह्या म्हणिंचो अभ्यास करतगीर एक गजाल आमचे नदरे मुखार येता ती ही की ह्यो मूळ म्हणी कोंकणी धाटणिच्यो आसात आनी भौसाच्या मनाचेर बिंबोवपा खातीर तातूंत पुर्तुगेज उतरां भरशिल्यांत. हाचें कारण म्हळ्यार पुर्तुगेज भाशेचो कोंकणिचेर पडिल्लो प्रभाव. ह्या म्हणिंनी आमकां पुर्तुगेज मनशाचे सबागूणय दिश्टी पडटात. ह्या म्हणिंतल्या पुर्तुगेज उतरांचो अभ्यास केल्यार आमकां दिसून येता, हातूंतल्यो चडश्यो म्हणी इगर्ज संबंदांत आसात. बाटाबाटीच्या वेळार जे कोण किरिस्तांव जाले ताणी ह्यो म्हणी घडल्यो जावंक जाय. मागीर ह्या म्हणिंची उपयुक्ततताय लक्षांत घेवन मागीर पुराय कोंकणी समाजान त्यो आपणायिल्ल्यो आसूंक जाय. ह्या विशयाच्या अभ्यासा खातीर हांवें चिकित्सक नदरेन विस्कटावणी केल्ल्यो कांय म्हणी आनी तांची फाटली काणी तुमच्या मुखार दवरतां. म्हणटगीर ह्यो म्हणी समजुपाक वाचप्यांक सोंपें जातलें.




**सखाराम शेणवी बोरकार**

काव्य,ललित,विनोदी साहित्य, अणकारांत योगदान, लोकवेदाचे अभ्यासक...


'सोरोप म्हुणू नये धाकलो आनी फिरंगी (पाखलो) म्हुणू नये आपलो!'-

ही म्हण कोंकणी भौसामदीं घोळटाली. जशें सोरपाचें पील ल्हान म्हण ताचेर नदर आड केली जाल्यार तें चाबपाचें सोडी ना. तसोच फिरंगी वा पाखलो कितलोय तुमचे कडेन गोड-गोड उलयलो तरी ताका आपलो म्हणपाची चूक करची न्हय. तो तुमचो केन्नाय घात मारपाक शकता अशी सादूरयतायेची शिटकावणी ही म्हण आमकां दिता. पाखले जेन्ना गोंयांत आयले तेन्ना ते गोंयकारां कडेन गोड-गोड उलोवन आपलो कार्यभाग सादोवपाक लागले. तेन्ना भौसाक सादूर करपाक ही म्हण घडल्या जावंक जाय. ही म्हण पुर्तुगेजांक जांकां गोंयांत सरसकट पाखले

म्हणटाले तांचो सबावगूण दाखयता.

'फिरंग्याचें काम नव्याक वो मायाक'-

हाचो अर्थ पुर्तुगेज लोक सगळें काम निमण्या वगतार करतात. ही फिरंग्याचो सबावगूण दाखोवपी आनीक एक म्हण.

'पाखल्याक खंय 'गारा', 'गारी', 'गारे' सगळेंच सारकें'-

गोंय पुर्तुगेजांच्या शेका तळा आसतना गोंयांत जायते पाखले आसले. असोच एक पाखलो आशिल्लो. ताका नुस्तें गरोवपाचें पिशें आसलें. ताचे सागाताक एक गोंयकार इश्ट आसतालो ताचो. एक दीस त्या पाखल्याचे गरयेक कांयच लागलें ना. पाखलो सामको बेजार जालो. ताचें तें पडिल्लें तोंड पळोवन तागेल्या गोंयकार इश्टान म्हळें, 'इरमांव कांय नेजो, चोल घारा या आनी घरे खांवया!' पुर्तुगेजांक कोंकणी भाशेची संवकळ नासली. आमिगाचीं हीं उतरां आयकून पाखल्यान म्हळें, गारा, गारी. गारे पोक दिफेरेंस?'

तेन्ना ताच्या गोंयकार इश्टान सगळ्या उतरांची विस्कटावणी करून म्हळें, 'गारा' म्हळ्यार घरा, 'गारी' म्हळ्यार नुस्तें गरोवपाची गरी आनी 'गारे' म्हळ्यार पणसाचे घरे. तेन्नाच्यान कोणाकय सगळें सारकें हें म्हणपाक ही ओपार वापरतात.

'बाबी शाबी पोक दिफेरेंस' हीवूय म्हण ह्याच अर्थान वापरतात.

'मोडिल्ल्या खुर्साक चेपें कोण काडटा?'-

ही म्हण 'मोडिल्ल्या खुर्साक दिमी कोण मोडटा?' वा 'मोडिल्ल्या खुर्साक रेस्पेद ना' अशेय रुपांनी घोळटा. ही कोंकणिंतली एक फामाद म्हण. जो मेरेन एकल्या कडेन पयसो आसता, अधिकार आसता तो मेरेन ताका सगळे रेस्पेद वा मान दितात. एकदां त्या मनशान पयसो आनी अधिकार वगडायलो जाल्यार सगळे ताका कुस्कुटा समान लेखतात. ही म्हण आयज लेगीत तितलीच खरी आसा. व्हडल्या पदावेलो मनीस बसपगारी(रिटायर) जालो म्हणटगीर ताका कोण मान दिनांत हें सगळ्यांक खबर आसा.

'पाद्रीचो सेरमांव व्हुनयेक न्हय!'-

एका गांवांत एक पाद्री व्हिगार रावतालो. त्याच गांवांत ताचो भाव आनी ताची व्हुनी (भावजय) रावताली. एका वर्सा सगळ्यांच्याच वावरान त्या गांवांत मिग्मांगेचें खूब पीक आयलें. पाद्र व्हिगाराचे व्हुनयेच्याय मळ्यांत मिग्मांगेचें भरपूर पीक आयलें. हें इतलें पिक पळोवन पाद्र व्हिगार येवजणेंत पडलो. ह्या गांवचो लोक ह्यो इतल्यो मिग्मांगो विकूंक घेवंक गेल्यार म्हजे व्हुनयेच्या मिग्मांगांक बरें मोल मेळपाचें ना. देखून आपले व्हुनयेच्या फायद्या खातीर ताणें एक येवजण सोदून काडली. फ

‸डल्या आयतारा ताणें आपल्या सेरमांवांत सांगलें, ह्या वर्सा आमच्या गांवांत एक वायट दुयेस आयला आनी हे दुयेस मिग्मांगो वरवीं पसरत आसा. देखून मीस जातगीर तुमी सगळीं घरा वचात आनी तुमच्यो मिग्मांगो इगर्जे सामकार हाडून पांयांतळा मस्तियात. मिसा उपरांत लोक घरा गेलो. आपले पिकेच्यो मिग्मांगो इगर्जे सामकार हाडल्यो आनी पाद्री व्हिगारान सांगिल्ले तशे आपल्या पांयांतळा त्यो मस्तिल्यो. हे सगळें पळोवन पाद्री व्हिगार खुशालकायेन वेगींवेगीं आपले व्हुनयेक मेळपाक तिच्या घरा गेलो आनी म्हणूंक लागलो, 'आतां तुज्या मिग्मांगांक खात्रेन बरें मोल मेळटलें.' पूण व्हुनी ताका म्हणपाक लागली तुवें सेरमांवांत सांगलें तशें हांवें म्हज्योय मिग्मांगो इगर्जे सामकार व्हरून पांयां तळा मस्तिल्यो. तिची जाप आयकून पाद्री व्हिगारान कपलार हात मारलो आनी म्हणूंक लागलो, पाद्री व्हिगार सांगता तो सेरमांव व्हुनयेक न्हय पूण लोकांक. दुसऱ्याक सांगप एक आनी आपल्या मनशांक सांगप दुसरें अशें जो करता ताका लेखून ही ओपार मारतात.

'पाद्री पडलो बोवाळांत आनी इगर्ज नागयली'-

ही एक अशीच म्हण जिचेर पुर्तुगेज उतरांचो प्रभाव आसा. हे म्हणी फाटली काणी अशी: एके इगर्जीचें फेस्त आशिल्लें. पाद्री व्हिगारान इगर्जीची अनी सरभोंवतणच्या वाठाराची साफसफाय करपाक कांय मानाय आपयिल्ले. पाद्री व्हिगार फेस्ताचे बेवस्थेचेर देखरेख करपाच्या बोवाळांत पडला तें पळोवन हे मानाय इगर्जीच्यो मोलादीक वस्ती घेवन पासार जाले. हाचो अर्थ जेन्ना कोणय एका कामांत व्यस्त आसता ते संदिचो फायदो घेवन दुसरो ताका नागयता.

'फेस्त करता गांव, पाद्री व्हिगाराचें नांव'-

खंयचेय इगर्जीचें फेस्त त्या-त्या गांवचो लोक एकठांय येवन करतात. पयशे जमोवपाचें, इगर्ज रंगोवपाचें, इगर्जी सरभोंवतणी साफ सफाय करपाचें सगळें काम गांवचो लोक करतात. पूण फेस्ताक येवपी गांवां भायले लोक ह्या फेस्ताचें सगळें श्रय पाद्री व्हिगाराक दितात. अशें सगळे कडेन घडटा. खरें काम करपी लोक उजवाडाक येनात आनी अधिकाराचेर आशिल्ले लोक सगळें श्रय आपूण घेतात.

'व्हिगाराक नाका इगोर्ज तोर कुराक केसो गोरोज?'-

कूर (cura) म्हळ्यार पाद्री. एके इगर्जीचो पाद्री, इगर्ज मदेरा आयल्या ती सारकी करपाक जाय म्हण आपल्या वयल्या पाद्रीक म्हळ्यार पाद्री व्हिगाराक सदांच कळीत करतालो. पूण पाद्री व्हिगार तागेलें सांगणें कशेंच काना मनार घेना आसलो. आनी एक दीस जावपाचें तें जालें. पावसांत इगर्जीची एक वणत पडली. त्या गांवचे

लोक धांवत-धांवत कुरासरीं आयले आनी ताका जाप विचारपाक लागले. कुरान तांकां सांगलें, आपूण फाटले कांय म्हयने हाची कागाळ करीत आसलों पूण पाद्री व्हिगारान तें काना मनार घेतलें ना आनी तो म्हणूक लागलो 'व्हिगाराक नाका इगोर्ज तोर कुराक केसो गोरोज?'.

जेन्ना वयल्या अधिकारार आशिल्ल्या मनशाक कांयच पडून गेल्लें नासता तेन्ना सकयल्या अधिकारार आशिल्लो मनीस मागीर तातूंत चड लक्ष घालना. जेन्ना बॉसच कामाक उसरां येता तेन्ना ताचे हाता सकयलो कर्मचारी वर्ग वेळार कसो येतलो?

ही म्हण 'व्हिगाराक भर ना कुराक खंयचो?' अशीय कांय कडेन घोळटा.

'काय गे बायेचें इस्तिमसांव बायेच्या हातीक जालां कोंस्तिपासांव'-

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एका गिरेस्त आवय बापायगेर अपुरबायेची एकटीच धूव आसली. एकटीच धूव जाल्ल्यान आवय बापायन तिचे खूब लाड केल्ले. ती सबावाची आळशी आनी अचरट आसली. ती कितें उलयता तें तिकाच खबर नासतालें. दुडवांकाराली धुव म्हणटगीर तिका करता तें पचतालें. करतां-करतां ती व्हड जाली. आवय बापायन भरपूर दोत घालून तिचें काजार करून दिलें. व्हंकल घोवाल्या घरा गेली. व्हंकलेची सगळीच वागणूक जगा भायली. व्हंकल आपले कुडींतल्यान कशीच भायर येना. सासूमांय कुडींत तिची खबर घेवंक गेली. व्हंकलेन आपल्या घरा बापूय बरो नासता तेन्ना पुर्तुगेजींत उलयलेलीं दोन-तीन उतरां तिच्या कानार पडिल्लीं. सासूमांयन कितें जालां काय विचारतगीर, सून म्हणूक लागली, 'म्हज्या हातीक जालां कोंस्तीपसांव!'

सासूमांय अडाणी. ती भियेली आनी तिणें वचून सगळें घरांतल्या लोकांक सांगलें. घरचींय सगळीं हुस्केलीं. रोखडोच दोतोराक आपोवन हाडलो. दोतोरान येवन तिका तपासली. 'कोंस्तीपसांव' म्हळ्यार थंडी जावप, भारकूण जावप, खांक येवप. दोतोरान तिका विचारलें, 'तुका वयल्या वयर खांक येता? खांकून वता?' त्या उतराक ती हांसून म्हणूंक लागली, 'खांक कशी येतली? माज्या हातीक जालां कोंस्तीपसांव.'

हें आयकून घरांतल्या लोकांक व्हकलेचीं अचरटपणां कळ्ळीं. अश्ये तरेच्यो जगा भायल्यो गजाली जेन्ना कोणय उलयता तेन्ना ही ओंपार मारतात.

'येस्ती व्हेर्दी' (este verdi) हेच तरेचो पांचवो रंग!. पुर्तुगेजांच्या तेंपार 'तेशितमुन्यु' (गवाय) म्हण एक वेगळीच जमात आसली. आयचे काळावेले 'विटनेस'!. हे लोक सामके हुशार आनी तल्लख बुद्दीचे. दुसऱ्याल्या घरार सुणी चडोवंक हुशार.



पुर्तुगेजांच्या तेंपार 'मिजरिकोर्दी'च्यो म्हणून सोर्ती येताल्यो. सोर्ती दोनच रंगाच्यो आसताल्यो एक पाचवी (Verde) आनी दुसरी हळडुवी (marelo). ही सोर्त जिखल्यार भरपूर पयशे मेळटाले. एकट्यान अशीच सोर्त काडली आनी ताका ती लागली. हें ताच्या भावाक कळ्ळें. ताणें बेठेंच ती सोर्त आपली, आपणे काडिल्ली म्हण त्रिबुनालार केस घाली. केस मोठ्यार पडून खूब वर्सां चल्ली आनी निमण्या 'जुल्गामेंताक' (Judgement) पावली. दोनय पार्टीनी आप आपले 'तेस्तिमुन्यु' व्हेल्ले. जाणें सोर्त काडूंक नाशिल्ली तागेलो 'तेस्तिमुन्यु' खूबच हुशार आसलो. जुविजान त्या हुशार तेस्तिमुन्याक प्रस्न केलो, 'तुवें तुगेल्या अशिलान सोर्त काडिल्ली तें पळयल्लें?' तागेल्या अशिलान सोर्तच काडूंक नासली तर हो 'तेस्तिमुन्य' खंयच्यान पळयतलो? तरी पूण हाणें नेटान म्हळें, 'सीं सिन्योर!' जुविजान रोखडोच दुसरो प्रस्न केलो, 'सोर्त कसल्या रंगाची आसली?' सोर्त दोनच रंगाची आसताली पाचवी आनी हळडुवी. हाणें सांगून सोडलें, 'वेर्द सिन्योर!' पूण हाच्या दुर्देवान सोर्त आसली हळडुव्या रंगाची. जाणें सोर्त काडिल्ली तो भाव सामको खोशी जालो. 'तेस्तिमुन्य' चुकलो म्हणटगीर केस आपूण जिखलोंच अशें ताका दिसलें. पूण हो गवाय खूब हुशार. आपूण चुकलों म्हण ताका रोखडेंच कळ्ळें. ताणें त्रिबुनालाच्या हळडुवे वणटीक बोट दाखोवन म्हळें, 'येस्ती व्हेर्दी सिन्योर!' हे तरेचो पाचवो रंग. जुविजाक दिसलें कीं हाका पुर्तुगेज सारकी येना म्हण हाणें हळडुव्याक पाचवो रंग म्हळा. जुविजान तागेलें म्हणणें



फावोराद थारावन जाणें सोर्त काडूंक नासली ताच्या फावोराद निकाल दिलो. हे गजाली वेल्यान ही ओपार आयल्या. जेन्ना कोणय चलाख बेरकी मनीस नाशिल्लेंच खरें करून दाखयता ताका ही ओपार मारतात.

पुर्तुगेज काळार असले देमांद खूब वर्सां चलताले. हातूंत पयसो आनी वेळ काबार जातालो. ह्या देमांदा खातीर व्हडलीं व्हडलीं घराणी काबार जाल्लीं. तेन्ना असल्या तेस्तिम्युन्याचें बरेंच फ़ावतालें. दोन घराण्या भितर, भावां-भावां भितर झगडीं लावपाचें काम हे 'तेस्तिमुन्य' करताले. गोंयां भायल्या वाठारांनी ज्या जाग्यार गोंयकार वसल्यात ते थंय राग़ा भरशीं 'गोंयचो देमांद तुजेर पडूं!' अशीं वायट उतरां दितात.

'सांकिस्तांवांक मीस नां'. सांकिस्तांव (सांक्रिस्तांव) म्हळ्यार इगर्जीत काम करपी वावराडी. ताचें काम म्हळ्यार इगर्जीची साफसफाय करप, मिसाची सगळी तयारी करप आनी इगर्जीतल्या पाद्रिची सेवा करप, जेवण करप आदी. ह्या सांकिस्तांवांक बाबड्याक इतलें काम पडटा की इगर्जेतलें मीस ताका आयकूंक मेळना. मीस आयकुपाक पयसुल्ल्या वाठारांतले लेगीत लोक येतात पूण हाका बाबड्याक इगर्जेंत आसून लेगीत मीस आयकूंक मेळना.

आतां पळयात, चवथीच्या दिसांनी आमच्या घरांत गणपती येता, ताची पुजा जाता, आरत्यो जातात पूण घरातल्या बायलो रांदचे कुडींत इतल्यो व्यस्त आसतात. निवेद्य तयार कर, जेवणाची तयारी कर हातूंतच तीं घुस्पून उरतात. ताका बाबड्याक घरांत गणपती आसून लेगीत पुजा, आरत्यो बी खंय पळोवंक मेळटात? 'सांकिस्तांवांक मीस ना' असोच प्रकार तो!

'भाटांतल्याक अर्दें मीस' वा 'लागशिल्ल्याक मीस ना' ह्यो म्हणी ह्याच अर्थाच्यो. 'कुमाराक मडकी धड ना' हीय ह्याच अर्थाची म्हण.

'पयलें भुरगें भुरगें न्हूं! दुसरें भुरगें भुरगें. तिसरें भुरगें सातिम्फासांव, चवथें भुरगें तेंतसांव, पांचवें भुरगें माल्दिसांव' - आदले काळार खूब भुरगीं जातालीं. जेन्ना पयलेंच भुरगें जातालें तेन्ना सगळ्यांक खूब खोस जाताली आनी हे खोशयेंतच त्या भुरग्याचो सांबाळ करप जातालो. जेन्ना दुसरें भुरगें जातालें तेन्ना घरांतली खोस मातशी उणी जाताली. भुरगें जालां अशी जाणविकाय जाताली. तिसरें भुरगें जातगीर आता आनी भुरगें नाका, आतां पुरो अशें जातालें. तरीय चवथें जालें जाल्यार तर ताची दगदग जाता आनी पांचवें जावप म्हळ्यार सत्यानासच. खंयचीय गजाल अती जाली तर ती वरदान थरनासतना शापच दिसता असो हे म्हणिचो अर्थ. आदले काळार नकळटां लेगीत कुटूंब येवजणेचो संदेश दिवपी ही म्हण!

'मायन दिल्लें उरलें पायन दिल्लें सरलें'- बापायन दिल्लो सगळो पयसो सोंपलो पूण आवयन लायिल्ले संस्कार, शिकयिल्लें शिवण सूत, रांदप कांतप ह्यो ज्यो कला शिकयिल्ल्यो त्यो सासणाच्यो उरतात आनी वेळप्रसंगार त्योच पावतात हो हे म्हणिचो अर्थ.

'फेस्ता फुडें फाम'. इगर्जेच्या फेस्ता पयलीं नोवेना सुरू जातात. इगर्जेंत माडी पुरून फेस्ताची खबर कळीत करतात. तो फाम हो दीस. थोडे कडेन फाम हो दीस फेस्ता परस चड दबाज्यान मनयतात. कोलवेंचे इगर्जेचो फाम चड नावाजतो. त्या दिसा हजारांनी लोक फामाक जमतात. फेस्त जावचेंच आसा फाम व्हड दबाज्यान जाता. मूळ उत्सवा परस प्रसिध्दी चड जाता तेन्ना ही ओपार मारतात. फेस्त आनी फाम हीं कोंकणीन आपणायिल्लीं पुर्तुगेज उतरां

'एक मेस्त बरें फेस्त चड मेस्त बुरी फेस्त'- फेस्ताक वा कसल्याय सुवाळ्याक एकूच मेस्त (रांदपी) आपयल्यार तो बरें जेवण करता. पूण चड रांदप्यांक आपयलें जाल्यार ताचे भितर धुमफूस जावन जेवणाची वाट लागता. एका कामा खातीर चड जाणांक हाडल्यार काम बरें जातलेंच अशें ना असो हे म्हणिचो अर्थ. हीच म्हण इंग्लीश भाशेंत "Too many cooks

spoil the soup' अशी आसा.

'मिसाक गेल्ले आशेन, सेमाँव जालो फिरंगी भाशेन'- ही एक कोंकणितली बरीच आदली म्हण. बाटाबाटिच्या काळार जे नव- किरिस्तांव जाल्ले ते चड करून अशिक्षीत आसले. ते जेन्ना मिसाक वताले तेन्ना सेमाँव पुर्तगेज भाशेंत जाल्ल्यान तांकां बाबड्यांक तो समजनासलो मागीर ह्या पाद्रींक कोंकणी शिकपाचें फर्मान काडलें. त्या खातीर ह्या पाद्रिनी व्याकरणां, दोत्रिनां बी कोंकणी भाशेंत उजवाडाक हाडून अप्रत्यक्ष रित्या कोंकणीची सेवा केली.

भौशीक सभांनी थोड्या उलोवप्यांक आपलें गिन्यान थंय जमिल्ल्या लोकांक कळना तसली भास उलोवन पाजळावपाची आसता. 'चड फिरंगी भास हाडाक उरता मांस' अशी तांची अवतिकाय जाता. मोठे आशेन असले सभेक सभेक गेल्ल्या लोकांची अवस्था 'मिसाक गेल्ली व्हडले आशेन, मीस जालें फिरंगी भाशेन' अशी जाता.

थोड्यांक असल्या मिटिंगांक तड्डकां फोडपाची संवय आसता. तांकां लेखून 'आमचो जुजे मारी देकोर कांतार करी' ही म्हण वापरतात. कसल्याच पुराव्या बगर, पाठ (देकोर) केल्ले भशेन उलोवप असो हे म्हणिचो अर्थ.

'गिरेस्त पियेल्यार आलेग्र म्हणटात, दुबळो पियेल्यार बेबदो म्हणटात'- 'आलेग्र' म्हळ्यार खोशी. जेन्ना श्रीमंत लोक सोरो पियेतात तेन्ना ते खोशी मनोवपाक पियेतात अशें म्हणटात. पूण तोच सोरो जर गरीब पियेलो, ताका बेबदो म्हणटात. आमच्या समाजांतली विसंगती ही म्हण दाखयता.

'कुंकुर्स चुकल्यार चुकूं पूण खतखतें वाड'. 'कुंकुर्स' म्हळ्यार पुर्तुगेज भाशेंत नोकरी दिवपा पासत घेतिल्ली मुलाखत वा परिक्षा. आयच्या काळांतलो 'इंटरव्यू'. एक मनीस कुंकुर्साक वचपाचो आसलो. पयलिंच्या काळार पयस खंयूय वतनां पेज जेवन भायर सरताले. ह्या मनशाचे बायलेन घरा पावपाक कितलो वेळ लागतलो कोण जाणा हें येवजून आपल्या घोवा खातीर पेज आनी बरें खतखतें केल्लें. घोवाक खतखतें इतलें बरें लागलें कीं आनीक वाड आनीक वाड करीत खतखतें भुरकायत रावलो. हांगा हाका कुंकुर्साक वचपाक वेळ जातालो पूण ताका खंय पर्वा आसली? हांगा बायलेचो जीव सकयल वयर जातालो. बायलेन म्हळें, 'अमूक वरां जालीं, चलात, चलात तुमकां अमूक वरांचेर रेपार्तिसांवांक (ऑफिसांत) पावंक जाय.' पूण हो म्हणटा कसो, 'कुंकुर्स चुकल्यार चुकूं, पूण फुडल्या फावटीं खतखतें अशें उतरतच म्हण कोण सांगतलो?' जेन्ना कोणय आपलें म्हत्वाचें काम सोडून बेजबाबदारपणान वागता, जाका आपल्या कामाची तिशठत नासता, तेन्ना ही ओपार मारतात.

'आलक्याचें काजाक बोलक्यांक घालें'- आलक्याचो कोट बोलक्याक सोबना. एका मनशाक सोबता तें दुसऱ्या मनशाक सोबना. काजाक-कोट

'देस्पेज करून रेस्पेत ना', खर्च करुनूय जेन्ना मान मेळना तेन्ना ही ओपार मारतात. देस्पेज- खर्च, रेस्पेत- मान, आदर हीं दोनूय पुर्तुगेज उतरां.

'दी रेस्पेत घे रेस्पेत'- दी मान घे मान ह्या अर्थाची ही म्हण. जर आपूण दुसऱ्याक मान दिना तर दुसरो आपल्याक कसो दितलो? रेस्पेत- मान, आदर

'दाली व्हडली साग्वाद थोडी'- भायलें आवरण व्हडलें पूण भितरली भेट ल्हान. थोडे ल्हान भेट आसल्यार लेगीत व्हडल्या बॉक्सांत घालून नेट मारतात. पोको झेत. साग्वाद- भेट

'कार्तोरीक लागून सुण्याक मान'-कार्तोर- सेक्रेटरी, पुर्तुगेज काळार हाका खूब मान आसलो. ताका सगळे भिताले. देखून ताचे वांगडा आशिल्ल्या ताच्या सुण्याक लेगीत लोक मान दिताले. आतां राजकी फुडाऱ्यांच्या कार्यकर्त्यांक दितात तशे.

'जोर पादिगाराक पेज सोमेस्तांक'- म्हाळ पैक जोर सगळ्या गांवाक पेज ह्या अर्थाची ही म्हण. पाद्रव्हिगार हो गांवचो एक म्हत्वाचो मनीस. ताका जोर येतगीर पेज दितात म्हण आदरान गांवचो सगळो लोकच पेज जेवतालो. पाद्रव्हिगार - पादिगार हें पुर्तुगेज उतर.

'सोर्तीर पातयेता तो वाऱ्यार घर बांदता'- जो आपूण सोर्त फुट्टली आनी आपूण गिरेस्त जातलों हें येवजिता, तो वाऱ्यार घर बांदता वा सपनांत जियेता. सोर्त- लॉटरी - पुर्तुगेज उतर

'आदलोच पाद्री व्हिगार बरो'-जेन्ना आपले कडेन जी वस्त आसता तेन्ना आमकां दुसरी वस्त जाय आसता. आपले कडेन आसता ताचे परस ती बरी आसत अशी आस्त आसता. पूण नवी वस्त मेळटगीर आपले कडेन पयलीं आशिल्लीच वस्त बरी दिसता. एक गांवांत एक पाद्री व्हिगार आसलो. गांवांत ताच्यो खूब कागाळी आसल्यो. लोकांनी हो पाद्री व्हिगार बदलून नवो धाडपाची मागणी केली. पूण जेन्ना नवो पाद्री व्हिगार आयलो पूण तो पयलीं परस वायट अशें लोकांचें मत जालें. तेन्नाच्यान ही ओपार वापरांत आयली.

ह्यो आसल्यो पुर्तुगेज भाशेंतलीं उतरां आशिल्ल्यो कांय कोंकणी म्हणी.

●●●

मडगांव © 9923306751

# कविता

## काळखा-चान्न्याच्यो

1.
काळोख म्हळ्यार
रसरशीत चान्नें
उमाशेचे रातीक फुटिल्लें
2.
भर उमाशेचे मद्यानेर
चान्याचो
गर्भ-सुवाळो
3.
काळखाचें उतर
भांगरान बांदचें
चान्यान तोलचें
4.
काळखाक धार
चान्याची
रेंदेराले कातयेची
5.
काळोख
साद घालतना
सरभोंवतणी पातळटा तें
चान्नें !
6.
उपाट
काळखाच्या मोन्या उतरांक
चान्याची देग
7.
पुरो
म्हळ्यार लेगीत
केन्ना केन्ना
कोळोख पोशांत एकसारको
चान्ने
ओंपीत रावता
8.
दोळे
ताठ करून बारीकसाणीन
पळेल्यार फुडली सगळी वाट
काळखांल्या चान्याची
धवीफुल्ल!

●●●



**शंकर रामाणी**
(२६ जून १९२२ - १८ नोव्हेंबर २००३)
(जन्मशताब्दीची याद)

## पाचवेचार सप्न

कुपाकुपांत जोगलां वारें
मिर्गा-मळबाक लागल्या धार
उबलेल्या वेगेंत तुज्या
सप्न म्हजें पाचवेंचार

माणकुलो हो घोंटेर म्हजो
वतलो जाल्यार उबून वचूं
पाचव्याचार स्वनातळा
पिसुडलेली जीण वचूं...

●●●

## दिस्टावो

काळजाच्या काळखांत
फांतेल्लें मळब
उजवाडाची ऊब
अमुरपिकी

भिरभिरतीं पावलां
नागडी नदर
उदेंती-उतर
भांगराचें

उजवाडाचो उजवाड
ल्हारेता ल्हार
मोनेळीक भार
दिश्टाव्याचो

●●●

## पाचवो तोरो

निकर्तेंच आयिल्लें मळबार कूप
वाऱ्यार खंय उबून गेलें?
सकाळचें एक तन्नें किर्ण
मेकळें हांसत दारांत आयलें

निर्शेलेली काळखी रात
पुनवेच्या भासांत न्हाली
कर्पलेल्या जिणे- तेंगशेर
हळूच येवन सुकणीं बसलीं

आयज अवचित मेकळो वारो
उक्तें मन, जीव धालो
ताळये ताळयेर फुलता नवो
चैत्राचो पाचवो तोरो

●●●




## ती

आकवारपणाची
पाचवीचार पिराय हुंपचे आदींच
दांडग्या वाऱ्यान
मस्त्या आडोळ्या पावसाचें
नस्तें निमित्त करून
नेमान मायेमोगान केल्ल्या शिंपणेन
वाडयल्ल्या पोरसांतल्या केळीवरी
तिगेल्या जुवानपणाच्या वमान्तर
जोगुलसो शेंवटून तिगेलें
अख्खें आयुश्य नश्टें-भश्टें केलें

तिची
म्हजी वळख ना
ना देख
पुणून एक दीस न्हिदे भरार
काना मनाच्या देगेर
घुंगुल्लोसो एकसारक्या भोवन जाल्ल्या
अर्दजागृत भासान नकळटांच हांवें
तिगेल्या घराचो हुमरो हुपलो
तेन्ना
उक्त्या जनेलांतल्यान हांवें ओळखेली ती
गांवातल्या फांतोड्डे उदेंतेक फुटिल्ली
मात्शी तामशीर
मात्शी गुलाबी झांक
गंगानिर्मळ
एक आगळोवेगळो निष्कलंक उजवाड
दिगंतराच्या दिकेन झोंपय घेतिल्लो...
ती मात थंय खंयच दिसली ना!

●●●

## पाचवें रान

आयल्ली दडक
भिजून गेलें
पाचवें तुजें रान गो
पाचवें तुजें रान....
दाव्या दोळ्यान
देखलें आनी
सुटलें म्हजें भान गो
सुटलें म्हजें भान....

●●●

माधव बोरकार

## रिणानुबंधना

पाख्यार घराच्या कोंसळ्ळी दडक
जाली ओली माती खोल हुंगतना
पानेलीं झाडां दिको गेल्यो बुडून
असली धर्तरी दानां मागतनां
अनंत हातांनी खुंटलो हांवें म्हाका
व्हांवले गात्रांनी लक्ष शुन्य दोळे
दोंगरा माथ्यार उजवाडली जाग
दिवेलावणेर रंद्रांनी चंद्र उदेलो

काळजाच्या थावाक अथांगाचो थांग
मातयेचो गर्भ सुखांनी पोसवतना
मुक्त थंय हांव कुडिच्याय वेगळो
फेडून सगळीं रिणानुबंधना
20-05-1974

●●●



## घर सोडटना

घर सोडटना
फार्टी पळयतना
दिसता
रिकाम्यो आनी
कवितांनी
भरिल्ल्यो डायऱ्यो
भिरकटायल्ले
कागदांचे तिरांटे
भुरग्यांचीं
मोडिल्लीं खेळणीं
आनी कितलें तरी
खटर खुटूर

मन रितें
करतना
दवर्चीं फाटीं
काळजाक घाय घाल्लीं
उणीं दुणीं उतरां
कारणा शिवाय
आपणें
दुसऱ्याक केल्ले डंख
येतना
रित्या पोशांत
झडिल्ले

प्राक्तनाच्या खिणांचो
पावस
आकांताळें मोड
येवन वतकच
नितळ जावंचें
तशें मन

मुंबय-06-04-2022

●●●

आर. रामनाथ

## हांव उदेलां

तूं निद्रिस्त
- आनी तुजी नदर
म्हजे नदरेंत कैद ...

तूं मेजता
म्हजीं दुकां
तूं पळयता
म्हजो काळोख
म्हजी छिन्नविच्छिन्न वळख
म्हजीं उध्वस्त सपनां
म्हजें वेर गेल्लें मळब
म्हजो सुनामीग्रस्त सैम
आनी खूब्ब किदें!

उठ,
प्रिये उठ.
हांव उदेलां ...

●●●

सुषमा तिळवे

## ना

'ना' हें एक परिपूर्ण उतर
विचारांची बसका आशिल्लें .
'ना' ह्या एका उतरा भितर
खूब किदें लिपिल्लें आसता.
'ना' हें उतर समजून घेवपाक
व्हडलें काळीजूय लागता.
'ना' म्हणपाक धिटाय लागता
तशेंच एक निश्चेव लागता
'ना' हें उतर पचोवपाक
खूब जड वता
कोणालो अहंकार दुखावता
ना तर कोणाली भावना दुखावता
ह्या उतराचो मान राखलो
तर .......
संवसारातले कितलेशेच प्रस्न
सुटावे जातले

●●●



# वाढदिसाची एक अप्रुपाची भेट




दत्ता
दामोदर
नायक

मूळ इंग्लीश

कोंकणी अणकार



मानसी धाऊस्कार


रायनाचो वाढदीस एका म्हयन्याचेर येवन तेकिल्लो. ताच्या घरच्यांनी तो मोठ्या दबाज्यान करपाचें चिंतलें.गयनान गोंयच्या आनी विदेशांत आशिल्ल्या आपल्या सगळ्या चुलत भाव-भयणांक आपोवणें धाडलें. बिंगो, लैतांव, चानी आनी मिठू हे सगळे हेर जंगलइश्टां सयत वाढदिसा पासत पुण्याक आयिल्ले रायनाक जाय आशिल्लें.

म्हणटकच ताणें एल्मोक फोन केलो आनी सांगलें, "नानू, तू म्हज्या वाढदिसाक पुण्याक येतलो पळय, तेन्ना तूं वांगडा म्हज्या सगळ्या जंगलइश्टांक हाडूंक शकता? म्हजे पुण्यांतले सांगाती तांकां मेळूंक सोदतात."

एल्मोचो आपले नातीचेर खूब मोग आशिल्लो. म्हणटकच ताच्या वाढदिसाक ताची इत्सा पुराय करूंक ताका आवडपाचें! देखून ताणें तीन व्हडले ट्रक भाड्यान घेतले. तातूंत हती, वाग, बिब्टे, मोर, हरणां, वांम्वेलां, तशेंच फनी, बनी आनी सनी ह्या माकडांकूय भरले. हेर सगळ्या शेवणी इश्टांनी उडत उडत पुण्याक वचपाचें थारायलें. वाढदिसा पासत गोंयच्यान आपलीं आजी-आजो पुण्याक येतात म्हण रेहान आनी रायना सामकी उचंबळीत जाल्लीं.

"म्हजे भयणीच्या वाढदिसाक म्हजो नानू येता." रेहानान आपल्या इश्टांक बातमी दिली.

"म्हज्या वाढदिसाक म्हजो नानू येता." रायनान आपल्या संवगड्यांक सांगलें.

"तुमकां दोन दोन नानू आसात?" तांचो इश्ट पंकजान

सादेपणान विचारलें .

“ ना,ना. आमकां दोगांकूय मेळून एक नानू आनी एक नानीच आसा.” रेहानान सांगलें.

“ नानू, येतना बरीऽशी काणी तयार करून यो आं! म्हजो बर्थ डे केक कापल्या उपरांत तुवें म्हज्या सगळ्या इश्टांक ती सांगूक जाय.” रायनान फोनावेल्यान नानूक कळयलें.

पुण्यांतल्या रेसिडेन्सी क्लबांत रायनाच्या वाढदिसाचें आकांताचें आयोजन केल्लें. रायनान सुंदर असो जांबळो ड्रेस घाल्लो. ताणें केंसांक तांबडेंच रिबीन बांदिल्ल्यान तें सामकी परी कशें सोबतालें. रेहान आनी रणविरान सूट मारिल्लो, जाल्यार मायरा आनी अवंतीन सलवार कमीज घाल्लें. खुशी, नाताशा, आनी अनुष्कान पॅन्ट आनी शर्ट चडयल्लो जाल्यार आरुष आनी मानवान काळ्या जिन्सांचेर धवे टी-शर्ट घाल्ले.

बिंगो,लैतांव आनी चानी हांणी घाल्लीं रंगीत कॅपां पळोवन रायनाच्या सगळ्या इश्ट-इश्टीणींची सामकी मनरिजवण जाली. मिठ्ठू रंगरंगयाळें ल्हानशें चेपें चडोवन लैतांवाचे फाटीर बशिल्लो.

रायनान आपल्या संवगड्यांक ज्योक्स सांगपाक सुरवात केली. तेन्नाच ताचे जंगलइश्ट थंय पावले. गज्जू हती, शेरा वाग, भालू वांस्वेल, मृग हरण, फनी, बनी आनी सनी हे माकड तशेंच हेर सगळे प्राणी ट्रकांतल्यान सकयल देंवले.

“हे, हे वयर मळबांत पळयात.” बोटान वयर दाखयत रेहानान म्हणलें. मळबांतल्यान कीर, साळोन्यो , पिटोळ्यो, चिमण्यो, घोणी, किरकिरे, कोगळां असल्या कितल्याच शेवण्यांचें भिरेंच उडत आयिल्लें.

सगळ्या शेवण्यांनी आनी प्राण्यांनी रायनाक ताच्या वाढदिसाचीं परबीं भेटयलीं. मागीर सगळीं वाढदिसाचो केक कापपा पासत एकठांय जालीं. रायनाच्या वाढदिसाक मोन्जिनिसाचो ताजे क्रिमीचो सुवादीक आनी रुचीक अणसां केक हाडिल्लो. रायनाच्या सगळ्या संवगड्यांक, प्राणी आनी शेवणी इश्टांक लेगीत तो केक खूब्ब आवडलो. मागीर रायनाचे आवयन सगळ्या सोयऱ्यांक रुच्चीक अशे सॅन्डवीच, सामोसा, जिलेबी आनी ज्यूस दिलो.

आतां खीण आयिल्लो नानून काणी सांगपाचो.

“नानू, आतां आमकां व्हडलीशी काणी सांग.” आरुषान सांगलें.

नानू तर तयारींतूच आशिल्लो. ताणें काणी सांगपाक आरंब केलो.

ही सोफी नांवाचे एके चलयेची काणी. ती जोजेफ आनी जॅकलीन हांची एकलीच धूव. तीं गोंयच्या माजोड्याॅ ह्या गांवांत रावतालीं. जोजेफाचो गोंयचें नुस्तें हवाबंद डब्यांनी भरून निर्यात करपाचो धंदो चलतालो. ताणें आपल्या कुटुंबाक एक सुखी जिवीत सारपा पासत गरजेची सगळी तजवीज त्या धंद्यांतल्यान करून दवरिल्ली.

सोफीचो धा वो वाढदीस जेन्ना लार्गी पावलो तेन्ना जोजेफ आनी जॅकलिनान सोफीच्या वाढदिसाक ताच्या सवेच्या वर्गांतल्या भुरग्यांक आपल्या बंगल्यार आपोवपाचें थारायलें.

सोफी मडगांवच्या मॉडेल इंग्लीश स्कुलांत शिकतालें. ताच्या वर्गांतलीं करण, रायना, अब्दुल, परमजीत, प्रकाश आनी मारिया बी सगळीं इश्ट-इश्टीणी बर्थ डे पार्टेक आयलीं. तांणी आपले वांगडा सोफी पासत सुंदर अश्यो वाढदिसाच्यो भेटवस्तू हाडिल्ल्यो. सोफीच्या आवय बापायनूय तांकां घरा वतना भेटवस्तू दिल्यो. बर्थ डे पार्टी उलगल्या उपरांत सगळीं भुरगीं खोशयेन आपापल्या घरा वचूंक गेलीं.

रात जातकच सोफी न्हिदपाक वचपाची तयारी करतालें तेन्नाच जॅकलिनाच्या लक्षांत आयलें, आपणें सोफीचे एके इश्टीणीक पार्टेक पळोवंक ना. तेन्ना ती सोफी लार्गी गेली आनी विचारलें,“ सोफी, तुवें फातिमाक आपोवंक नासलें गो? फातिमा आनी तू तर वर्गांत एकाच बांकार बसतात! हांवें आयकल्लें फातिमा बरें नाशिल्लें आनी ताचो बापूय फक्रुद्दीनभाय ताका घेवन मुंबय त्रातामेंताक



गेल्लो. आतां तें बरें जावन घरा आयलां म्हणपाचें आयकल्लें हांवें. तुवें ताका आपोवपाचें न्हय गो!"

" ताचीं आनी म्हजीं झगडीं जाल्यांत." नाक फुलयत सोफीन जाप दिली आनी तें सरळ हांतुणार पडलें. ताचो अकस्मात मूड गेलो म्हणपाचें दिसतालें.

आपली धूव अपसेट जाल्ली पळोवन जोजेफान आपले बायले कडेन वळून विचारलें, "जॅकलीन,तुवें सोफीच्या वाढदिसाक ताका कित्याक तापयलें गो?"

जॅकलिनाक आपली चूक उमगली आनी वायटूय दिसलें. मागीर तिका कितें तरी येवजलें आनी तिणें जोजेफाक म्हणलें," आरे, आमी सोफीक बर्थ डे गिफ्ट हाडूंक विसरलीं देखून ताका राग आयला."

जॅकलीन आनी जोजेफ सोफीच्या बेडा लागीं गेलीं. आनी ताणी म्हणलें," डार्लींग,आमी तुका बर्थ डे गिफ्ट हाडली ना म्हूण तुजी चूक मागतां. तुका ती केन्ना जाय तितलेंच आमकां सांग. आमी तुका पणजे जें हालींच नवें मॉल उगडलां न्हय, थंयच्यान सोबीत अशी बर्थ डे गिफ्ट हाडटां."

तरीय सोफी अजूनय आपल्या मम्मी-पापाचेर रागार आशिल्लें. ताणें जाप काडली ना.

जोजेफान सोफीच्या खांदार मोगान हात घालो आनी म्हणलें, "सोफी, बाय आमकां सांग. तुका कितें जाय ? कितलेय दुडू पडूं ,आमी तुका तें हाडटात."

तशें सोफीन आपल्या आवय-बापाय कडेन पळयलें आनी विचारलें, "पापा, मम्मी हांव सांगतां तें गिफ्ट तुमी म्हाका दितलीं? प्रॉमीस ?"

"येस बेटा! तुका जाय तें गिफ्ट आमी तुका दितलीं. आमी तुका उतर दितां." ताणी सोफीक सांगलें.

म्हणटकच आपल्याक कितें जाय तें आपूण फाल्यां सांगतां अशें तांकां सोफीन सांगलें आनी तें न्हिदूंक गेलें.

दुसरे दीस आयतार आशिल्लो. सोफीचे आवयन ताका गरम गरम उदकान न्हाणयलें आनी ताचे लांब केंस बरेऽ करून उगयले. मागीर सोफीन सुंदर असो ड्रेस चडयलो आनी तें आपल्या आवय-बापाय वांगडा आयतारा मिसा पासत इगर्जेंत गेलें.

मिसाक साकून घरा परततना जोजेफान परत एक खेप कितें गिफ्ट जाय काय म्हूण सोफीक विचारलें.

सोफीन सांगलें," पापा, तू बाजारांत वच आनी बार्बेराक घेवन यो. ताका म्हजे हे लांब केंस मारून म्हाका खडडें करूं दी. म्हज्या वाढदिसाक हीच गिफ्ट म्हाका जाय!"

" म्हजे धुवे, तू कितें पिशें जालां?" जॅकलिनान विचारलें.

" म्हणटकच मम्मी म्हाका उतर दिल्लें तें तू मोडूंक पळेता?" सोफीन तिचेर नदर मारीत म्हणलें.

सोफी कितलें हट्टी तें जोजेफाक खबर आशिल्लें. म्हणटकच तो माजोर्डेच्या बाजारांत गेलो आनी बार्बेराक घेवन घरा आयलो. ताणें सोफीचे केंस तासून ताका खडडें केलें.

दुसरे दीस सोफिच्या मम्मी डॅडीन सोफी वांगडा

ताचे स्कुलांत वचपाचें चिंतलें. तांकां खबर आशिल्लें, सोफीक खड्डें जाल्लें पळोवन ताच्या वर्गांतलीं भुरगीं ताका चाळयतलीं म्हूण!

सोफी वर्गांत भितर सरले बराबर फातिमान धावत येवन ताका वेंग मारली.ताच्या दोळ्यांतल्यान व्हावपी दुकां गालावेल्यान सकयल गळटालीं.

फक्रुद्दीनभाय फातिमाक पावपाक आयिल्लो तो थंयच आशिल्लो. जोजेफाक पळोवन तो ताचे सरीं आयलो आनी ताणें जोजेफाक म्हणलें,''जोजेफभाय,मेरी लडकी के लिए आपके लडकीने कितना सॅक्रिफायस किया!''(तुजे धुवेन म्हजे धुवे पासत कितलो त्याग केलो.)

फातिमाक रक्ताचो कॅन्सर जाल्लो आनी वखदांक लागून ताच्या माथ्या वयले केंस गेल्ले आनी तें खड्डें जाल्लें. ताका लागून वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं ताका चाळयतालीं. देखून फातिमाक तेंको दिवपा पासत सोफीन आपलेय केंस तासून खड्डें जावपाचें थारायल्लें.

जेन्ना जॅकलिनाक ही गजाल कळ्ळी तेन्ना तिचे दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावूंक लागलीं.

दुसरे दिसा करण आनी अब्दुलय खड्डे जावन वर्गांत आयले.

तें पळोवन आपूणय खड्डो जावन स्कुलांत येतलों अशें परमजितान थारायलें. देखून ताणें घरा पावतकच आपणाकूय खड्डो जावंक जाय म्हणपाचें आपल्या आवय-बापायक सांगलें.

''पूण बेटे, आमच्या शीख धर्मांत केंस कापप म्हणल्यार पाप थारता.'' ताचे आवयन हरप्रितान ताका सांगलें.

तेच वेळार परमजिताचो बापूय, हरबिंदर घरांत भितर सरलो. ताणें आवय-पुता मदलें उलोवप आयकलें. ताणें परमजिताक गुरू नानक साहीबाच्या फोटवा कडेन व्हेलो. गुरू नानक हो शीख धर्माचो संस्थापक आनी पयल्या धा शीख गुरूं मदलो पयलो गुरू. हरबिंदरान गुरू नानकाच्या पांयजेला सामकार हात जोडले आनी प्रार्थना केली,''साहीब, एका पुण्यकार्या पासत म्हजो पूत केंस कापूक सोदता. आमकां मान्यताय दिवन आमचेर आशिर्वाद घालचो.''

मागीर तांणी परमजिताचे केंस कापले.

अशे तरेन शेनवार मेरेन वर्गांतलीं सगळीं चले चलयो आपूण जावन खड्डीं जालीं.

आयतरा 14 आगोस्ताक तांची क्लास टिचर रोजी आपली हेअर ड्रेसर हेलेना कडेन गेली.

''यो रोजी यो, हांव तुकाच रावतालें. तुजें काजार सामकें पंदरा दिसांचेर पावलां न्हय? तुजो न्हवरो सेराफीन लंडनच्यान केन्ना पावता तर? तुजी व्हंकलेची हेअर स्टायल केन्ना करपाची तें थाराय आं!'' हेलेनान ताका सांगलें.

'' हेलेना, आयज हांव हांगा आयलां एक वेगळे तरेची हेअर स्टायल करूंक! हांव म्हजे पुराय केंस तासपा पासत हांगा आयलां.प्लीज म्हाका खड्डें कर.'' रोजीन सांगलें.

''तकलेन सुटलां गो रोजी? हांवें आयकलां तुज्या वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं खड्डीं जाल्यांत म्हूण! तुवूय तांचे भशेन करता? मतींत दवर रोजी, तू व्हंकल जावपाचें आसा. तुका अशें खड्डें जाल्लें पळोवन सेराफीन तुजे लागीं काजार जावंचो ना.'' हेलेनान ताका समजायलें.

'' हांव कशें दिसतलें हाचें म्हाका पडून गेल्लें ना हेलेना. जर सेराफीन म्हजो खरोच मोग करता जाल्यार हांव कशें दिसता हें पळय नासतना तो म्हजे लागीं काजार जातलो. आनी जरीय ताणें म्हाका न्हयकारलें जाल्यारय म्हाका पर्वा ना. तो कसलो मनीस तें तरी म्हाका कळटलें!'' रोजीन जाप दिली.

हेलेनान रोजी टिचरीचे केंस कापले आनी ताका खड्डें केलें.

सोमारा 15 आगोस्त जाल्ल्यान स्वातंत्र्य दिना निमतान तिरंगो बावटो उबोवपाची कार्यावळ आसली. प्रिन्सिपल इजाबेल आपली म्हयनोभराची रजा सोंपोवन आयजूच शाळेंत रुजू जाल्ली.



प्रिन्सिपल इजाबेलान तिरंगो हुबयलो आनी सभेक फुडो केलो. तिणें आपली नदर स्कुलांतल्या पुराय वर्गांतल्या भुग्यांचेर फिरयली आनी ती सवेच्या वर्गाचेर थिगवली. सवेच्या वर्गांतलीं सगळीं भुग्गीं आनी तांची वर्गशिक्षिका केंम तासून खड्डीं जाल्यांत म्हणपाचें तिका दिसलें.

" हो कितें निशेध मारपाचो प्रकार बी न्हय मू?" एजाबेल चिंतूक पडली.

प्रिन्सिपल इजाबेलान शेजराकूच उबे आशिल्ले रोजी टिचरीक लागीं आपयली आनी हें कितें चल्लां काय म्हूण खबर घेतली. टिचर रोजीन शाळेंत जें कितें घडलें ताची सगळी खबर प्रिन्सिपलाक सांगली आनी आपले सुवातेर वचून उबी रावली. मागीर राष्ट्रगीताक आरंभ जालो. सगळ्यांनी शिस्तींत आनी एका सुरान गायलें:जन गन मन अधिनायक जय हे...पंजाब सिंध गुजरात मराठा...

राष्ट्रगीतांतले शब्द स्कुलाच्या पुराय कॉरीडरांत गाजताले तेन्ना प्रिन्सिपल इजाबेलाची नदर सवेच्या वर्गांतल्या करन, रायना, सोफी, फातिमा, परमजीत, अब्दुल आनी रोजी टिचरीचेर फिरताली आनी तिच्याय गालार दुकां गळटालीं.

जेन्ना काणी सोंपली तेन्ना सगळ्या भुग्यांचे दोळे भरून आयिल्ले. फकत मायरा एका कोनशाक बांगी बसून आशिल्लें.

"मायरा,तू थंय कितें करता?"एल्मोन विचारलें.

"हांव मागणें करतां एल्मो." मायरान म्हणलें.

" तू कोणा पासत मागणें करता, मायरा?" एल्मोन विचारलें.

" म्हाका फातिमा वाचिल्लों जाय," मायरान जाप दिली.

तसो एल्मो मायरा कडेन गेलो. ताणें मायराक वयर उखल्लें आनी ' म्हजें शानू-गुनू तें 'म्हणत ताच्या दोनूय पोल्यांची ताणें पापी घेतली.

" नानू, फातिमा आसा न्हय आतां?"रायनान विचारलें.

" हय रायना. फातिमा बरें जालें आनी तें शिकून बिकून खूब व्हडलें जालें." एल्मोन ताका सांगलें.

इतल्यांत बिंगो, लैतांव आनी चानी शेंपडी हालयत मुखार आयलीं. वयर सुवात मेळटा थंय बसून आशिल्ल्या शेवण्यांनीय वेगवेगळे आवाज काडून आपले पांखाटे फडफडायले. जंगल इश्टांनीय एकाच सुरांत तरांतरांचे आवाज काडले. तांकांय काणी आवडल्या म्हणपाचें ते एल्मोक सांगताले.

" एल्मो, आमकां तू खूब खूब आवडटा. वुई लव यू!" सगळीं भुरगीं आड्डलीं.

"आय लव यू ऑल टूऽऽ" एल्मोन तांकां म्हणलें आनी सगळ्या भुरग्यांक वांगडाच वेंगेंत घेतलीं.

बर्थ डे पार्टी उलगल्या उपरांत सगळीं भुरगीं, प्राणी आनी शेवणीं आपापल्या घरा परतलीं. वतना तीं वांगडा सारिल्ल्या ह्या सुंदर खिणांच्यो यादी घेवन गेलीं.

"गुड बाय एव्हरीबडी, आमी रोखडींच परत मेळुयां..!!"

एकमेकाक हात हालयत सगळीं उमेदीन एकमेकाक सांगतालीं.

(सोंपता)

•••

म्हापशें ✆ 8788595022

# पिन्टूची मनभोंवडी

## कोरोना काळांतले पिन्टूचे इश्ट

-३-

करोनाचो काळ इतले उबगणीचो आसतलो हाची कल्पना पिन्टूक नाशिल्ली. पिन्टूक शाळेक सुटी आसप आवडटा. तशें तें सगळ्यांकूच आवडटा. सुटी म्हणटकच मज्जा! पूण ही अशी सक्तीची सुटी? नाका रे बाबा! ते परस ती शाळाच बरी! एकलो तो मारकुटो गणितांचो सर सोडल्यार बाकिचे सर, टिचरी सामक्यो बऱ्यो. तांचो वर्ग सामको उमेदीचो आसता. चिअरफूल! तसो गणितांचो सर वायट न्हय सभावान! बरो पूण पळोवंक वायट दिसता! तो तिरसो आनी तातूंत ताणें मिशयो दवरल्यात. तो दुसऱ्यांक पळयता तेन्ना पिन्टूक दिसता तो आपल्याकूच पळयता. मागीर पिन्टूक आपलें शिकयता ताचेर लक्ष आसा अशें दाखोवंचें पडटा. इतलेंच सोडलें जाल्यार बाकीचें सगळें बरें!

पिन्टूचे मित्रूय सामके बरे. पुतूल, नुतूल बी ताच्याच वर्गांत आसात. तांचे वांगडा पिन्टूचो वेळ सामको बरो वता. पूण आतां सगळें बंद! केन्ना सुरू जातली काय शाळा? पिन्टूक प्रस्न पडटा!

तसो पिन्टूचो घराकडेन दीस बरो वता. ताची आजी आनी आजो घरा कडेनूच आसतात. तीं पिन्टूक



सांगतात-

"पिन्टूऽऽ,हांव तुजी आजी न्हय आं! हांव तुजी मैत्रिण! नुतूल,पुतूल बी आसात तशी!" आजी ताका सांगता.

" आनी हांव तुजो मित्र रेऽऽ पिन्टू, जॉन,रेहमान, विनोद बी आसात तसो!"

आजोय आपलें म्हूण सांगता मागीर. तें आयकून पिन्टूक हांसूंक येता. हीं म्हातारीं! हीं कितें धांवतलीं म्हजे वांगडा विनोद आनी रेहमाना वरी! धोंपरां फोडून घेतलीं त्या जॉना वरी! पूण तो तांकां कांयच म्हणना. जाणटीं जालीं तरी दोगांय पिन्टूक खूब आवडटात. आजी काणयो सामक्यो तोर्राद सांगता. आजो बरे बरे जोक्स सांगता. 'हें पुस्तक वाच, तें पुस्तक वाच' म्हणत पुस्तकांचीं नांवां सांगता आनी मागीर आपूण वचून आड पडटा. दिसभर म्हूण कितें तांच्यो काणयो आयकप! पुस्तकांय म्हूण कितें दिसभर वाचपाचीं, शाळा ना म्हूण! तरी बरें तो चिमणो, ती चिमणी, तो कावळू अदीं मदीं येवन गजाली सांगतात! आतां खंय गेलीं हीं सगळीं?

वारांदांत बशिल्लो कडेन पिन्टू भायर नदर मारता.



दिलीप बोरकार
साहित्यकार,ज्येश्ठ पत्रकार आनी
बिम्ब मासिकाचे मुखेल संपादक

वयर मळबात पळयता. झाडार आगकायेन तेळटा. पूण नाच जाल्यांत शीं! हीं म्हज्या हातांत खावंक आसता तेन्नाच येतात काय किते? पिन्टूक दुबाव मारता. कावळूक आपल्या हातांतली चपाती रोखडी नदरेक पडटा. भुर्रर करून येवन मुखार बसता. सांगपाक जाय म्हूण कितेंय सांगता. मागीर व्हडलोसो चपाते कुडको घेवन वता.



पिन्टूक ताचो दुबावूच मारूंक लागला. ह्या दिसांनी कावळू आपल्याक दिता तें खा व न ओग्गी रावना. आपले चपातेचो कुडको आपल्या पांयां पोंदा धरता आनी हांगां थंय मान घुंवडायत कांऽऽ कांऽऽ करता. मागीर ताचे दोग इश्ट येतात. तांकांय मागीर घालची पडटा चपाती. तांकां घातले बगर, तांणी खाले बगर कावळू आपूण चपाती खायना. मागीर मम्मी भितरल्यान आड्डता,"खावयली मरे सगळी चपाती कावळ्यांक?"

आतां ती चपाती केदी आनी ते कावळे केदे!

" मम्मा, चपाती मातशी व्हडली कर! पावना तांकां ती!"

" आरे ती तुका केल्या चपाती, बरें साजूक तूप लावन. ती तूं कावळ्यांक खावयता?"

" मागीर तांकां कितें घालूं? "

" तांकां रातची चपाती आसा. ती व्हरून घाल."

"पूण ती शेळी."

" तांणी शेळीच खावपाक जाय. व्हाऱ्या वयलें उश्टें बिश्टें खावप हेंच तांचें काम!"

मम्मा मागीर भितरल्यानूच ह्या कावळ्यांचें कितें काम तें सांगता.

तें तिणें कित्याक सांगूंक जाय? कावळ्न तें तर ताका केन्ना सांगलां. मम्मी कितें उलयता ताचेर मागीर पिन्टू लक्ष दिना. तो भायर आशिल्ल्या रुखाचेर नदर मारीत आपल्या इश्टांक सोदता.

इतल्यांत त्या रुखा वयल्यान एक चानी सुर्रर करून सकयल देंवता. परत सुर्रर करून वयर वता. मागीर एके खांदयेर रावून आकांतान कशी 'चिंग,चिंग,चिंग चिंग चिंग' करीत रावता. पिन्टू तिचे कडेन पळयत रावलो. ती चिंग चिंग करता तशी आपली शेंपडी वयर सकयल करताली. चिंग...शेंपडी वयर..चिंग चिंग...दोनदां शेंपडी वयर...चिंग चिंग चिंग चिंग..शेंपडी पट पट करून सकयल वयर सकयल वयर! पिन्टूक अजापूच दिसलें. तो तिचे कडेन पळयत रावलो.

" पिन्टूऽऽ ती चानी कित्याक रडटा ती पळय?" आज्यान भितरल्यान पिन्टूक साद घालो.आजो पुस्तक वाचूंक बशिल्लो. वाचन करतना ताका असलें डिस्टर्बन्स उपकारना. ताचें लक्ष लागना.

" ती रडना. गायता ती!" पिन्टून मोठ्ठ्यान सांगलें आनी तें चानयेचो आवाज बारीकसाणीन आयकूंक लागलो. इतलें म्हणसर हातांत पुस्तक धरूनच आजो

भायर आयलो.

"गावप आनी रडप हातूंतलो फरक सोदून काडूंक जाय शाण्या!" पिन्टूच्या केंसांतल्यान हात भोंवडायत आज्यान म्हळें आनी वारांदांतल्यान मान भायर काडून हांगां थंय पळोवंक लागलो. आजो कितें पळयता तें पिन्टू पळोवंक लागलो.

आज्याक झोंपानी कितें तरी दिसलें. तो हातांतलें पुस्तक वावडीत हर्र हर्र करूंक लागलो. तितल्यांत त्या फुलांच्या झोपांतल्यान एक माजर पुटूक करून भायर सरलें आनी ताणें उडक्यो मारीत फुज्यो काडल्यो. त्या बराबर चानयेन फाटल्या पांयांनी झाडाचे फांदयेक घट्ट धरलें आनी फुडले पांयांनी हुमकळत परतून मोठ्ठ्यान बोवाळ घालो,'चिंग..चिंग...चिंग,चिंग..चिंग...चिंग... चिंगीक चिंग!'

"आगे वोगी राव आतां! गेलें तें!" अशें म्हणत आजो भितर वचूंक लागता. पिन्टूक कितें जालें तें कळ्ळें ना.

"कोण गेलें म्हूण सांगलें रे तुवें ते चानयेक? ती कित्याक रडटाली रे आज्या?"

आज्याच्या हाताक हुमकळत कसो रावून पिन्टू आज्याक विचारता.

"आरे, ते चानयेन त्या रुखार पिलां काडल्यांत आसतलीं! हें मांजर झाडार चडून तांचीं पिलां खाता आसूंक जाय वा तें खायत म्हूण ती चानी भियेल्या बी आसत!"

आज्यान ताका सांगलें खरें,पूण माजर झाडार चडटा आनी चानयेचीं पिलां खाता म्हणपाचें ताका खबर नाशिल्लें.

पिन्टून झाडार चानयेचो घोंटेर दिसता काय म्हूण पळयलें. पूण ताका तो खंयच दिसलो ना. ताणें मागीर आपल्या हाताच्या बोटांचें वक्ल केल्लेवरीं दुर्बीण कशी केली. ती तशी करपाक ताच्या आज्यानूच ताका शिकयल्लें. ती दोळ्यांक लावन ताणें परतून झाडार नदर भोंवडायली. ताका झाडा वयल्या खाकोळांत एक घोंटेर दिसलो.

"आज्या, तो पळय चानयेचो घोंटेर! म्हाका दिसलो!" पिन्टू उमेदीन उचंबळीत जालो.

"खंय रे?" पिन्टून बोट केल्ले वटेन आज्यान पळयलें.

"तोऽऽ खाकोळांत दिसता तो मरे? आरे पिश्या तो कावळ्याचो घोंटेर. चानी असो इतल्या उक्ताडार आपलो घोंटेर करिना. तिणें त्या झाडाचे फांदयेंत खंय तरी एक घोल पळयल्या आसतली आनी तातूंत केला आसतलो घोंटेर!"

"मागीर माजराक कसो दिसता तर तो?"

"आरे तें माजर त्या झाडार चडटा आसतलें! तो घोंटेर सोदून काडटा आसतलें! देखून तें नदरेक पडले बराबर ती चानी बोवाळ घालता आसतली! शेवटाक कितलीय जाली तरी पापणीची आवय न्हय रे ती चानी! पोरांच्या हुसक्यान आड्डतलीच!"

पिन्टूचे तकले वयल्यान हात भोंवडायत आज्जेन ताका सांगलें. ती फाटल्यान येवन केन्ना उबी रावली हें ताका कळूंकच नासलें.

"म्हजीय आवय तशीच करता दिसभर. न्ही रे आज्या?"

पिन्टून एक दोळो भितरले वटेन दवरून आज्याक म्हणलें आनी खूक्क करून हांसलो. पूण तें ज्युस्त मम्मीच्या कानार पडलेंच.

"हांव ते चानयेंवरीं चिंग चिंग करिना आं पिन्टू, हांव तुका बरें मोगाळ, म्होवाळ उतरांनी सांगतां...!"

आपले पदराक हात पुशीत मम्माय आतां भायर आयली.

चानी अजून ते खांदयेक हुमकळतूच आशिल्ली. पूण आतां ती हातांत कितें तरी घेवन मोन्यानी तें सोलताली. तिका ते अवस्थेंत पळोवन ताका सर्कशींत झोपाळ्याचेर हुमकळून कसरत करपी मनशाची याद जाली.(चलता..)

पणजी. ✆ 9822136885



# शेशेर दिने

रातभर न्हीद ना. फाल्यां सकाळीं साडे आठ वरांचेर म्हजी गाडी हावडा स्टेशना वयल्यान सुटटली. अलीपूर सावन हावडा स्टेशनार पावपाक ट्रॅमीक उण्यांत उणें अर्दे-पाऊण वर लागता.म्हाकां सात वरांचेर ट्रॅम धरूंक जाय.

हाथरुणांत आड पडलां आसतना हांव प्लॅनींग करतालों. न्हीद पडूंक नाशिल्ल्यान मनाचेर एक तरेचें टेन्शन आसलें. हांवें उशा कुशीक आशिल्ले घडयाळीक हात घातलो. काळखांत तिचे नंबर प्लेटी वयले आंकडे चकाकले. साडेचार वरां जाल्लीं. म्हाकां जर आतां जाम न्हीद लागली जाल्यार मात धांदल जावपाची शक्यताय आसली! मनांतल्या टेन्शनाचें रूप बदल्लें. म्हाकां म्हज्या मनाचें हांसूंक आयलें. खऱ्यानीच आमी विचार करतात न्हय! न्हीद आयली ना म्हणून जें टेन्शन जाता तो एक प्रकार, न्हीद येवपाची शक्यताय आसा म्हणून टेन्शन येता तो दुसरो प्रकार. दोनांचोय मनाचेर ताण. दोनांचेय पॅटर्न थारिल्ले, म्हणून मॅकेनीकल! आमी मॅकेनीकल जीण जगतात न्हय तर? म्हजो कालचो दीस सोंपूकच नाशिल्लो.

वेळ सरतालो. कडकड्याचें शीं आसलें हेमंतांतलें. तशें तें आसतलेंय बी! आंगार चडयल्ली रग पयस करप नाका दिसलें. जनेलाचे फटींतल्यान येवपी वाऱ्याचो झोत म्हज्या पोल्यांक घसटून वतालो. म्हज्या हुनश्यां पोल्यांक स्पर्श करून तो थंड वाऱ्याचो झोत स्वताक हून करपाचो यत्न तर करी नासलो न्ही? असोय एक विचार मनांत सरसरून गेलो.

हांवें मनांतल्या मनांत साडेपांच वरांचेर हांथरूण सोडपाचो विचार केला. म्हणटकूच म्हाकां देड वर तरी तयारी करपाक मेळटलें. तातूंत सकाळीं मगटंकाका कडेन वचपाचें आसलें. थंय सावन भायर सरलों काय ट्रॅम. हांवें परत एकदां घडयाळ पळयली काळखांतच. पावणे पांच वरां जाल्लीं. मन नांवाचे गजालीक काळाचे तिनूय अवस्थेंतल्यान भ्रमण करपाची शक्ती आसली! म्हाकां वगीच नारदाची याद जाली. स्वर्ग,मृत्यू,पाताळ अशे तिनूय अवस्थेंत येवपा वचपाचो नारदमुनीक अधिकार! पुराण काळांतली ही एक अतिमहत्वाची व्यक्तीरेखा. ती खऱ्यांनीच आसली काय ना, तें आयज कोणाकूच सांगप शक्य ना. पूण तिचे एकूण पुराणीक वर्णना प्रमाण ती एक गावपी व्यक्ती आसली. ताच्या गळ्यात एक हुमकळपी तंतूवाद्य. हो मनीस न्हय तो तर विश्वनिर्माता ब्रह्मदेवाचो पूत आसलो. पूण कलाकार आसलो, गायक आसलो, कवी आसलो, संगीतकार आसलो. ताचे मुखार येवपी सगळ्या प्रस्नांक तो विनोदी फोडणी घालून जापो दितालो. चारूय युगांतल्या नारदाच्या अवतारांत तो मनीस नासलो हेंय आमकां कळटा. लोकमनांतल्यान निर्माण जाल्ली ही एक पावरफूल मीथ जावन आसा अशें म्हाका जाल्यार दिसता. लोकमानसान घडयल्लें हें मिथक खूब सुंदर आनी विद्गान जावन आसा. दूख



उदय
देशप्रभू
कोंकणीचे खंदे कार्यकर्ते, अणकारांत पिशाल, जागरूक नागरीक. ह्या सदरांत रमेश वेलुस्कार नवप्रभा दिसाळ्यांत मदर बरयताले तांचो ते अणकार करतात.

नांवाची गजाल ताका खबरूच नासता. दर वेळेक तो प्रसन्न चित्त आसता. सौंदर्य,विद्वत्ता, विनोद, कला आनी प्रवास इतल्या सगळ्यांत तो माहीर! त्या भायर तार्चे म्हज्या मनांतलें वास्तव पळोवन तार्चे म्हाका कौतूक दिसता. असो हो जाच्या-ताच्या मनांत घर करून आसा आनी तितलोच तो भायल्यानूय आसा. नारद ही एक सुंदर संकल्पना अशें म्हाका दिसता. भारतांत ती सगळ्या प्रांतांत आसा. पूण भारता भायर मात ती ना. त्या भायर ती ज्या त्या प्रदेशांत वताली, त्या त्या प्रदेशांतल्या लोकां कडेन ती खंयचे भाशेंत उलयताली जायत? असो एक प्रस्न मनांत येता. म्हटल्यार गंधार देशांतल्यान आयिल्ली गांधारी हस्तीनापुरांतल्या लोकांच्या भाशा समुहांत आयले उपरांत तिचे म्हणून कांय प्रस्न आसतात. असो प्रस्न व्यासाक अजिबात पडूंक ना. तशेंच मद्र देशांतल्यान आयिल्ले माद्रीक अशे प्रस्न नासले जावं येत! थंयच्या लोकांचे माद्री विशीं कांयच प्रस्न नासले जायत घडये! हाचो विचार करतां करतां मनांत कांय नवे विचार येतात. शल्य हो मद्र देशाचो राजकुमार आनी राजा. त्या भायर तो नकूल -सहदेवाचो मामा. मद्रासी सैन्य घेवन हस्तीनापुरांत वचूंक येता. ताका भाशेचो प्रस्नूच नासलो? पटना हें सगळें. एकलव्याची भास आनी द्रोणाचार्याची भास हाचोय प्रस्न आसतलोच. व्यासान ह्या स्थळकाळाची महत्ती लक्षांत घेतिल्ली दिसना. आनी गणेशानय ताका हे विशीं कांयच सांगलें ना हें सगळें चमत्कारीकूच दिसता! त्या भायर अजापार्चे दिसता तें, हें सगळें द्वापर युगांत घडटा, द्वापर म्हटल्यार दुबाव, संशय! घडये असो दुबाव घेवपा सारक्यो ह्यो गजाली द्वापर युगांत आसात काय? असोय प्रस्न मनांत येता.

महाभारता प्रमाण रामायणांतूय भाशे विशीं विचार केल्लो दिसना. कारण लंकेंतल्या रावणाची भास, अयोध्येंतल्या रामाची भास आनी हनुमानाचे वानरसेनेची भास हे विशीं ह्या काव्यांत कांयच विचार केल्लो ना. अशेंय सांगतात की लंकेच्या इतिहासांत रावणाचोच उल्लेख ना आनी म्हणून घडये रामाचोय नासतलो!

विचारांचो काळ आनी तांची गती ह्यो खूब व्यापक आनी तेज गजाली. मनांत कसले कसले विचार येतात..हाचे पयलीं असले विचार येवंक नासले. आयजूच ते कित्याक येताले? काय ते नासलेच!

हांवें घडयाळ पळयली. पांच वरां जाल्लीं. हांव बाथरुमांत वचपाक उठलों. दिवो लायलो ना. उजवाडा खातीर लागीं आशिल्ली टॉर्च वापरली आनी परतून येवन हांथरुणार आड पडलों. सामान पॅक जाल्लें आसलें. भायर फकत आतां घालपाचे कपडे आनी टॉवेल आसलो. हो टॉवेल एकदम पातळ आसलो. प्रवासांत अशे तरेच्या टॉवेलाचो उपेग बरो जाता. हांवें हो टॉवेल खादीग्रामोद्योग भवनांतल्यान घेतिल्लो. म्हजे नित्यकर्म आनी न्हाण तीस मिनटां भितर जावपाचें.

हांव सामको स वरांचेर तयार जालों सव्वा संक सुमार हांव मराठेकाकां कडें गेलों. हॉस्टेलची चावी तांचे कडे दिली आनी म्हाकां अशें दिसलें की, हांव कित्या पासून तरी तुटत वतां. सुमार सतरा-अठरा दीस ही चावी म्हजे कडेन आसली. इतले दीस हांव कोलकोत्यांत आसलों.म्हजें हें हॉस्टेल म्हजें कृपाछत्र आसलें आनी आतां तें छत्र शेणल्या बशेन दिसलें. सुकलेले झाडा वयलें पान सहज गळून पडटा, तशे म्हाका भासलें. मराठेकाका म्हाका सावरता सो म्हाकां भास जालो. उपरांत च्या जाली आनी हांवें तांचो निरोप घेवन ट्रॅम धरली.

ट्रॅमींत गर्दी आसली. हांव सामान घेवन चडलों. एका स्टॉपा उपरांत म्हाका बसूंक जागो मेळ्ळो. ट्रॅम ट्रींग-ट्रींग करीत चलताली. मार्ग फार्टी पडटालो. गाडी ल्हव ल्हव व्हिक्टोरीया मेमोरियल, शहीद मिनार स्प्लेनेड, गव्हर्नर्स हावस, विर्डाबाग, रायटर्स बिल्डींग हुपून बॉडो बाजारा लागीं पावली. थंय सावन हावडा ब्रिज दिसता. लागींच हावडा न्हय, हावडा स्टेशन. आतां ल्हव ल्हव हें सगळें म्हाकां पयस जातलें. ह्या सगळ्यां कडेन कितलें दाट नातें जुळिल्लें. म्हाकां हें सगळें कोलकत्ताचें अशें दिसच नासलें. तें सगळें बंगभुमीचें आसा, अशेंय दिसच नासलें. हें सगळें म्हजें आसा अशें दिसतालें. ट्रॅम हावडा ब्रिजा वयल्यान वयतना हांवें गंगेचे धारेचें उदक मन भरून पळोवन घेतलें. ट्रॅम हावडा स्टेशनार पावली. फुडल्यान गर्दीचो चोमो येतना दिसलो. हे गर्देचो सावळो रंग म्हाका खूब ॲक्टीव दिसलो. मागीर हांवूय ते गर्देंत भरसून गेलों. म्हजी गाडी साडे आठांक आसली. हांव बुकींग कावंटरार गेलों. तिकीट घेतली. तशी गर्दी खूब आसली. पूण तिकीट कावंटरार झपाझप

काम जातालें. कालकत्ता मेल पुरी मेरेन वताली. म्हाका तर भुवनेश्वर देंवपाचें आसलें. म्हजी तिकीट सामान्य क्लास ची आसली. गाडी आजून प्लॅटफॉर्माक लागूंक नासली. गाडयेंत टीसी कडल्यान रिझर्वेशन मेळ्ळ्यार म्हाका घेवपाचें आसलें. हांवें वेळ सारपाक म्हूण सामर्गीश कॉफ टेरीयांत घुमलों. च्या मागयलो. पूण कुशीकच्या टेबला वयल्या गिरायकान आमलेट मागयल्लें. तें पळोवन म्हाकांय आमलेट खावंची रूच आयली. मागीर हांवेंय ती मागयली. आमलेट बरी आसली. थंय बरे रोसोगुल्लेय मेळटात म्हूण म्हाकां खबर आसलें. म्हजे पोटांत जागो नासलो, पूण मनांत आसलो. म्हाका रोसोगुल्ला मागोवपाचो मोह आवरलो ना. हांवें एक व्हड रोसोगुल्ला मागयलो. आतां हांवें दिसभर कांय ना खाल्यार चलतालें. गाडयेंत जेवण बी मेळटलें काय म्हूण खबर नासली. रोसोगुल्ला खऱ्यांनीच रुचीक आसलो. पोट उफाट भरिल्लें. वेटराक पयशे दिवन हांवें कॉफेटॅरीया सोडलें. च्या आनीक पिवप म्हाकां शक्य नासलें. ती तशीच सोडून हांव भायर आयलों. भायर येना फुडें म्हाकां प्लेटफॉर्मार गाडी लागिल्ली दिसली. सामकार आशिल्ले उफाट गर्दे कडेन हांवें नदर मारली आनी हांव गाडये वटेन गेलों. एका रित्या पास क्लासाच्या डब्या कडेन गेलों. वयतना कुशीक उबो आशिल्ल्या टीसीक मेळ्ळों आनी म्हजे खातीर रिझर्व तिकीट मेळत काय म्हूण विचारलें. ताणें म्हाकां कंपार्टमेंट सांगलो. म्हजे तिकीटी फाटल्यान तो नंबर बरयलो. रिझर्वेशनचे पयशे तो तिकीट चेकींग करपाक येतलो तेन्ना घेतलो म्हणपाचें म्हाकां खबर आसलें.

कंपार्टमेंटांत चड गर्दी नाशिल्ली. म्हाकां टीसीन बर्थ दिल्लो कारणान कांय वेळ तरी म्हाकां न्हिदून वचपाक मेळपाचें. गाडी साडेचारांक भुवनेश्वर पावपाची. थोडेशें भायरूय पळोवपाचें आसलें. गाडयेन हावडा स्टेशन सोडलें. ती ल्हव ल्हव हावडा स्टेशनांतल्यान भायर आयली. हिंद मोटर्स, बेलूड अशीं स्टेशनां फाटीं घालीत गेली. मागीर श्रीरामपूर स्टेशन पास जालें. उपरांतचीं स्टेशनां याद जायनात जालीं. शार ल्हव ल्हव पयस जातालें. गांवांतल्यान, जंगलांतल्यान गाडी नेटान धावताली. म्हज्या सामकार एक जाणटी बायल आनी तिची पट्ट-साळा वर्सांची नात बशिल्ली. म्हाकां कांय वेळान न्हीद येनाशी जाली. रातभर न्हीद येवंक नासली हावें म्हज्या वयल्या बर्थार म्हजें सामान दवरलें आनी ताणून दिलें.

गाडी खडखड करूंक लागली म्हणून म्हाका जाग आयली. सकयल देंवून पळयल्यार गाडी महानदी वयला पूल पासार जाता. आमी कटक पाविल्ली. आनीक एका वरांत भुवनेश्वर. गाडी स्टेशनार राविल्ली. हांव सकयल देंवून तोंड धुलें आनी च्या घेतली. मात्शें बरें दिसलें. भूक लागूंक नाशिल्ली. डब्यांत तीं चली, ती जाणटेली नासली. डबो चडसो रितो जाल्लो. फकत दोन जाणटेले डब्यांत उरिल्ले. ते पुरी वचपाचे आसले. गाडी सुरू जाली. कांय वेळान नंदन काननचो स्टॉप आयलो. कांय लोक चडले-देंवले. उपरांत कांय वेळान उत्पल विश्वविद्यालय दिसूंक लागलें. आमी भुवनेश्वर पाविल्ले. श्रीराम मंदीर गेलें आनी गाडी भुवनेश्वर स्टेशनार आयली.

स्टेशनार देंवना फुडें घरा आयिल्ले बशेन दिसलें. भूक लागिल्ली. हांव सामान घेवन वयल्या मजल्यार आशिल्ल्या कॅंटीनांत गेलों. थंय सांज वेळार मसाला डोसा बरो मेळटालो. गाडी मात्शी म्हटल्यार एक वर भर लेट आसली. साडेपांच वरांचेर गाडी स्टेशनांत भितर सरिल्ली. गाडी दोन नंबर प्लॅटफॉर्मार आयिल्ल्यान भायर सरतां म्हटल्यार स जालीं. कॅंटीनांत मसाला डोसा मागयलो आनी मागीर कॉफी. सांज वेळचो दाट काळोख जाल्लो.

परवाच्यान क्लासी चालू जावंच्यो आसल्यो. पुराय कॅम्पस खाली जाल्लो. आयज कांय लोक येवपाची शक्यताय आसली. म्हजी रिक्षा पुर्वांचल भाशा केंद्राचे गेटीर थांबली. तेन्ना सामकार येवपी सुदिप्ता दिसली. तिणें म्हजें हांसत्या मुखामळान स्वागत केलें. तिणें म्हटलें, "एका एका बोशे माथा खाराप होळात्शिलो! भातो लागलो.'(एकसूरपणान जीव कंटाळल्लो, तकली दुखूंक लागिल्ली. आतां बरें दिसलें.) अशें म्हणत ती म्हजे रिक्षेंत बसली. रिक्षा ऑफिसा मुखार उबी रावली. हांवें भितर वचून म्हज्या रुमाची चावी घेतली. हाचो अर्थ म्हजे कंपेनियन आजून येवंक नासले. थंयच्यान मागीर आमी रुमार आयलीं.

●●●

पेडणें ✆ 9551955523



दक्षिण आफ्रिकेंतल्या सत्याग्रहाच्या जल्मशताब्धी वरसांत, म्हळ्यार 2006 तुं म्हाका द.आफ्रिकेक वचपाची सुसंधी घडन आयली. इतिहासांत अती आवड आशिल्येक हो एक योगायोग म्हणयेद!

द.आफ्रिकेंतलें सगळ्यांत व्हड शहर,जोहान्सबर्ग पावन टॅक्सींत बसलें. तितल्यांत टॅक्सी ड्रायवरान आमगेलें स्वागत कशें करयेद? "ओहो! इंडीया, गांधीगेल्या इंडीया सावन तुम्मी आयल्यांत! आमगेले देशांत गांधी विशयी खूब आदर आनी मोग आसा!" अशें म्हळिलें आयकून आमकां भौ बरें दिसलें.

अठराशे त्रेणवांत (1893) द.आफ्रिकेच्या 'नाताळ' म्हळिले गांवांत रावतलो दादा अब्दुल्ला म्हळिलो एक वेपारीक कायदेशीर सल्लो दिंवपाक मोहनदास गांधी नाताळ आयिल्लो.ट प्रीटोरियाक प्रवास करता तेन्ना ट्रेनार पयल्या वर्गाची तिकेट आसून, सूट-बूटांत आशिल्ले गांधीक तिकेट कलेक्टरान वाद करन, जबरदस्ती ट्रेनार थावन भायर काडिल्ले सगलीं जाणS. वर्ण आनी रंग भेद करतले गोरे लोकांन काळे लोकांचेर करपी अन्याय व अत्याचार स्वता भोगिल्ले गांधीक सहन जाल्लेना.



**डॉ.सुषमा अरूर**
लेखिका अणकाराच्या मळार साहित्यांत योगदान दिवपा वांगडाच कविता आनी ललित साहित्यांतूय योगदान दितात.....

एक वरसाचें करारनामा (contract)उप्रांत गांधीन थंयच रावन काळे लोकालें, तशेंच भारतांतुल्यान आयिल्ले कामगारांक ह्या देशांत समान अधिकार तशेंच तांचे बरशीं बरी वागणूक मेळूंक जाय म्हूण संकल्पना करन ब्रिटिश प्रशासनाचे अत्याचार भोगतल्यांक एकजूट केल्ले. थंयचे क्रूर अन्यायाचे कायद्या विरोधांत लोकांत जाणविकाय हाडपाक आनी लढो दिवपाक हांगाच रावन फुडाकार घेवन यशस्वी जाल्लेली यशोगाथा उगडास करन घेतले.

सप्टेंबर एकोणिशें सं त(1906) ट्रान्सवाल प्रदेशांत एशीयाचे लोकाचेर लादिल्ल्या कायद्या विरोधांत गांधीन तागेल्या पयल्या सत्याग्रहाची सुरुवात हांगाच केल्लेली. असल्यो कितल्यो तरी असहयोग आनी सविनय कायदेभंग चळवळ्यो द. आफ्रिकेचे सरकारा विरोधांत करन घडये घडये तुरूंगांत गेल्लेले पुरावे जोहेनसबर्गांत आस्सत.

विसावे शतकाचे फुड्चे काळांत, आफ्रिका खंडांतले एकूच राष्ट्रान गांधीगेले असहयोग म्हळिलो अस्त्राचो वापर करन, आपणाले देशाक स्वातंत्र्य आनी लोकसत्ता दोनूय साध्य केल्ले. हो देश स्वतंत्र जाल्लो एकोणिशी एक्साठ वरसांत. तेत्तीस वरसां वर्ण आनी रंग भेदा विरुद्ध झगड्यांत गेल्लें, तरीकेय जोहान्सबर्ग आनी केपटाऊन ह्यो दोनी व्हड शारांत जाल्लेली प्रगती पोळोवन कौतूक दिसलें. ह्या देशाचे सरकारान केल्लेले मुळावीं साधन सुविधा (basic infrastructure) म्हळ्यार रस्ते, फ्लायोवर्स (flyovers), सेतू (bridges), विमानतळ,

वीज, उदका वेवस्था, असल्यो मूलभूत गरजा थयचे नागरिकांक मजबूत दिल्ल्यात पळोवन आमी दंग जाल्ली आनी आमचो देश केन्ना इतली प्रगती करतली अशें विचार मनांत येवंक लागले.

पर्यटन (Tourism) हो एक उद्देग म्हूण खूबच प्रगती जाल्लेली हांगा दिसून आयले. प्रांत एक पुरातनवस्तु थळार (archaeological sites) गेल्ले तेन्ना थंय Theme parks, रेस्तोरांत (Restaurants), जेवपाचे-खावपाचे outlets,नितळ शौचालय, मनरिजवणाची वाटिका, ए टी एम असले सगळ्यो सुविधा पळोवन अजाप जाल्लीं आनी बरंय दिसलें.

थंयचे लोकां आमचस्लें प्रवासी दिश्टीक पडतकीर नम्रपणे अभिवादन करपी, तो टॅक्सी ड्रायव्हर आसो, वॉचमन आसो, रस्त्यार चलपी आगंतूक आसो, हांसत हात उंचायेर करन येवकार दिल्लेले अणभवन, हांगचे लोकां सभ्य आनी शिष्टाचराचे अशी दिसलें, हांका तालीम ( training) दिल्यां कि कितें? की तांगेलो सभावच तसो म्हूण आमकां कळ्ळेंना. आमकां मात बरें दिसलें म्हळिले व्हय!

जोहेनेसबर्ग(जोबर्ग) ह्या शाराक भांगरा जमीन म्हणपी.भांगार आनी वज्राचो व्हड वेपार पूर्वी पसून चलता हांगा.तशेंच हो हांगचो एक व्हड, आर्थिक आनी वाणिज्य शार सुद्दां. संविधानाचें न्यायालय (constitutional court) हांगा स्थीत आसा. विसावे शतकांत स दशलक्ष झाडां रोंयिल्लें कारणान जोबर्ग इसवी 2006 त संवसारांतलें पाचवे शारां (Green City) पैकी पयले नंबरार आशिल्लो. हांगचें घरां देंवतीं छप्परांचीं, निळें, तांबडे आनी गोबरा रंगाचीं आसत. ड्च, ब्रिटिश आनी फ्रेंच वास्तुचीं घरां खूब सुंदर दिसपी. तशेंच, सरकारी कचेरी आनी दुसरें इमारत आधुनीक शैलींत बांदिलें दिसलें. जोबर्ग एक परिपूर्ण आयोजीत शहर- perfect planned City म्हणयेद.

जोहेनेसबर्ग शहरांत ड्रायवार गेल्लें तेन्ना गांधीगेले उग्डासाचे सुमार अशे जागे पळोवपाक मेळ्ळे. ही तागेली पयली कर्मभूंय म्हणून घेत्ता. पोरनो किल्लो, थंयचे तुरुंग, गांधीगेलें ऑफिस court chambers म्हळीले कडेन आसलें. आत्ता ही सुवात Gandhi Square म्हूण नामनेस्त आसा. तशेंच पसतीस कि.मिटर पयस आसपी Tolstoy Farm थंय गांधीले आश्रम आसले. थंय सत्याग्रहाची मुखेल कचेरी (HQ) आसून, हांगा सत्याग्रहींक कडक शिस्त, श्रद्धा पाळून स्वताक कष्टिक जीवनाक तय्यार करपी एक सत्याग्रहाचो प्रशिक्षण केंद्र आशिल्लो. हांगा शबर लोकांक रावची वेवस्था आशिल्ली.

प्रवास्यांक ह्या शारांत पळोंवपाक खूब आसा. हांगा दोनच दीस आशिल्ले निमतान थोडे कांय पळोंवपाक साध्य जाल्ली भांगरा खणीं, अपार्थीड म्यूसियम, आनी लेसेदी म्हळ्ळें आदिवासी गांव.

## भांगरा खणी (Gold Reef City)

द.आफ्रिकेक, The Cradle of Mankind म्हणतात. म्हळ्यार पयले मानवांगेलो पाळणें म्हूण. हांगा लागींच आसपी गाटेंग म्हळिले प्रदेशांत, पयले मनशालो अवशेश मेळ्यात. म्हळ्यार हा भुंयेर आशिल्लो मनशालो वंशज! व्हय नूं?

पयलें हांगा आफ्रिकेचे मूळ लोकां रावतालीं. आफ्रिकेचे वेग-वेगळे क्षेत्रांतल्यान लोकां येंवन स्थायी जाल्लें आसात. उप्रांत युरोपचे प्रदेशां थावन नवीन जाग्याचे शोध करत डच, फ्रेंच, ब्रिटिश, पोर्तुगीज इत्यादी हांगा शेती करपाक, व्यापाराक आयलीं. द.अफ्रिकेंत डचांगेलो प्रभाव चड आसा. हांगचे मूळ लोकांत डच लोकांले अंश आस्स अशी समजूत आसपी, हांका आफ्रिकाना म्हणतात. तांगेले भाशेकूय आफ्रिकाना म्हणतात. बोयेर्स (Boers)सुद्दां डचांगेले वंशज. तांगेलो ब्रिटिश सरकारा विरोधांत झुंज जावन सुमार वरसां ब्रिटिशांगेलो वर्चस्व द.आफ्रिकेंत आशिल्लो.

द. आफ्रिकेंत भांगरा खणी आस्सा म्हूण कळतकीर युरोपचे राजा- महाराजांन वेपारी लोकांक आनी साहसी लोकांक, उप्रात चर्चान क्रिस्तांव धर्म प्रचारकांक धाडन आपणाले कब्जो त्या प्रदेशांत घालपाक प्रयत्न चालू दवरिल्लो. त्या निमतान अठरांशे शहाण्णव पसून गोरें लोकांली वसती हांगा चड जायत गेल्ली आनी जो बर्ग एक cosmopolitan शार जाल्लें.

ह्या शाराक पैले पसुन 'इगोली','गोटेंग' अशीं नांवां आशिल्लें. ताजो अर्थ भांगरा गांव म्हूण जाता. ह्या खणीक Gold Reef City अशें म्हणतात. खणी भित्तर वचपाक आम कां हेल्मेट घालका लागलें आनी एक पिंजरो सो आशिल्लो जाळ्याचे लिफ्टांत उबरोन सकलय दोनशे बीस मीटर खणींत म्हळ्यार पाताळांत देंविल्ले सारकें जाल्लें!

थंयचो गायड आमकां सतत खणीची इतिहास सांगत आशिल्लो. त्या काळांत कामगारांले काम करचो नमून, तांगेली स्थिती, घरांतले दादले, बायलो आनी भुरगें कशी वेळाची पवा नास्तना काम करपी, तांगेले सुरक्षा उपाय, सुरंग घालून फातर फोडचे, तांत कितली मरतालीं आनी कितलीं वाचून उरपी हाची खबर लागनासलो. अशें त्या काळांतले कामगारांले स्थिती

विशयी सांगतालो.

मर्दींत आमकां लोकांन उल्लायलेले, हशिल्लो सगळें आयकूंवप. अरे! हें कितें? तो काळ, आमी अणभवका म्हूण floppy disc वा cd लायल्यां ? की त्या वेळार मेल्लेले काम गारांले भुत्तां उल्लयत आस्सत कि कितें? असो प्रस्न पडलो आमकां!

परती वयरी येत्तना, लायटा उजवाडाक खणीचे वणतेर झगझगचें दिसतालें, गायडाक विचारना फुडें तो म्हणालो, भांगराचें चुरां तांत आस्सत. हांगा खोदिल्ले मातयेंत अजून पर्यंत सुमार भांगरा अंश आसा म्हणपी तो. सुमार मातयेचे ढिगां जो-बर्गाचे रस्त्याचे दोन्नी बाजूकय घातिल्लो आम्मी पळयलां. आत्ता तें ल्हान ल्हान टेकड्यो शी दिसतात.

ह्या खणी थावन सुमार भांगार युरोपचे राजा- महाराजांन आनी, राजकारणी, वेपारी, प्रतिष्ठीत लोकांलें खजिनो भरन आगर्भ श्रीमंत जाल्लीं. ल्हान -सान राष्ट्र सुद्दां मुखार एशीयाचे व्हड देशाक वेपारा निमित्त येवन, नंतर आपले वसाहत बांदून, राज्य केल्ले, आर्थिक आनी धार्मिक शोषणय केल्लेले आम्मी सहन केलां आनी इतिहासांत वाचिल्लेंय आसा.

## अपारथीड म्यूजियम

भांगरा खणीचे चालक मंडळीन (management) सात हेक्टर जाग्यार बांदिल्लो हो म्यूजियम आधुनीक डिजायनाचो आसून भो सोबीत लेंडस्केपिंग (landscaping), सुंदर वातावरणांत रंगयले आसून एक उदारण जावन आसा. हाजे उभारणींत देशाचे आनी संसारांतले बी व्हड आनी नामांकीत क्यूरेटर (curators), सिनेमा जगांतले (film makers) कलाकार, designers आनी artists लोकांलें सहयोगान देशाचो इतिहास पुनरचीत केल्लेलो आसा. त्या काळांतलें फोटो, वास्तुचित्र, घडिल्ले प्रसंगाचें चित्रण सगळे हुबेहूब प्रदर्शित केल्लेले आसा. ह्या सगल्या माध्यमां सावन मनीस जातीचे दारूण काण्यो दाखयलिले आसून, हे सुवातेक partheid Museum म्हणतात.

म्यूजियमाचे भायर द. आफ्रिकेचे संविधानाचे सात खांबे Constitutional Pillars प्रवास्यांक आकर्शित करतात. ताजेर देशाचे संविधानाचे मूळतत्व, लोकसत्ता (Democracy), सम नता, (Equality), मेळन-जुळन रावप (Reconciliation), विविधता ( Diversity) जापसालदारी (Responsibility), आदर (Respect), आनी स्वातंत्र्य (Freedom) हीं सात तत्वां बरोवन प्रदर्शित केल्लेले आसा. ह्या देशाचे लोकांक




मूळ अधिकारां (basic rights) खातीर शतकानू शतकां त्रास भोगिल्यांक कितलें वेळांन साध्य जाल्ले, तरीकेय लोकांले मना प्रमाणे मूलभूत अधिकार मेळ्ळे म्हळिलो जाणीवांन मन भारावन गेलें.

## संविधानाचे खांबे

रंग भेदु की द्वेश? हो एक गोरे लोकांन काळे लोकांचेर लादिल्लो एक व्हड गुन्हो, हाजे निमतान आफ्रिकेचे काळे लोकांक खूबच अपमान सहन करपाक पडलें. काळे लोकांलो हो इतिहसीक प्रात्यक्षिका हांगा प्रभावपूर्ण दाखयललेले आस्सा. ह्या म्यूजियमांत फक्त रंग विंगड आसा म्हूण तांकां निकृष्ट वागयलेले त्या लोकांन सहन केल्लेलो अपमान कसो पचवून घेतले, हाज्जो जाणीव जावंक गरजेचें आसा. ह्या उद्देशान थंय भित्तर वत्तना वेग-वेगळे तिकीटां दित्तात, काळे-धंवे. तांगेले entry विंगड आसपी. थंय प्रदर्शित केल्लेले placards, banners इतले अर्थपूर्ण आशिल्ले की त्या काळांत काळे लोकांन प्रति दीस, प्रति खिणाक जावपी वेगळेपणाची अपमान भोगिलें आमकां जाणीव करन दिलें.

द.अफ्रिकेंतलें काळे लोकांन बस्सार, ट्रेनार आनी असलें सार्वजनीक सुवातेर अनभवलेलो अन्याय, वायट वर्तणूक, समाजांतले असमानता, नियम, निर्बंधन पालन करिना जाल्यार तांचेर जावपी कठीण शिक्षा हाज्जे दृष्टांत वेग-वेगळे माध्यमां सकून प्रदर्शित केल्लेले भौ परिणामकारक आशिल्ले.

उप्रांत नेल्सन मंडेलाले नेतृत्वांत लोकांक एकजूट करन केल्लेल्यो लडायो हें सगळें छायाचित्रां थावन, दोक्युमेंटरी मुखांतर दाखयलिले पळोवन मन भरन आयलें. मिनि थेटरांत दाखयलिले तांचे दीसपट्या वावर पळोवसर तीन वरां कशें

गल्लें कळ्ळ्यना ना पूण म्हाका दाळ्यान पळयिल्लें देकून तांचो संघर्शाचो जाणीव जावन मन चित्त-विचलीत जाल्ले म्हळिले व्हय!

## लेसेदी आदिवासी लोकां मदीं

दक्षिण आफ्रिकेचे आदिवासी जमात्यांक मेळन तांचे वांगडा अणभवलेल्यो यादी अपरूपाची आनी आगळे - वेगळे अशें आशिल्लें.

जोहानसबर्गांत आमी राविल्ले मायकेलेंजेलो होटेला सावन लेसेडी गांव एक वराची वाट. चारी बाजून भौ गोमटें, पाचवें परिसर अणभवन आमी भौ खोस जाल्लीं. खास अंतराष्ट्रीय प्रवाश्यां खातीर 1995 त पुनरचना केल्लेलो गांव हो. हांगा अफ्रिकेचें मूळ जमाती- पेडी, त्र्सांथो, होसा, आनी झुलू हांगलें रहाणें पळोवपाक मेळ्ळें. उदका टंकीर वा झाडाचे खांदीर वा छप्परार उबे राविल्लो प्रत्येक जमातीचो राखणदार पावण्यांलें येवप, प्राणी वा सवण्यांले आवाजांत पूर्विल्ले नमून्यार घोशणा करपी हो एक मजेशीर दृश्य आसलो. भित्तर वत्तेर पेराचे पानक दिवन आमकां येवकार दिलें. उप्रांत थंयचो मुखेलान वेगवेगळे जमातींतले रहाणें पळोवपाक आमकां घेवन गेलो.

## रंगयल्ली झोपडी

मुळांवे पारंपारीक वेशांत आसलो थंयचो मुखेलाक युरोपचे कितल्यो तरी भास उल्लोवपाक येत्तालें लेगीत. तो युरोपचे सुमार देशाचे लोकां वांगडा तांग तांगेले भाशेंत उलोवपाचे पळोवन आमी अजाप जाल्लीं. आमचे वांगडा तो इंग्लिशींत उल्लयतालो देकून आमकां कसलोय भाशेचो त्रास जाल्लो ना. ताणें आमकां वयर सांगिल्ले जमातांचे घरां आनी तांचे रहाणें दाखोवपाक व्हेलें. थंय घरचे भायर एकळी धान कांडप, दुसरी मका मोल्लावप, आनेकळी शेण मारावप अशें घरकामांत गुल्ल आशिल्ल्या पळोवन संत्रमारांतलें सगलें पोन्नो संस्कृतींत बायलांले कामाचें सारकेंपण लक्षांत आयलें. दोन शिला बालिकाशें दिसतल्लीं चल्ल्या पैकी एकळी घरगुती केल्लोले बीयर लाकडाचे लाब प्यालांत घालन आनी दुसरी शिजयलेले मकाचे दाणे वांटत आशिल्ल्यो.

थंयचे झोपड्यांक लांब, जाड आनी घट सुक्किलें तणाचे देंवती छज्जे आसत असलें तण हांगचे राना वनांत भरपूर दिक्कू पडटा. घरचे जमीन शेणान सारयलेले असून भायरचे वणतेर सोबीत रंगबिरंगी भूमिती चित्रान सजयलेले आसत. असल्यो सुदर झोपड्यांक विदेशी लोकां पसून खूब मागणी आसा अशें कळून आयलें. एके झोपड्याक एके रातीक त्या काळांत ३३८० भाडें आशिल्लें भितर सावन पळयल्यार तें तीन तारयांचें (थ्री स्टार) होटेला परस दिसपी.

थंय सावन आमकां एके काळोख्या सभाघरांत घेवन गेले. तशेंच धा-बारा तर्णाटे चल्यो पारंपारीक वेश-भूशांत हातांत उजाचो सूडो घेवन धांवत आयल्यो आनी सभाघर उजवाडान भरलें. ताणीं विंग-विंगड नमून्याचे नाच केल्ले, एक तांचो झुम्बा तो अती वेगाचो आनी जोमाचो आशिल्लो, हालींत भारतांत खूब लोकप्रिय जाल्ला. मागीर प्रत्येक आदिवासी जमातांतल संस्कृताय आनी परंपरा, ताणीं गोरे लोकां कडून भोगिल्ला त्रास हाजेर एक प्रात्यक्षिकां पळोवन मन त्रासीक जाल्लें. उप्रांत दादलें आनी बायलां दोगय 'हलाला हलाला ' म्हणत हातांत हत्यार घेवन सभाघराचे मदीं बोन्फायरा (bonfire) भोवतीं उरबान नाचल्यो. प्रेक्षक बी उत्साहान तांचे वांगडा हलालू हलाला म्हळिलें सभागृहात प्रतिध्वनीत जाल्लें. हो एक नृत्य-नाटीका (dance-drama) आसून तांजें सूत्र संचालन एक झुलू जमातिचो इंग्लिशींत करतालो. असल्यो वेग-वेगळे झुजारी(martial) नाच आनी तांचे उरबान भरिल्लें संगीत आयकून एक गूढ आनी धुंदीचो वातावरणांत गेल्लेवरी अणभव जाल्लो. तातूंल्यान भायर येवपाक थोडो वेळ लागलो म्हणयेत.

सभाघरां थावन भायर येवन थंयचे स्थानीक वस्तु प्रदर्शन पळोवपाक गेलें. रंगबिरंगी लाकडी वस्त,जिराफ, झीब्रा, हस्ती, पशु पक्ष्यांले चित्रकला, जिराफाले व्हड व्हड तातयार केल्लेलें आफ्रिकाचो नकासो, सुकयलेले फळांचेर केल्लेलो दर्जेदार पेंटिंग इतलें गोमटें आनी सोबीत आसलें, की आमी असलें थोडे बग विकती घेतलें. त्या काळांत आमचे रूपये परस 7 पटीन चड थंयचो रेट आसलो.

## रंगयल्ले तांतयाचें कवच

विदेशी प्रवासी लोकां, खास आफ्रिकेचे खाशेले जेवणाचे वाट पळयत आशिल्ले. पूण आमी रावलेंनात कारण आमी राविल्ले होटेल्याचोन आमकां पयलींच सांगून दवरिल्लें कि थंयचे जेवणांत मानगें ( शीशर/मगर), सोरोप आसपी आनी चड रात जाल्ली तर रस्त्यार खास विदेशी प्रवाशाक त्रास जावप म्हण आमी काळोख जावंचे पयलींच हांगा अणभवलेले सुंदर यादीं मनांत दवरून होटेलाक परतीं आयलीं.

●●●

दोनापावला-गोंय . ✆ 9740399995




# उदकांतल्यान प्रकटिल्ली देवता...!

बेतकी हो उत्तर गोंयांतलो गांव. बेतकी गांव, उदकांतल्यान प्रकटिल्ले देवतेची काणी सांगता. फोंडे म्हालांत आशिल्ल्या बेतकी गांवच्या देवळाच्या पंचायतनांत श्री मंडोदरी देवी, श्री नारायण देव, श्री रवळनाथ, श्री सातेरी आनी घाडवंश हांचीं देवळां आसात.

ह्या गांवची ग्राम देवी श्री मंडोदरी देवी.तिका गांवचे लोक खूब मानतात आनी जतनायेन, जीव ओतून तिची आराधना करतात. हांगां मंडोदरी देवीचें व्हड देवूळ आसा. देवळांत वर्सुकी कार्यावळी आनी उत्सव मनयतात. ह्या गांवांत नव्याचो उत्सव मनयतात. ह्या वर्सा जून म्हयन्याचे दोन आनी तीन तारखेक नव्याचो उत्सव मनयलो. तर हो उत्सव कित्याक आनी कसो मनयतात हें जाणून घेवपाची म्हाकां उमळशीक आशिल्ली. हांवें म्हजो इश्ट प्रशांत फडते जो कृष्णदास शामा गोवा स्टेट सेंट्रल लायब्ररींत ग्रंथपाल आसा ताचे कडच्यान सविस्तर म्हायती घेतली आनी त्या वाठाराची भोंवडी केली.

देवळाचे मूर्तिचें खाशेलपण म्हळ्यार, ही मूर्ति गोंयच्या हेर देवळांतल्या मूर्ति परस वेगळी आसा. ही मंडोदरी देवी खरीच काय रावणाची बायल? आनी ही मंडोदरी देवी गोंयच्या देवळांत कशी पावली? अशे जायते प्रस्न सामकार येताले. जेन्ना प्रशांता कडेन चर्चा जाली तेन्ना सगळे मनांतले दुबाव पयसावले आनी कांय प्रस्नांच्यो जापो मेळ्ळ्यो. बेतकी गांवांतल्यो झरी, तळीं, व्हाळ सदांकाळ उदकान इतल्यो उपाट भरिल्ल्यो आसतात कि हांगच्या गांवच्या लोकाक केन्नाच राजू घेवन बांयचें उदक काडपाची गरज भासना. गांवांत अशी एकुलती एक तळी आसा जिका सोपणां आसात आनी तीं सोपणां सकयल उदकाच्या तळाक पावपाक मार्गदर्शन करतात. ह्या गांवांतल्या सगळ्या झरींचें आनी उदकाचें स्रोत म्हळ्यार एक तळें, जें गिमाळ्यांत सुद्दां उदकान भरिल्लें आसता. खूब काळा पयलीं, ह्या गांवान, जाचेर उदकाक केन्नाच कमतरता पडपाची ना म्हणपाचो आर्शिवाद आसा, त्या गांवांत एका भटाची विधवा बायल रावताली. तिका एक पूत आनी एक धूव आशिल्ली.

ह्या तळ्याचें उदक गांवच्या सगळ्या शेतां भाटांक,


**रूपाली**
**कामत**
**शेटये**
ग्रंथपाल म्हूण वावुरपी लेखिका
ललित आनी विनोदी साहित्यांत उमेदवारी करता..



कुळागरांत आनी बागायतीक वापरताले. थोड्या बुदवंत गांवकारांनी हें व्हांवतें उदक आपली कुशळताय वापरून आडावपाचें थारायलें आनी हें आडायल्लें उदक गिमांतल्या पिकाक वापरपाची येवजण आखली. तांचे हे येवजणेक गांवांतल्या चडशे जाणटेल्यांनी हयकार दिलो आनी गांवान बांद बांदपाचो निर्णय घेतलो. कामाक नेटान आरंभ जालो खरो पूण जातालें कितें तर तांणी फातर आनी मातयेचो बांद उबारपाक जो मातेरीयाल एकठांय केल्लो तो सांज मेरेन कोसळटालो. कितलेशेच यत्न केले, तकल्यो लडयल्यो तरी कसलीच युक्ती फळाक येनाशिल्ली. सगळ्याच यत्नांक अपेस येताले. हो प्रस्न कसोच सुटनाशिल्लो. अखेरेक एका घाडयान सुचयलें, जर त्या जाग्यार भुरग्याचो बळी दिल्यार काम जातलें.

ताची ही सुचोवणी आयकून गांवच्या लोकांचेर कठीन परिस्थिती आयली. कितें करचें आनी कितें ना तें तांकां येवजना जालें. एक तर भुरग्यांचो बळी दिवन पीक काडपाक बांद बांदपाचो वा सगळो प्रकल्प सोडून दिवपाचो. खूब चिंतून आनी गावकारांचो सल्लो घेवन गांवचे उदरगती खातीर भुरग्याचो त्याग करप हो योग्य निर्णय अशें सगळ्याचें मत जालें. आपलो हेतू तडीक व्हरपाक तांणी त्या भटाच्या विधवेल्या भुरग्याचा विचार केलो. ते पासत थोड्या गावकारांनी त्या भुरग्या कडेन इश्टागत आनी दाटी केली. तींय बाबडीं तांच्या जाळांत फारावलीं.

एका अरिश्टाटच्या दिसाक त्या भुरग्यांक तळ्याच्या उथळ भागांतल्यान कमळा वयर सरिल्ली दिसली. तीं हाडूंक भटाचो चलो उदकांत देंवलो. तशेंच तांकां थंय केळ्यांचो एक घड उफेतालो तोय दिसलो. भयणीन तो घड पळयलो आनी तीं केळीं आपल्याक जाय अशें भावाक सांगलें. त्या बराबर फाटलें फुडलें कितेंच येवजी नासतना, भयणीच्या मागाक लागून तळ्यांत देंवलो. त्या घडार झांपय मारपाक तो उदकांतल्यान वाट काडीत वचूंक लागलो. घडाकडें पावता तसो घड फुडें फुडें सरतालो. तरी तो फुडें गेलो. जेन्ना तो केळ्याच्या घडा लागीं पावलो, तेन्ना ताका कळ्ळें कि आपूण खोल तळ्यांत पावला. पूण आतां तो कांयच करूंक शकलोना. तो बुडपाक लागलो.

खरें म्हळ्यार हें सगळें गांवकारांचें कट कारस्थान आशिल्लें. तांणी केळ्याच्या घडाक दोरी बांदिल्ली. तो उदकांत भितर येवचो आनी ताका खोल उदकान ओडून व्हरून बुडोवपाचो तांचो डाव आशिल्लो. भाव बुडटा तें पळोवन भयणीन ताका वाचोवंक तळ्यांत उडी मारली. पूण शेवटाक दोगांय उदकांत बुडलीं. कोणेंच तांची मजत केली ना आनी वाचोवंक फुडेंय सरलेनात. त्या दिसा मात बांद कोसळ्ळो ना. तो घट्ट उरलो. भटाची बायल आपल्या भुरग्यांक सोदीत सोदीत थंय पावली. भुरगीं दिसना जावन तिचेर आकांत आयलो. जेन्ना तांचे आवयक भुरग्यांची ही दुखेस्त बातमी कळ्ळी तेन्ना तिका ह्या विश्वासघाताचो आनी दाव रचिल्ल्याचो दुबाव मारलो. तिणें रागाच्या भरांत गांवाचेर शिराप सोडलो, 'ह्या गांवांत चोवीस वर्सां मेरेन कोणागेरूच भात/तांदूळ शिजचेना आनी चूल पेटचीना. मागीर ती तो गांव सोडून गेली. जेन्ना तिणें गांव सोडलो तसो तो गांव पडंग पडलो. गांवांत कांयच पीक येना म्हण गांवकरीय गांव सोडून भायल्या गांवांनी वचून आपलें पोट भरूंक लागले.

खूब वर्सांनी थोडे गांवकरी ह्या गांवंत गांव वसोवपाक म्हण आयले. तांकां गांवाची परिस्थिती पळोवन अजाप दिसलें. तांणी ते विधवेक सोदून काडून तिका शिराप फांटी घेवंक लावपाचें थारायलें. दुसरे दिसा सकाळीं ते गांवकार तिका सोदूंक भायर सरले. भोंवता भोंवता गावकरी तिनसांजचे वेळार एका गांवांत पावले आनी थंयच रातचो



आलाशिरो घेतलो. तांणी थंयच्याच एका घराब्याक थोडें भात दिवन तांकां तें शिजोवन दी म्हण सांगलें. जसो जसो तांदूळ शिजूंक लागलो, तशें त्या घराब्यांतले जाणटेलेन रांदचे कुडींत येवन आपलें मत स्पश्ट उक्तायत रागान विचारलें, 'हाका तर त्या बेतकी गांवच्या तांदळाचो वास येता. तो हांगा कसो पावलो?' जेन्ना गांवकारांनी आपली वळख दाखयली, तेन्ना तिका खूबच तिडक मारली.

तिणें रागाच्या भरांत तांकां धांवडावपाचो यत्न केलो. जेन्ना गांवकारांक तिडी वळख पटली, तेन्ना तांणी तिचे पांय धरले.तिच्या भोळ्या बाबड्या भुरग्यांचेर जाल्ले क्रुर करणेक लागून तिणें गांवाचेर स्राप घाल्लो तो भोगसुपाची तिका विणवणी केली. तिचे धुवेक देव मानून तिची देवळांत स्थापना करतले अशें वचन तांणी तिका दिलें. आपले धुवेक न्याय मेळटलो हें समजतकूच, समजूतदारपणान तिणें शिरापांत बदल केलो.'दर वर्सा चोवीस तास ह्या गांवांत कोणागेरच चूल पेटचीना आनी अन्न शिजचेना.' असो तो शिराप उणो करून तिणें तांकां भोगसणें दिलें.

मागीर जेन्ना हे लोक गांवांत थीर जाले तेन्ना तांणी विधवेक दिल्लें उतर पाळ्ळें आनी तिचे धुवेची मुर्ति गांवांतल्या देवळांत स्थापन केली. ही देवता उदकांतल्यान प्रकटिल्ली म्हण तिका श्री मंडोदरी देवी अशें नाव दिलें. 'मंड' म्हणजें उदक आनी 'उदर' म्हणजें उदकांतल्या पोटांतल्यान प्रकट जावपी. ही दंतकथे वयल्यान अशें स्पश्ट जाता कि बेतकी गांवांतली श्री मंडोदरी देवी, जिची गांवकरी भक्तीभावान आराधना करतात, ती रावणाची बायल नासून, एक थळावी देवता. ह्या पंचायतनांत तिचें देवूळ सगळ्या देवळां परस व्हड आसा आनी लोकांची तिचेर खूब श्रद्धा आसा. तिच्या भावाकय देव मानून झरीचे सकयल्ले वटेन मुर्तिच्या रुपान गांवांत स्थापना केल्या. जंय मुर्ती स्थापन केल्या ते सुवातेक 'नारबंदो' अशें म्हणटात.

भटाचे विधवेन शिरापांत बदल केलो आनी ताचो परिणाम अजून मेरेन गांवकऱ्यांचेर आसा ही देख घेवपा सारकी गजाल. ही घडणूक सगळ्यांचें लक्ष ओडून घेता. दर वर्सा गांवकरी चोवीस तास गांवांत अन्न शिजय नासतना रावतात आनी थोडे उपास करतात. नव्याचे एक दीस पयलीं गांवकरी अन्न घरांत शिजयनात. दनपारच्या जेवणा उपरांत एकतर ते उपास करतात वा गांवचे शिमे भायर वचून जेवतात. अशी अजून मेरेन प्रथा आसा. दुसऱ्या दिसाचें दनपारचें जेवण गांवचे शिमे भायरूच करतात. नारबंदोचो कळस तिर्थाक वता. जेन्ना नवें धान्य (भात) कापतात, तें देवळांत हाडून नेवैद्य करून सगळ्या देवांच्या नांवान वाडी दवरतकच गांवकऱ्यांक वाटतात. ताचे उपरांत न्हावन जेवण रांदपाक सुरू करतात.

अजुनय जर आमी ह्या गांवांत भोंवडी करत जाल्यार आमकां उदक वयल्या तळांतल्यान व्हांवतना दिसतलें. बेतकी गांव हो उजळ, परजळीत, लख्ख पाचवीं कुळागरां आनी पांचवेचार रसरशीत शेतांनी नटिल्लो आनंदग्राम म्हणपाचें भासता.

●●●

पणजी. © 9850467477

## | पासय |




कांय दिसां फाटल्यान,अचकीत म्हाकां एक फोन आयलो. ती म्हजे वळखीचीच, सादारण सत्तर पंचात्तर वर्सां पिरायेची एक बायल मनीस आशिल्ली. ती स्वता एक दोतोर आनी तिचो घोवूय बी दोतोर. ती म्हणूंक लागली,''नूतन, तू समाजांत भायर भितर वावुरता, कविता-लेख बरयता. म्हाकां एक सांग, म्हजे सारख्या बायलांच्या मनांत कितें शिजता हाचेर तूं कित्याक बरयना? हांव हें तुका सांगतां म्हणून वायट धरूं नाका. वय जालें म्हणटकर घोवान बायलेक हातय लावप नासता गो? इतलीं वर्सां संवसार केलो तें केन्ना विसरूंक शकता काय कोण एक? हे वयांत पयलींच, मातशें काम केल्यार पुरो जाता. शरीर साथ दिना. तेन्ना आपल्या मनशान फाटीर आपुलकीचो एक हात भोंवडांव नजो गो? 'तूं आतां बस मातशें' अशीं दोन उतरांय दिवंक जायना गो? इतल्या वर्सांचो सगळो मोग-फोग खंय वता गो?''

तिचे हे प्रस्नार प्रस्न कानार पडना फुडें म्हाकां एकदम कच्च जालें. तशी ती म्हाकां अर्दी मर्दी फोन करता आनी जुजबी उलोवन फोन दवरता. आजचें तिचें उलोवप म्हाकां नवेंच आशिल्लें.दुसरी कोणूय, म्हज्याकूय पिरायेन ल्हान आशिल्ली जाल्यार हांव म्हजीं चार उतरां तिका आयकयतलें आशिल्लें. पुणून ती पडली म्हज्याकय व्हड आनी तातूंत दोतोर!

''तुजो रकाद दोतोराक (तिच्या घोवाक) दितां अशें म्हणून हात वळ मारून व्हलों आनी हेर गजाली करून फोन दवरलो. पुणून तो विशय थयच सोपलो ना. म्हजे तकलेंत तो दिसभर घोळत रावलो.

खरेंच, आमचे कातीक जरी दोळ्यां भशेन दिसना, तोंडा भशेन उलोवंक येना तरी जें स्पर्शज्ञान तिका आसा ताचे बळार तो दुसऱ्याच्या मनातल्या भावना वळखता. ह्या स्पर्शा मारफत आमी दुसऱ्याक मोग, धीर, विस्वास, आपलेपण दिवंक वा घेवंक शकतात.

निकत्याच जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याचे दृश्टीची पुराय जडण घडण जाल्ली आसना. अशे वेळार तें आपल्या हाताच्या तळटांनी आपल्या सभोंवतणींची वळख घेत आसता. खूबशें फावट, ताका पांयांक जशे मेय घालतात तशे हातांकय बी ग्लोवज घाल्ले दिश्टी पडटात. हें सामकें चूक आसता. कित्याक तर हीं माणकुलीं आपल्या हाताच्यां स्पर्शानीच आवयची वळख घेतात. आवयक सोदत आसतात.

हीं माणकुलीं मानशीं व्हड जालीं काय तांकां आवयचें कुशितलें उबेंत खूब कितें मेळटा. तांचो 'भावनीक भागाकार'(Emotional quotient) वाडटा. अशें दिसून आयलां की बुदवंतकाय जरी मानसी उणी आसली तरी आपल्या फुडल्या आयुश्यात तें भुरगें जैतिवंत जाता तें हे भावनिकतायेचे बळग्यार. भुरगीं जसजशीं व्हड जातात, म्हळ्यार तीन चार वर्सां पिरायेचीं जातात, तशीं तीं जाणट्यां पासून मातशीं पयस वतात आनी आपल्या वांगडच्या भुरग्यां वांगडा खेळूंक लागतात. हे पिरायेर तांकां आपलें कुडीक तशेंच हेर भुरग्यांकय बी हात लावंक आवडटा. एकमेकाक समजून घेवपाचो हो स्पर्श आसता.

जेन्ना भुरगें आपले हातांनी जेवंक-खावंक, न्हांवंक लागता अश्या स ते सात वर्सां पिरायेच्या भुरग्यांक आमी 'गुड टच आनी बॅड टच' म्हळ्यार कितें हें समजावन सांगूंक जाय. हेरांनी केल्ल्या स्पर्शांची जाणीव, तांच्या शाळांनी वचून, तांकां कांय चित्रां दाखोवन बरो स्पर्श आनी वायट स्पर्श हाचे विशीं खेळीमेळीच्या वातावरणात म्हायती दिवंक जाय. आनी जर काय तांकां केन्नाय वायट स्पर्श जाणवलोच जाल्यार तांणी फुडें कितें करूंक जाय हेंय बी तांकां बरे तरेन समजावन सांगूंक जाय. जशीं जशीं भुरगीं व्हड जातात तशें तांकां हाची जाण आपसूक येता.

ज्या कांय मनशाक दोळ्यांनी दिसना तांचें तर स्पर्शज्ञान खूब आसता. हाका लागून तीं आपलीं दिसपट्टीं कामां भाव बरीं करूंक शकतात.

हॉस्पिटलांत जेन्ना एखादी नर्स वा दोतोर पेशंटाचो हात आपल्या हातांत घेवन ताची खबर, वासपूस घेता तेन्ना पेशंटाक खूब उमेद




डॉ. नुतन देव
नामनेची दोतोर आनी कवयित्री.
काव्यात्मक ललित लेखनांतूय फिशाल.

येता. दीर मेळटा. ताच्या आंगांतले हॅप्पी होर्मोन्स वाडटात आनी वखदां बराबर हो स्पर्श दुयेंस बेगीन बरें जावंक हातभार लायता.

मातृछाये सारख्या अनाथ भुरग्यांक आश्रय दिवपी संस्था आसूं वा स्नेह मंदीर सारखी जाणटेल्यांक सांबाळपी संस्था आसूं, जेन्ना केन्ना आमी थंय वचून तांच्या खांदार वा फाटीर हात दवरतात आनी तांचे कडेन दोन बरीं उतरां उलयतात तेन्ना तांकां जाल्ली खुशालकाय तांचे तोंडार दिसता. अन्न, वस्त्र, निवारो हाचे वांगडा तांकां स्पर्शाचीय बी गरज आसता.

थोड्यांक गजाली करतां करतां, गरज नासतना आयकतल्याक हात लावपाची संवय आसता. तांचे मनांत जरी कांय नासलें तरी दुसऱ्याक तो स्पर्श आवडटा वो आवडना हाचें तांकां पडुनच गेल्लें आसना.

'वेड पांघरून पेडगांवला जाणे' हे मराठींतले म्हणी प्रमाणे, मुद्दम जावन आपली इत्सा भागोवपाक नाका जाल्ले, नाका थंय स्पर्श करपी जायते महाभाग जात्रेंत, बशींत, थियेटरांत सांपडटात. ज्यांकां तांचें हें कर्म आवडना तांणी तांचेर आड्डून आपलो राग उक्तावंचो ना जाल्यार असल्या मनशां पासून चार हात पयस रावपांत शाणेपण मानचें.

थोडक्यांत किर्ते तर प्रत्येक स्पर्शाचो अर्थ वेगवेगळो आसता.तो स्पर्श करतल्या आनी स्पर्श करून घेतिल्लो व्यक्तीचे भावने प्रमाण बदलता.

आवयचे कुशींत जाल्लो पयलो स्पर्श, हांतुणाचेर लोळटना जाल्लो भावंडांचो आपलेपणाचो स्पर्श, बरे मार्क मेळटकच तकलेर हात दवरून आशिर्वाद दितना जाल्लो टिचरांचो स्पर्श, व्हंकलपावणे वेळार बापायन वेंगेंत घेतना जाल्लो आश्वासक स्पर्श, आपापल्या वाटांनी फुडें सरतना हातांत हात दितना जाल्लो मित्रमैत्रिणींचो स्पर्श, ओंठार ओंठ तेंकोवन केल्लो पयलो वयलो मोगाचो स्पर्श अशे हे सगळे स्पर्श मोलादीक आसतात आनी आमकां जाय म्हळ्यार लेगीत ते परतून केन्नाच मेळनात. हांकां दैवी स्पर्श म्हळ्यार लटकें जावंचें ना.

सकाळीं फोनार विचारिल्ल्या प्रस्नाची जाप सांजवेळ म्हळ्यार म्हाका सांपडली. आमी दोन शब्द कमी उलयल्यार जाता. पुणून आपल्या मनशाक केन्ना केन्नाय, मायेमोगाचो एक स्पर्श जरूर करचो, मागीर ताची पिराय कितलीय आसूं. ह्या आमच्या इतल्याश्याच स्पर्शाक लागून एखाद्रयाची जीण सुंदर, सोबीत जाता हें आमी मतींत दवरचें.

●●●

फोंडा ✆ 9850133160

# तरनाट्यांनी सपनां उगत्या दोळ्यांनी पळोवंचीं - डॉ.कलाम

दर एक मनीस आपल्या फुडाराचीं सपनां पळयता आनी तीं पुराय करपाक वावुरताय बी! पूण सगल्यांचींच सपनां पुराय जातात अशें ना. थोडीं सपनां पुराय जातात तर थोडीं जायनांत. तरी आसतना आमी मनीस सपनां पळोवपाचीं सोडटात व्हय ? दोतोर अब्दूल कलामान म्हणलां तशें 'तरनाट्यांनी सपनां उगत्या दोळ्यांनी पळोवंचीं पूण तीं पुराय करपाक ध्यास मनांत बाळगून जेन्ना वावराक लागतले तेन्नाच पळयल्लीं सपनां पुराय जावंक पावतलीं.'

दोतोर कलाम हांणी स्वता सपनां पळयल्लीं तातूंतलीं कांय पुराय जालीं तर कांय पुराय जावंक नात. पूण ते निर्शले नात. आपली मोख दोळ्यां मुखार दवरून जीव तोडून वावुरले म्हण पुराय संवसाराक ते देख दिवंक पावले. आपूण एक सादारण घराब्यांत जल्म घेतिल्लो मनीस. हांव जर देशाचो राष्ट्रपती जावंक शकतां जाल्यार हेर भारतीयांनी फाटीं कित्याक रावचें? अशें चिंतून तांणी तरनाट्यांक सपनां पळोवंक शिकयलीं. भारतीय तरनाट्यां कडल्यान तांकां व्हड अपेक्षा आशिल्ल्यो देखून ते म्हणटाले, 'तुमी तुमचो फुडार बदलूंक शकनात पूण तुमी तुमच्यो संवयो बदलूंक शकतात मागीर बदलिल्ल्यो संवयो तुमचो फुडार अवश्य बदलूंक शकतल्यो.' कितल्या आत्मविस्वासान तांणी सांगचें आनी तरनाट्यांनी तांचीं उतरां उखलून धरचीं. ते लोकांचे राष्ट्रपती तर आशिल्लेच त्या भायर एक वैज्ञानीक, कवी, लेखक, तत्वगिन्यानी आनी तरनाट्यांचेंआवडिचे शिक्षक आशिल्ले. श्रीजन पाल सिंह हांणी "What can I give ?' Life lesson from my teacher, .P.J. Abdul Kalam ह्या पुस्तकांत बरयलां त्या प्रमाण ते डॉ. कलाम हांच्या मार्गदर्शनाखाला वावुरताले तेन्ना सातत्यान ग्रामीण विकास प्रणालीचेर डॉ. कलाम हांचे लागीं भासाभास करताले. भारतांत ग्रमीण विकास बरे तरेन



एच्.
मनोज
पेशान शिक्षक.आदर्श समाज निर्मणेचो वसो घेवन वृत्तपत्रांय लेखन करतात

कसो करूं येता हाचो अभ्यास करपाक खातीर ते देश-विदाशांतल्या परिशदांत वांटेकार जावंक वताले. शिक्षण क्षेत्रांत अमूल्य बदल घडून हाडपा खातीर डॉ. कलाम हांचो वावर दोळ्यांत भरपा सारको आनी तांच्या ह्या वावराक लागूनच भारतीय तरनाट्यांक प्रेरणा मेळटा अशें श्रीजन पाल म्हणटात. डॉ. कलाम हांणी तरनाट्यांक 'अग्नीपंख' दिवन फुडाराचीं सपनां साकार करूंक व्हडली उडी घेवंक बळगें दिलें अशें म्हणचें पडटलें. ते तरनाट्यांचे प्रेरणा रूख जावन तांकां दिका दाखयतात अशें हांव मानतां. खास करून प्रबंधन अध्ययन (मॅनेजमेन्ट स्टडीज) करपी भुरग्यांक ते बऱ्या पैकी मार्गदर्शन करताले ह्या क्षेत्रांत तांची उणीव पावला पावलाक दिसून येता आसतली हातूंत दुबाव ना.

अरुणामा सिन्हांचीय गजाल घेवया! धडधाकट आशिल्लें मनीस एका अपघाताक लागून आपलो पांय शेणोवन पंगू जालें. तरी पूण आपलो ध्यास सोडलो ना. शारिरीक बळ कमी पडूंक दिनासतना हिमालय पर्वत शिखरार चडपाचो हावेस पुराय करून थंय पावपी पयली पंगू महिला पर्वतारोही म्हूण नांव मेळयलें. अश्यो कितल्योश्योच देखी दिवं येतात जांणी शारिरीक जांव आर्थीक परिस्थिती बिकट आसून लेगीत आपलें ध्येय पुराय करपाचो हावेस बाळगिलो आनी सत करून दाखयलो. हाचोच अर्थ मनांत आयल्यार मनीस कसलेंय पेंगट बांदूंक शकता आनी तें तडीक व्हरूंक पावताय बी. म्हाका दिसता असो खर आत्मविस्वास आशिल्लेच मनीस तड मारूंक शकतात. तरी पूण तांच्या जैताचें स्त्रय तांणी केल्ल्या कश्टांक दिवंचें पडटलें आनी तांचे हयकारी वृत्तीक सलाम करचो पडटलो.

शाळेंत जेन्ना भुरग्यांक आमी स्वाध्याय आनी प्रकल्प करपाक दितात तेदे वेळार तांकां समजावन सांगतात, मन लावन आत्मविस्वासान करात म्हूण, तेन्ना कांय जणांक प्रस्न पडटा आत्मविस्वासांत इतलें बळगें आसता व्हय, जाचे वरवी आमी कठिनांतलें कठीण कार्य करूंक शकतात? हय आत्मविस्वासान अशक्य गजाली कोणय शक्य करूंक शकतात. गरज आसता ती खंयचेय परिस्थितीक तोंड दितना आपलें ध्येय विसरूंक फावना आनी स्वताक कमी लेखूंक फावना.

मनशांचो आत्मविस्वास ज्या घटकांचेर निंबून आसता ते घटक अशे आसात-

- पयलो घटक तुमी सगलीं आडमेळीं हुपूंक शकतले काय ना?



- दुसरो घटक तुमकां कितें कितें मानवतलें ना मानवलें जाल्यार तुमच्यांत फावो तो बदल करूंक तुमी तयार जातले काय ना ?
- तिसरो घटक तुमच्यो चुको वा तुमच्या यशा पासून तुमी कितें देख घेतले?

एकदां ध्यास मनांत बाळगिलो म्हणटकच तो पुराय करूंक मुखार सरतले तेन्ना जायतीं मोडणां येतलीं तीं पयलीं हुपूंक जाय. पाशिंयेंस पिड्ड्यार जावंक पावतलें पूण धीर सोडप ना. आपल्या ध्येयाक दसून रावन वावर करीत रावचें.

कांय गजाली तुमकां घडये आवडच्यो नात वा तुमी त्यो गजाली करपाक अनमनतलें. पूण तातूंतल्यान कळाव करी नासतना तुमकां मार्ग काडचो पडटलो. आपल्याक कितें बरें आनी कितें वायट पडपाक शकता हाचो विचार करून पावल मारचें पडटलें. तेन्नाच ह्या संवसारांत तग धरूंक पावतले.

यत्ता धावेचो निकाल लागता तेन्ना जायते फावटी पालक आपल्या भुरग्यान परिक्षेक मेळयल्ल्या गुणांचेर खोशी

जायनात. भुरग्याक कितलेंय बरे गूण मेळ्ळे तरी पालक कसली ना कसली खोड काडटाच! तेन्ना भुरगो निरास जातात. तांचो आत्मविस्वास उणो जाता अशी परिस्थिती सतत जायत गेल्ली जाल्यार भुरग्याचें संतुलन इबाडटा आनी तें दुर्येत पडटात. अश्या वेळार भुरग्याचें मनोबल उचारपाचो यत्न केल्यार फुडाराक बऱ्या पैकी यश जोडूंक पावपाची दाट शक्यताय आसता. दुसरें कारण म्हणल्यार स्कुलांत शिकयतात ते विशय जर एखाद्या भुरग्याक आवडनात जाले तर ताची शिकपाची रूची कमी जाता. तांचेर ते विशय थोपिल्ले आशिल्ले कारणान ताचें लक्ष लागना. तो प्रयत्न करपाचें सोडून दिता. हाचो परिणाम एक तर तो नापास जाता वा तो वायट प्रदर्शन करता. जेन्ना तोच भुरगो व्हडा कश्टान आपटून धपटून पास जाल्या उपरांत अकरावेक आपले आवडिचे विशय घेवन शिकता तेन्ना ताचें परफॉर्मन्स वाडूंक लागता. एका वेळार निरास जाल्लो तो पूण आतां आवडिचे विशय घेवंक मेळिल्ल्यान ते विशय ताका समजूंक सोंपे जातात. तेच परी ताच्या मनोबलाक बळगें मेळून तो हळू-हळू सुधारपाक लागता.

शैक्षणीक जाणकारांच्या मतान भुरगो जेन्ना यत्ता आठवेक पावता तेन्ना ताका आपले आवडिचे विशय घेवन शिकपाची तजवीज शिक्षण क्षेत्रांत जावंक जाय. जायत्या पालकांचें आनी शिक्षकांचें हेंच मत. नवे शिक्षणीक धोरणांत तशी तजवीज आसतली अशें आदले केंद्रिय मंत्री प्रकाश जावडेकर आनी केंद्रिय मनीसबळ विकास मंत्री रमेश पोखरियाल हांणी उतर दिल्लें. आतां राज्य सरकार लेगीत नवीन शिक्षणीक धेरण बेगीन चालीक लावंक पावलां मारतलें असो विश्वास आमी दवरूं येता. नव्या शिक्षणीक धोरणांत वेग-वेगळ्या पावंड्यार फावो ते बदल सुचयल्ले आसात. पूर्व प्राथमीक, प्राथमीक, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक शिक्षण, उच्च शिक्षण, तंत्र आनी कौशल्य शिक्षणाच्या मळार तशेंच वेवसायीक आनी प्रौढ शिक्षणाचोय आसपाव जाल्लो दिसता. पयलीं राबयताले तें धोरण 10+2+3 अशें आशिल्लें. ताच्या बदला आतां नवें धोरण अशें आसतलें 5+3+3+4 हाचो अर्थ असो, सुरवातीचीं पांच वर्सां ही पयली पायरी शिक्षण म्हणचें पडटलें, मागीरचीं तीन वर्सां म्हणल्यार यत्ता तिसरी ते पांचवी मुळाव्या शिक्षणाचो पांवडो. ताच्या उपरांतचो म्हणल्यार यत्ता सवी ते आठवी मेरेनचो पांवडो मदलो पांवडो जाल्यार यत्ता णवी ते बारावी मेरेनचो म्हणल्यार चार वर्सांचो हो माध्यमीक पांवड्या वयलो थारतलो. जण एका पांवड्यार भुरग्यांक आपलें शिक्षणीक कौशल्य परगट करचें पडटलें आनी हे पांवड्या पांवड्यानी परगट जातले देखून शिकपी भुरग्यांचेर दबाण येवचें ना. तेच परी सुरवातीचीं तीन वर्सां सगन पाठ्यपुस्तक नासतना तीन भाशेंतल्यान मुळाक्षरां, आकडे, रंग, आकार आनी संगीत हीं उद्दिश्टां साकार करपाचो यत्न आसतलो! देखून भुरग्यांक तीं आत्मसात करपाक सर्जेशीर जातली असो अदमास आमी शिक्षक तशेंच पालक करूंक शकतात. मुळावें शिक्षण आवय भाशेंत जावचें हें तत्व आपणायल्ल्या कारणान शिकपी भुरग्यांक सोंपें जातलें. जी चूक हाचे पयलीं जाल्ली आसा ती चूक सुदारपा खातीर सरकारान पावलां मारपाची गरज आसा. मुळावें शिकप कोंकणी भाशेंत दिवंक लागलें जाल्यार ताचो लाव शिकपी भुरग्याक जातलो हें सत्य आमी विसरूंक फावना. यत्ता पयली ते पांचवी मेरेन वाचनाचेर आनी मुळावे आंकडे वा गणिताचेर भर दिला अशें दिसता.

तशेंच यत्ता सवी पासून गणिताचेर आदारीत चित्रकला, योग ते क्रिडा मेरेन सगळे विशय शिकप गरजेचें आसतलें. भुरग्यांक कांय सामान्य विशय सोडून आपले आवडीचे विशय घेवपाची मेकळीक आसतली! तेच परी वेवसायीक शिक्षण दिवपाची तजवीज आसतली. यत्ता णववेक पावतकच भुरग्यांनी आपल्याक आवड आशिल्ल्या वेवसायीक शिक्षणाचो अभ्यास करूं येतलो. तांका मात तिसरी, पाचवी आनी आठवी यत्तेंत निमणी चाचणी परिक्षा दिवंची पडटली. भाशेचें ज्ञान आनी गणिताचें कौशल्य प्राप्त जालें काय ना हें तपासप गरजेचें आसतलें. यत्ता णववेक सामायीक तीन विशयांचेर भुरग्यांक ऑन लायन परिक्षा दिवच्यो पडटल्यो! आपले तयारी प्रमाण ते परिक्षा दिवंक शकतले. कसलीच सक्ती आसची ना. हो एक बरो प्रयोग जावंक पावतलो. शिक्षणीक लवचिकता आपणावची पडटली. तशेंच बारावी पास जाल्या उपरांत तीन वर्सांनी पदवी मेळोवचे बदला चार वर्सांचो अभ्यासक्रम आपणावपाक शकतले. हाचो अर्थ असो भुरग्यांनी सादारण पदवी बराबर वेवसायीक प्रशिक्षण पदवी लेगीत घेवं येता. शिक्षण क्षेत्रांत वा वेवसायीक क्षेत्रांत वचपाची आवड आशिल्ल्यांक हे पद्दतीचो फायदो जातलो. ह्यो जाल्यो कागदावेल्यो खबरो. नवे बदल जेन्ना शिक्षण मळार लागू जातले तेन्ना पळोवया खंय मेरेन पावता तें! तो मेरेन आमी वाट पळयत बसुया.

●●●

चिखली-वास्को ✆ 9822441417

# वान (रगडो)



आयज हांव वाना बद्दल उलयतलें. वान (रगडो) सादो, दगडाचो, फातरांचो तुकडो! पूण तो कोरांतून काडिल्ल्यान आमचें वाटपाचें काम सोंपें करता. हिंदींत हांका सिलंबट्टां म्हणटात. मराठींत तांका पाटा वरवंटा, तर कोंकणींत रगडो (वान) आनी इंग्लीशींत तर grinding stone म्हणटात. उपेग सगळ्यांचो तोच- वाटपाचो. आमी रसायनशास्त्राचे प्रयोगशाळेंत खलबतो घेवन पदार्थाचो बारीक पिठो करतालीं, तांचो उपेग तसोच जातालो.

आतां मार्बलाची ल्हान वानां बाजारांत येतात. तांचो उपेग आलें, लसूण चेंचपाक वा वेलची कुटपाक जाता. म्हाका हीं ल्हान वानां घेवपाक खूब आवडटात. तीं खलबत्या बशेन दिसतात. म्हजे व्हडले भयणीक वाटपाक खूब आवडटा. खूबशी सोय वा पोळ्यांचे तांदूळ घालून तें पयलीं घसघशीत वांटून दवरतालें वा दाट कडी पिळटालें.

म्हजे पाइडेचे मावशेक सुद्दा वानार वांटपाक खूब आवडटालें. आपलो गोरो पान देह घेवन त्या व्हडल्या आजेमांयच्या रगड्यार बसून गंध कशी हुमण वांटताली तेन्ना सुंदर दिसताली. तिचें गलेलठ्ठ अशें शरीर कांय न्ही करून वांटप वाटतालें आनी मागीर ती स्वताचेर खूश जाताली. तिचें वानार वाटिल्लें हुमण, कडी खावन आमचो ल्हान भुरग्यांचो जीव धादोस जातालो. मावशी आपल्या भाचरांक मुड्झ्यांचीं हुमणां करून वाडटाली.

मिक्सर ग्रायडर आयले आनी बाबड्या वानाचे दीस सरले. वानाक आता मसालो, पिठी कुटपाची ना वा मिरची कुटपाचें कांय ना,. आतां मसालो, मिरची पावडरांची, पापडांचीं पाकिटां मेळटात. आनी तीं हायजॅनीक आसूं वा नासूं आमी तीं खातात.




**सुचेता पै कामत**

पेशान शिक्षिका.भोंवडेची आनी ललित लेखनाची आवड..


एकदां म्हजी नागपूरची मैत्रीण गोंयां आमगेर रावंक आयिल्ली आनी ते दिवाळेचे दीस आशिल्ले. पयले राती आमी व्हडा उमेदीन तांकां सगळे नरकासूर दाखयले आनी सकाळीं उठपाची तयारी करून न्हिदून गेलीं. फात्या पारार जाग आयली. अभ्यंगस्नान वगैरे करून आतां फोवांची तजवीज करपाक लागलीं. आमी जेन्ना 4-5 नाल्ल कातले आनी वानार वांटपाक लागलीं. तें पळोवन तांकां घुवळ येवपाची जाली. 'सुचेता एवढं खोबरं कशाला वाटतात गं ?' अशें म्हणपाक लागलें.

ताणें नागपूरांत ताच्या आख्ख्या आयुश्यांत फकत शेंगदाण्याचोच वापर केल्लोआनी नाल्ल म्हळ्यार फक्त प्रसादाक शिरत्यो काडटात तितल्योच तांणी पळयल्लो. मागीर आनी तें फोवांचे भानगडींत गेलेंच ना. सुको फराळ काडून बाबड्यान दीस काडलो.

जंय खंय नाल्ल लागतात थंय वानाचो वा ग्रायडराचो उपेग जाता. आमचे केरळीयन इश्टीणीन आमकां नाल्ल कातपाचें एक बरें यंत्र हाडून दिलां. तें ओट्याचेर बसोवन घेवन नाल्ल कातपाक येता. पूण हालींसरा ल्हान वानां येतात तीं भातकुलीच्या खेळांतलीं कशीं दिसतात.

महाराष्ट्रांत पाथरवट म्हणून एक समाज आसा. ते फातरा पासून विवीध वस्तू कोरांतून काडटात. तशीं वानां, फातरी, दांती, खलबत्ते करतात. हो पाथरवट समाज रस्त्याचे कडेक बसून छिन्नीन फातर फोडत आसतात. पयलींच्या वेळार लोक तांकां ह्यो वस्तू केल्यो काय पयशे वा धान्य दिताले. पयलीच्या काळार दगडी मुर्तीक मागणी खूब

आसताली अशें ते पाथरवट लोक सांगतात.

आमच्या नावेली रोझरी सायबिणीच्या वा म्हापशेंच्या मिलाग्रीस सायबिणीच्या फेस्ताक हे लोक खूब प्रमाणांत येतात आनी चार आठ दीस आपलें बस्तान बसयतात. रगडो माथ्यार घेवन, दांते माथ्यार घेवन तो पाथरवट समाज गांवागांवानी भोंवता. पूण आतां मात पारंपारीक व्यवसाय जायना म्हणून नोकरेच्या सोदांत आसात. थोडे समाजांतले लोक शिल्पकार, गवंडीकाम, मुर्तीकाम, रंगकाम, बांधकाम ह्या वेवसायांत गेल्यात. प्राचीन काळा पासून हो समाज गडकिल्लो, पाशाणी देवळां बांदता. तो महाराष्ट्रांत बारा बलुतेदार पैकी एक असो शिल्पकार समज आसा. कोरीव काम करपी कलाकार आतां 05 टक्के उरल्यात अशी खंत समाज व्यक्त करता. असो हो इतिहास आशिल्लो आमचो रगडो (वान) गोंयांत खूब प्रसिद्द आसा. गोंयांत ह्या नांवाची एक (रगाडा) न्हंय लेगीत तांबडी सुर्ला ह्या वाठारांत आसा. पूण आतां कांय जाण शोभेची वस्तू म्हणून त्या वाना कडेन पळयतात. आमच्या घरांत म्हजे आजीमायचें वान आसा. तें धा लोकांक सुद्दां उबारपाक जायना इतलें मोठें आसा.

तशेंच वान आमच्या नावेलीच्या घरांत कामत कुटुंबियांचें आसा. ताचो इतिहास खूब पयलींचो आसा. जेन्ना आमी नवीन घर बांदपाक घेतलें तेन्ना ह्या मोट्या वानाक प्लेचर म्हणपाक मेळ्ळें ना. सगळें साम न केल्लें. पूण ताका मात आमी व्हेलें ना. ह्या रिकाम्या मोडल्ल्या घरांत ताणें दोन वर्सां काडलीं. ताचेर दोन वर्सां पेन्ट पडलो. माती, सिमेन्ट, वत, पावस सगळें पडलें. पूण ताका कांयच जालें ना. तें अखंड, अबाधीत उरलें फातरूच तो ताका कांयच जालें ना.

मागीर घरप्रवेश जावन आमी सगळीं नवीन घरांत आयलीं आनी वानाक बगबर भितर घेतलें. ताका आतां किचनांत बरी सुवात करून दिली. पूण आतां तसो ताचो उपेग हांव करिना. पूण तें म्हाका आदल्या काळांतल्यो गजाली सांगत आसता. सांय वाटपा पासून, तांदूळ वाटपा पर्यंत तें पापडाची पिठी धोंडाय पासून सगळें वर्णन तें करत आसता. कितल्या सवायशिणींनी आपल्या बगबर काम केला ताची जत्रींच तें म्हाकां सांगता. ताचें हें वर्णन आयकून हांव खंय तरी भूतकाळांत विलीन जातां...

•••

म्हापशें ✆ 9421242859

# रिलेशन्स

खंयचोय उद्योग वा सेवेंत यशस्वी जातले जाल्यार बरें रिलेशन्स जाय. उद्योग वा सेवा ही एका मनशान करपाची गोश्ट न्हय. ती सामूहीक,सांघीक प्रक्रिया आसता. It is team work. देखूनच जंय एका परस चड मनशां एकठांय येतात थंय, एकमेकांच्या संबंधाचो, रिलेशन्सचो विचार करचो लागता. कांय जाणांक तें बरे तरेन होलमता. कांय जाण परिस्थिती सामकार येतकूच ताका कसो तरी फुडो करतात.

मानवी संबंध सकारात्मक कामाचें वातावरण विकसीत करपा खातीर, वावुरपी तिगोवन दवरपा खातीर आनी उत्पादकतेक उमेद हाडपा खातीर म्हत्वाचे आसतात. खंयच्याय कामाचे सुवातेर कामगार आनी वेवस्थापन हांच्यांतले संबंध बरे आसपाक जाय हें सगळे जाणात. पूण ते सांबाळप सोंपे न्हय. ताचो फायदो कामगारांकूय जाता आनी वेवस्थापनाकूय जाता. म्हणूनच ते संबंध म्हत्वाचे थारतात.

दर एका कामगारा विशीं आपलेपण हें किर्लोस्कर उद्योग समुहाचें खाशेलेपण आसलें. उद्योगपती स. शंतनुराव किर्लोस्कर हांणी तो आदर्श घालून दिल्लो. किर्लोस्कर समुहांतले कामगार हे आपल्या कुटुंबाचे एक भाग अशे ते मानताले.तांचे कारकिर्दीत एकदां तांदूळ खूब म्हारग जाल्ले. तांदळाचे दर वाडल्यात हें किर्लोस्करांच्या लक्षांत आयलें. आपल्या कामगारांचे कशे हाल जातलेत ह्या विचारांत तांचें मन कळवळ्ळें. तांदूळ जर आपणें होलसेल दरांत घेवन, कामगारांक दिल्यार तांकां सवाय दरांत तांदूळ मेळूंये, हो विचार तांचे मनांत आयलो.



प्राचार्य
डॉ. वामन
रा. नायक
नामनेचे अर्थतज्ञ आनी लेखक.
सद्या पुण्यांत आय.एस.बी. एस.कॉलेजीचे प्राचार्य.



तांणी बेगोबेग चर्चा केली आनी येवजण राबयली. किर्लो स्करांच्या समुहांतल्या कामगारांक सवाय दरांत तांदूळ मेळूंक लागले. अशे तरेन ल्हान ल्हान गजालींतल्यान बरीं रिलेशन्स निर्माण जावं येतात.

अशेच तरेचे इश्टागतीचें नातें टाटा उद्योग समुहाचे मुखेली रतन टाटा हांणी आपल्या कामगारां बराबर बरें जमयल्लें. अशेच एकदां ते रिटायर्ड जावचे पयलीं पुण्यांतल्या टेल्को कंपनींत आयिल्लो. निरोपाचे सभे उपरांत जेवणाचो कार्यक्रम जालो. टाटान कामगार जेवण घेतात थंय जेवण घेतलें. तांचे बराबर हांसून मर्जेत तांणी वेळ सारलो. कामगारांच्यो बायलो दिसभर बेकार आसतात. तांच्या मेकळ्या वेळाचो उपेग करून घेतल्यार तांकां रोजगार मेळटलो असो विचार तांणी केलो. ते प्रमाण कल्पना चालीक लागली. कामगारांच्या बायलां खातीर घरगुती उत्पादन सुरू करचें, पापड,लोणचें करपाचें म्हूण तांणी घरगुती उत्पादनाचो एक व्हड उद्योग सुरू केलो. सगल्या बायलांक ताचो फायदो जालो.

तर अशें हें रिलेशन्स कांय संवेदनशील उद्योजकांनी पयलीं सावन जपलां.

असो हो टाटा ग्रुप भारतांतलो सगळ्यांवून व्हड आनी प्रतिशठीत वेवसायीक चोम्या मदलो एक अशें मानतात. कांय सगळ्यांवून बऱ्या मानवी संसाधनाचें (HR) पद्दतीचो आस्पाव करपी म्हूण ते फामाद आसात. फाटल्या कांय वरसांनी ग्रुपाचो झपाट्यान विस्तार जालो. तांणी पुराय ग्रुपा खातीर बऱ्यो एच आर पद्दती तयार करपाच्यो थारायलें आनी व्हडा उमेदीन आनी येसान त्यो चालीक लागल्यो. जे वेळार ह्या ग्रुपाचो संवसारीक थरार विस्तार जालो, तेन्ना वेगवेगळ्या संस्थां मदीं एक सारकें एच आर धोरण चालीक लावप हें एक तरेचें आव्हान आसलें. तरीय तांणी बऱ्याच प्रमाणांत तें केलें आनी करत आसात.

जाका आपल्या वेवसायांत येस मेळोवपाचें आसा ताका बरें रिलेशन्स दवरपाचें आसता. ज्या समाजाक उद्योजकाची व्हड परंपरा आसा त्या समाजातल्या लोकां मदीं रिलेशन्स जपपाचे गुण आपसूक आसतात. दाखलो, म्हारवाडी आनी हेर वेपारी समाज. जाचे कडेन असली परंपरा ना तांकां ती व्हड प्रयत्नांनी मेळोवपाची लागता. उद्योगाचे वाडी खातीर ह्या नात्याचे सांखळेचो खूब उपेग जाता. पूण हें रिलेशन्स एका दिसान निर्माण जाता व्हय? तें फकत बरें उलोवन वा सादे वळखीन जायना. तें निर्माण जाता विश्वासाच्या धाग्यांनी. तें योग्य तरेन विणचें पडटा.

खंयचोय उद्योग वा सेवा हो शेकीं मनशां मदलो वेव्हार आसता. उद्योगाचो संबंध मार्केटींग आनी व्यापारा कडेन आशिल्ल्यान भेटीगाठींतल्यान उद्योगाचो विकास जायत आसता. मुखार आशिल्ल्याचें काम कितें आसूंय हाची बरी पारख, उद्योजकाक आसपाक फावो. म्हणूनच आपले कडेन अयिल्लें गिरायक बेजार जावन वचूंक ना हाची जतनाय ताणें घेवंक जाय. गिरायकाचो विश्वास संपादन करप म्हत्वाचो आसता. खुबदां तें सगळें बरें तरेन उलोवन सादचें आसता. ज्या मनशाक आपल्या वेवसायाचें बस्थान बरे तरेन उबारपाचें आसता ताका मनशां मदलो वेव्हार बरे तरेन सांबाळूंक येवंक जाय. म्हणूनच म्हणटात न्हय खंयचोय उद्योग उबारपाचो हावेस बाळगुपी मनशाक पयलीं मनीस वाचपाक येवंक जाय वा मनशाक वळखुपाची कला आपणावंक जाय. कांय जाणां मदें ही कला मुळपासून आसता. मनशां मदल्या गुणांची पारख खूब कमी जाणांक आसता. उद्योजकांकूय यशा कडेन वाटचाल करतना आपले भोंवतणच्या मनशाची पारख आसूंक जाय. आपले मदीं वावुरपी निष्ठावान कोण, निसुवार्थी कोण, कष्टाळू कोण, पातयेवपा सारको कोण, हें ताका थोड्याशा सहवासांत कळूंक जाय. विश्वासू मनशांचें जाळें विणटना ताणें सुवार्थी, आपमतलबी लोकांक धान्यांतल्या फातरा सारखे वेंचून वगळावंक जाय. एका बरोवप्यान म्हळां, उद्योजकाची नदर ही मुखार आसप्याचें मन वाचपा इतलें खर आसूंक जाय. तेंच भशेन मुखार आशिल्ल्याक आपलेंशें करपी आश्वासक आसूंक जाय.

●●●

पुणे ✆ 9730504151

# अभिनेत्री आनी शिक्षिका मंजुषा तळवडकार हांची मुलाखत



*मंजुषा तळवडकार, वेवसायान वाणिज्य शाखेंतली शिक्षिका. अकरावी आनी बारावेच्या वर्गांत तांणी विद्यादान केलां. तांचो आदर्श शिक्षिका म्हूण भोवमानूय जाला. तांच्या विद्यार्थ्यांची ती आवडटी शिक्षिका. माचयेर नाटकांत आनी कॅमेरा मुखार फिल्मांनी अभिनय करप हो तांचो छंद. 'सावरिया डॉट कॉम', 'जुझे', 'टिफीन बॉक्स' ह्या सारख्या कोंकणी फिल्मांनी तांणी अभिनय केला.*

*त्या भायर पणजी दुरदर्शनाचेर तांणी मानेस्तांच्यो मुलाखती घेतल्यात. तशेंच कांय टॅलिफिल्मानीय अभिनय केला.*




**श्रध्दा गरड**

लेखिका साहित्य अकादेमीच्या युवा साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत कवियत्री.बालसाहित्य आनी ललित लेखनांत फिशाल.


**श्रध्दा :**-तुमी नाटकांत माचयेर अभिनय केला, तशेंच फिल्मांनी कॅमेरा मुखार अभिनय केला. जरी अभिनय हो अभिनयच आसता, तरी लेगीत माचयेर अभिनय करप आनी कॅमेरा मुखार अभिनय करप, हातूंत खूब फरक आसता. अभिनया विशीं तुमचो अणभव आमकां सांगशात ?

**मंजुषा :**– दोनूय कला, ह्यो वेगळ्या धाटणिच्यो आसात. जरी तो अभिनय आसलो तरी दोनाकूय सकारात्मक,नकारात्मक बाजू आसात.

नाटकांतल्या अभिनयाच्यो येसायो खूब पयलीं सुरू जातात आनी प्रेक्षकां मुखार माचयेर तें प्रत्यक्ष सादर जाता. ह्या कारणाक लागून ताची पक्की तयारी करची आसता. लायट(light), साऊंड (sound), ऑडियो-विज्युअल्स इफेक्ट, हेर सह-कलाकारां कडेन कॉर्डीनेशन हाची जतनाय घेवंची पडटा. तेन्नाच तो प्रयोग यशस्वी जाता. नाटक सोंपतकच लेगीत ताचो हॅंगओवर खूब दिस उरता .

फिल्मानी अभिनय करपाक तयारी करचीच पडटा, पूण चुकलें जाल्यार वा दिग्दर्शाक मानवलें ना जाल्यार रिटेक करपाक मेळटा. एक्शन म्हणना फुडें, तुंवेन मुखामळार योग्य ते हावभाव हाडून संवाद (डायलोग) म्हणचो पडटा . ल्हान ल्हान भागांनी तुजे शॉटस दिवचें पडटात. केन्ना केन्ना पुराय दीस चार वाक्यां खातीर लागता.

फिल्म आनी नाटक ह्या दोनूय माध्यमांतल्यान समाजाक एक संदेश (मॅसेज) वता. पूण नाटक जशें, एकाच दिसा माचयेर स्टार्ट टू फिनीश आसता, तशें फिल्मांत अभिनय करतना आसना.पुराय शुटींग जातकच, तातूंत बाकिचे इफ`क्टस घालून मागीर आख्खो सिनेमा तयार जाता.

**श्रध्दा :**– जेन्ना फिल्मांत वा नाटकांत एका पात्राचो अभिनय करपाचो प्रस्ताव मेळटा , तेन्ना त्या पात्राचो अभिनय करप काय ना हाचो निर्णय तुमी कसो घेतात ?

**मंजुषा :**–जेन्ना प्रस्ताव येता तेन्ना थोड्यो गजाली चिंतच्यो पडटात.देखीक खंयच्या टायमार येसायो आसतल्यो वा शुटींग खंय आसतलें, घरची जबाबदारी, नोकरी सांबाळून



जमतलें काय ना? पाठांतर करपाक वेळ मेळटलो काय ना ? ह्यो गजाली मतींत दवरच्यो पडटात.

**श्रध्दा :-** तुमकां फिल्मांत आनी नाटकांत अभिनय करपाचो अणभव आसा. तुमच्या शब्दांनी अभिनय म्हणजे कितें ? एका पात्राचो बरो अभिनय करपाक, त्या पात्राचो अभ्यास तुमी कसो करतात? त्या पात्राचो बरो अभिनय करपाक तुमच्या मनाक तुमी कशे तरेन तयार करतात ?

**मंजुषाः-** अभिनय म्हळ्यार त्या पात्राक पुराय तरेन न्याय दिवप. आपूण खंयचें पात्र रंगयतलें वा रंगयतलों, त्या पात्राची पिगय, ताची मानसीक, शारिरीक घडण, खंयच्या काळांतलें नाटक /सिनेमा आसा हें आनीक बाकिच्यो बारीक गजाली, दिग्दर्शका कडेन भासाभास करून, बरे तरेन समजून घेवन, मागीर तयारी करची पडटा. लोकां मुखार हाडटना पात्रा कडेन समरस जावन अभिनय करचो आसता. तेन्ना हांव, हांव उरना, हांव फकत तें पात्र / व्यक्तिरेखा जातां.

**श्रध्दा :-** अभिनय क्षेत्र हें ग्लॅमरस आसा. अभिनय क्षेत्रांत आपलें व्यक्तिमत्व घडोवपाक जांकां आवड आसा तांच्यांनी सादूर रावन, अभिनय करपाक मेळिल्ल्या प्रस्तावाचो निर्णय घेवपाक जाय. तुमी नवोदितांक कितें सुचोवण्यो दिवन मार्गदर्शन करतलीं?

**मंजुषा :-** नवोदीत कलाकार फकत ग्लॅमर आसा म्हूण ह्या क्षेत्राकडेन ओढून येता. पूण कांय म्हत्वाच्यो गजाली मतींत दवरपाक जाय. रातोरात, प्रसिद्धी मेळटली हें सपन पळोवन कोणाक येना. ह्या क्षेत्रांत खूब मेहनत आसा, भरपूर एनर्जी जाय, बरी भलायकी गरजेची, पाठांतर करपाची तयारी , सेल्फ डिसिप्लीन सामकें म्हत्वाचें,तशेंच जें पात्र रंगयतले ताचो सखोल अभ्यास करपाची तयारी सामकी जाय.

नवोदितांक आपलें वैयक्तीक जिवीत आनी फिल्म/नाटक हें जिवीत ह्या दोन जिवितां मदीं अंतर दवरून खंय रेशा ओडप तें कळपाक जाय .

**श्रध्दा :-** तुमी निवृत्त शिक्षिका आसात. ३५ वर्सां तुमी कार्मेल उच्च माध्यमीक विद्यालयांत वाणीज्य शाखेंत, बिझनस स्टडीस (Business Studies) आनी सेक्रेटेरीयल प्रॅक्टीस (Secretarial Practice) विशय शिकयले. तुमच्या ह्या विशया विशीं आमकां म्हायती दियात. हो विशय शिकतकच विद्यार्थ्यांक आपलो फुडार घडोवपाक कसो उपेगी थारता?

**मंजुषा :-** बिझनस स्टडीस हाका पयलीं ऑर्गनायझेशन ऑफ कॉमर्स म्हणटाले. बिझनस स्टडीस ह्या विशयांत व्यापार धंदो सुरु करपा विशीं शिक्षण आसता. देखीक,वेगवेगळ्या व्यापार धंद्याचीं आस्थापनां, तांचे फायदे लुकसाण, त्या सुरु करपाक लागपी दुडू, कसो, खंयच्यान उबो करप, शेअर बाजारा विशीं म्हायती, मार्केटींग कशें करप, बरो मॅनेजर जावपाक कितें गरजेचें आसता, म्हाल विक्री करतना ताचो दर (रेट/प्रायस) कसो फिक्स करप, ऑफीस मॅनेजमेन्टाचे वेग-वेगळें कार्य (फंक्शन) , कर्मचाऱ्यां कडल्यान बरे तरेन काम कशें करून घेवप, आदी. हो चडसो थियोरेटिकल विशय.

सेक्रेटेरीयल प्रॅक्टीस ह्या विशयांत थियरी आनी प्रॅक्टिकल हांचो दोनायचो आसपाव आसा. हातूंत एक बरो /बरी सेक्रेटरी जावपाक लागतात ते गूण, वेग-वेगळ्या ऑफिसांत काम करपी सेक्रेटरीची शिक्षणीक पात्रताय आनी तांची कामाची जबाबदारी, देखीक-सरकारी ऑफीस , व्हडले-व्हडले कंपनी ऑफीस, सहकारी (कॉपरेटीव) संस्थेंत आशिल्ली सेक्रेटरी, पंचायत सॅक्रेटरी, प्रायवेट सॅक्रेटरी, विधानसभेची सॅक्रेटरी, पारलिमेन्ट्री सेक्रेटरी, राजकीय पक्षाचीं सेक्रेटरी, आदी. त्या भायर विंगड-विंगड संस्थेचे रजिस्ट्रार, तांचो रोल , शेअर बाजार कसो चलता, आदी. सगळ्यांत म्हत्वाचें लेटरड्राफ्टींग. कारण, सेक्रेटरी ही व्यक्ती अत्यंत मध्यवर्ती आनी खूब म्हत्वाची भुमिका निभायता. ताचो/तिचो आस्पाव आयज सगळ्यां आस्थापनांनी आसा आनी तिचें म्हत्व दिसान दीस वाडत आसा. चडसो वेव्हार पयलीं पत्रांनी जातालो, आतां ईमेल धाडटात. पूण लेटर ड्राफ्ट कशें करप, दुसऱ्या मनशाक दुखयनासतना आपलें म्हणणें मांडप वा पटोवन दिवप ही एक कलाच. नोटीस, अजेंडा, मिनीट्स, रिपोर्ट कशें बरोवप, मिटिंग्स कश्यो घेवप,ताचे नेम, कायदे सेक्रेटरीक खबर आसपाक जाय.

आमचें उच्च माध्यमीक विद्यालय नुवें आसा, वेर्णा इंडस्ट्रीयल इस्टेट लागीं आशिल्ली. हांव खुबदां म्हज्या विद्यार्थ्यांक थंयचे कंपनींत व्हेल्यात. जें हांव शिकयतां, तें प्रत्यक्षांत ऑफिसानी दाखयलां. वेग-वेगळे विभाग, तांचे मॅनेजर, हांचे कडेन भासाभास करून विद्यार्थ्यांनी समजून घेतलां. तशेंच गोंय विधानसभा अधिवेशनाच्या दिसांनी, विद्यार्थ्यांक विधानसभेंत व्हरून अधिवेशनाच्या वेळार पयलीं कोण उलयता, अधिवेशनाची वेवस्था कशी आसता, अधिवेशनाक भासाभास कशी जाता तें प्रत्यक्षांत थंय पळोवन विद्यार्थ्यांक अणभवपाक दिलें.

हांव शिकयतालें तें चलयांचें उच्च माध्यमीक विद्यालय. चलयांक सरकाराच्यो खंयच्यो येवजण्यो आसात हें सांगपाक प्रोग्रॅम्स दवरले. सरकाराच्या येवजण्यांचो लाव घेवन स्वताचो बिझनेस सुरवात कसो करप, हाचेर उलोवपां आयोजीत केलीं. त्या भायर अनेक कंपनींतल्यान स्रोत जाणकार (रिसोर्स पर्सन) हाडून विद्यालयांत प्रोग्रेम्स आयोजीत केल्यात. एम.एस.एम.ई.पयलीचें एस.आय. एस.आय. ( स्मॉल इंडस्ट्रीस सर्वीस इनस्टिट्यूट). मायक्रो, स्मॉल एण्ड मिडीयम एनटरप्रायझीस. कंपनी सेक्रेटरी कोर्स करपाक इंन्स्टिट्यूट ऑफ कंपनी सेक्रेटरीस ऑफ इंडिया, पणजी हातुंतल्यान तज्ञ (रिसोर्स पर्सन) आपोवन तांचें व्याख्यानां आयोजीत केल्यांत.

आयज म्हज्यो खुबश्यो विद्यार्थीनी वेग-वेगळ्या ऑफिसांनी मेळटात. एल आय सी,बँक, प्रायवेट कंपनी, एरलाइन्स, हॉटेल्स हातूंत बऱ्या पोस्टार आसात. त्या भायर थोड्यांनी आपलो स्वताचो वेवसाय, ब्युटी पार्लर,बेकरी सुरू केल्यात आनी खुबश्या लोकांक कामाक लायल्यात. हें हांव अभिमानान सांगतां. हांवें म्हज्या कांय



माजी विद्यार्थ्यांक विद्यालयांत आपोवन म्हज्या विद्यार्थ्यांक तांचो अणभव सांगून उलोवपाक सांगलें.तांचो अणभव, तांकां आयिल्ल्या अडचणींक फुडो करून तीं मुखार कशीं गेलीं हें तांच्या तोंडांतल्यान आयकतकच खूब इफेक्टीव जाता आनी प्रोत्साहन मेळटा.

कांय विद्यार्थीनी इश्कोल, कॉलेजीनी, टिचर,प्रिन्सीपल जाल्यात.

**श्रध्दा:-** कोवीड काळांत शाळेंत तशेंच कॉलेजींत शिकपी विद्यार्थ्यांक खूब त्रास जाले. शिक्षकां खातीर तर विद्यार्थ्यांक ऑनलाईन शिकोवप एक आव्हानूच आशिल्लें. तुमी ह्याच काळांत उच्च माध्यमीक विद्यालयांत शिकयतालीं. कोवीड काळांतलो ऑनलाईन विद्यार्थ्यांक शिकोवपाचो तुमचो अणभव कसो कितें? .

**मंजुषा :-**हो काळ कोणूच विसरपाक शकना. कशें शिकोवप? हें एक व्हडलें आव्हान आशिल्लें.इतलीं वर्सां विद्यार्थ्यां मदीं बोवाळप,क्लास,खडू ,फळो, कार्देनां तपासप, पुस्तकां, परिक्षेचे पेपर तपासप,रिझल्ट, विद्यालयाच्या स्नेहसंमेलनांत विद्यार्थ्यांचे नाच,नाटकुलीं बसोवप, तांका न्हेसोवप, भायर प्रोग्रामाक व्हरप... अकस्मात सगळें बंद जालें. आतां करप कितें? शिकोवप कशें? परिक्षा कशी घेवप? सिलेबस कसो कंप्लीट करप? प्रस्नांचेर प्रस्न. आमी विद्यार्थ्यांक प्रस्न विचारतालीं. आतां शिक्षकां मुखार प्रस्नांची वळेरीच तयार जाली.

एससीईआरटीन हातुंतल्यान मार्ग काडलो. शिक्षकांक ऑनलायन टिचींग लर्नींग ट्रेनींग सुरू केलें. कम्प्यूटर, लॅपटॉप हाताळपाक जाणां आशिल्लें म्हूण बरें जालें. हळू-हळू ट्रेनींग घेवन हांव तयार जावपाक लागलें. तें सोंपतकच, म्हाका एका ग्रुपांत मास्टर ट्रेनर म्हूण केलें. आमची पांच टिचरांचीं टीम, तातूंत एकलें कम्प्यूटर असिस्टन्ट टिचर. वेगवेगळ्या विद्यालयांतल्या धा पंदरा शिक्षकांचो ग्रूप केल्लो. तांकां आमचे टिमीन ऑनलायन ट्रेनींग दिवप. सुरवातेक बरेंच स्ट्रेसफूल आशिल्लें. पूण हळू हळू आमी तातूंत मुरत गेलीं. नव नव्यो वळखी जाल्यो.पयलो मोड्यूल सोंपतकच परत मास्टर ट्रेनरांचो वेगळो ग्रूप करून दुसऱ्या मोड्युलांत आनीक धा-पंदरा टिचरांक ट्रेन करप. हें सगळें आब्रील-माय म्हयन्यांत जालें. म्हाकां दोनूय खेपे ग्रूप सामके बरे कॉपरेटिव मेळ्ळे. एकामेकां कडल्यान शिकपाक मेळ्ळें.

मदीं मदीं अडचणी येत रावल्यो. केन्ना-केन्ना कनेक्शन सारकें मेळनाशिल्लें.माया म्हयन्यांत एक दीस उत्तर गोंयांत



आनी एक दीस दक्षीण गोंयांत, पावर शट डाऊन आशिल्लें. आमचे टिमीन स्ट्रेटजी प्लॅन केल्लें. जर कोणाक कनेक्शन वा लायट ना जाल्यार तो टॉपीक, दुसऱ्या ट्रेनरान (शिक्षकान) शिकोवप. पूण शिकोवप बंद उडोवप ना. ऑनलायन चांचण्यो कश्यो घेवप, हजेरी कशी घेवन ताचो रेकॉर्ड दवरप. हातूंत शिक्षकांक वेगवेगळ्यो वेबसायटी एक्सप्लोर करून आपूण शिकयता त्या विशयाक खंयची पद्दत सूट जातली हें सोदून काडपाक प्रोत्साहन मेळ्ळें.

हें ट्रेनींग सुरू आसतनाच एनसीईआरटीन फ्री वर्कशॉप दवरिल्लें, ऑनलायन टिचींग आनी असेसमेंट टूल्स. त्यो हांव अटेण्ड करतालें. म्हाका खूब म्हायती मेळत गेली. हांवें म्हज्या दोन तीन विद्यार्थ्यांक आनी टिचरींक घेवन प्रॅक्टीस केली. पयलीं प्रस्न पत्रिका काडली. तीन ते पांच प्रस्न. तांकां ती ऑनलायन धाडली. तांणी ती सोडयतकच म्हाका धाडली. ताचो रिकॉर्ड कसो दवरप, ऑनलायन वा ऑफलायन? म्हाकां तांचो पेपर पळोवंक मेळटा काय ना, तांचे गूण कशे तरेन येतात, पेपर ऑब्जेक्टीव आनी सब्जेक्टीव काडून ट्राय केलें. अशी प्रॅक्टीस करून करून म्हाका तीन/चार वेबसाइटस परिक्षा घेवपाक मानवल्यो. हे सगळें करपाक रेमपेज करचो पडलो. बरो लॅपटॉप, मोबायल, बरें नॅट पॅक, बॅटरी फॉर सवोंग पावर, काय वेबसायट पयशे दिवन घेवपाच्यो आसतात, त्यो घेतल्यो.

रणांगणाचेर वचपाक सैनीक आपापलीं अस्त्रां शस्त्रां घेवन तयार जातात, तशें हांव तयार जालें. फरक इतलोच, रणभुमीचेर मनीस आनी सैमाचो संहार जाता. हांव तत्रगिन्यानाचो वापर करून गिन्यानाचीं फुलां फुलोवपाक भायर सरलें. म्हज्या उच्च माध्यमीक विद्यालयान बरें कनेक्शन मेळपा खातीर थोडो देसपेज केलो.

जून म्हयनो लागलो. ऑनलायन टिचींग सुरू जालें. प्रत्येक क्लास रुमांनी टिचर बसून क्लास घेवपाक लागल्यो. आब्रील-माय म्हयन्यांत जें शिकिल्लीं/शिकयल्लें तें आतां, वापरपाक लागलें. हें ऑनलायन टिचींग विद्यार्थ्यांक आनी शिक्षकांक नवेंच आशिल्लें. थोड्यांनी गूगल मीट आपणायलें तर थोड्यांनी झूम. सगळ्यां शिक्षकांनी एकामेकांक आदार केलो.

म्हजो स्वभाव असो की म्हाका जी गजाल कळना हें सांगपाक म्हाका मात्तूय लज दिसना. हांव ती कोणाय कडल्यान शिकून घेतां, मागीर ती टिचर म्हजे परस पिरायेन कितलीय ल्हान आसूं. हांव जर वांग्गी बसलें, हांव केन्नाच शिकूंक पावचेंना.

विद्यार्थ्यांक सुद्दा सुरवातेक मातशे त्रास जाले. घराच बसून शिकप हें तांकां नवेंच. विशेश करून अकरावी यत्तेंचीं विद्यार्थी, जांच्यानी नवेंच एडमिशन घेतिल्लें. दर क्लासींनी आपआपले वोट्सएप ग्रूप केले.

प्लेग्राऊंड, क्लासरूम, कॅन्टीन, कॉरिडोर, फळो बी सगळें रितें रितें पळोवन रडपाक येतालें. पूण हळू-हळू संवय जाली. ऑनलायन टिचींग करतनाय बी खूबच मजा मजा जाताली. कनेक्शन म्हजे वा विद्यार्थीनीचें सारकें नासत जाल्यार आयकूंक येनाशिल्लें. केन्ना नुवें लायट वताली, केन्ना विद्यार्थ्यांच्या घरा लायट नासताली. थोड्यां विद्यार्थींनी तांकां रेंज सारकी मेळना म्हूण भायर रस्त्यार, आंगणांत वा झाडार बसून मोबायलाचेर लॅक्चर आयकताल्यो. ताचो मायक जर ऑन आसलो जाल्यार फाटल्यान आवय, बापूय, भाव, भयण, पेटो, कोंबो, पोदेर, नुस्तेकाराचें तरेतरेचें आवाज येताले. आनी कॅमेरा ऑन उरलो जाल्यार, भुरगें हांतरुणार न्हिदून /बसून अटेण्ड करता, ताचो अवतार, फाटल्यान फुडल्यान भोंवपी, आइडपी लोक, सगळें दिसतालें.

जशे जशे दीस वचत गेले, तशें तशें तांकां ह्यो चुको

कळ्ळ्यो. मागीर मागीर तर थोडीं भुरगीं मस्ती करपाक लागलीं. मोबायल ऑन दवरप, घरा वा बाजार भोंवतां भोंवतां क्लास अटेण्ड करपाक लागलीं. प्रस्न विचारल्यार जाप दिवप ना, रेंज सारकी ना म्हणप अशे तरे तरेचीं कारणां दिवपाक लागलीं.

शिक्षकांनीय बी खूब्ब कश्ट घेतले. तरेतरेचे व्हिडियो करून दाखोवन, कोणाक जर अटेण्ड करपाक मेळुना जाल्यार रेकॉर्डींग करून धाडप. हर तरेन प्रयत्न करून, दर एक विद्यार्थ्याक शिकोवन, चांचणी खातीर तयार केले.

**श्रध्दा:-** अभिनय करप हो तुमचो छंद आनी शिक्षिका जावन,विद्यार्थ्यांक विद्या शिकोवन तांकां तांचो फुडार घडोवपाक एक दिका दाखोवप ही एक व्हड जबाबदारी. कारण विद्यार्थ्यांक विद्यालयांत परिक्षा दिवचीच पडटा. तशेंच फुडारांत प्रत्यक्षांत त्या विशयांतलें गिन्यान वापरून काम करचें पडटा. ज्या विद्यार्थ्यांक फुडारांत उच्च माध्यमीक विद्यालयांत शिकोवपाक बरो शिक्षक वा बरी शिक्षिका जावपाक जाय, तांकां तुमचो संदेश...

**मंजुशा:-**आयच्या तेंपार शिक्षकां कडेन खूब साधनां आसात. थंयच्यान तीं गिन्यान मेळोवंक शकतात आनी बरे तरेन शिकोवंक शकतात. हांवें जेन्ना ह्या क्षेत्रांत पावल दवरलें तें रिटायर जाय मेरेनचो प्रवास कसो आशिल्लो हाची थोडी भोव म्हायती दिवप हांगा गरजेचें.

हांव नवेंच जॉयन जातकच नुवें कार्मेल कॉलेजी कडेन देंवपाक जाय म्हळ्यारच बस घेनाशिल्ली. नुवें इगर्जे कडेन देंवन कॉलेजी मेरेन चलत वच्चें पडटालें. तशेंच परत येतनाय बी. आतां प्रत्येक टिचर आनी विद्यार्थ्यां कडेन वाहन आसा. शिकोवपाक लायब्ररींत बसून प्रिपेर करचें पडटालें. वेगवेगळीं पुस्तकां रेफर करून लेसन तयार करचो पडटालो. ते भायर बाकिच्या एक्टिविटींची जबाबदारी घेवंची पडटाली. नाच बसोवप, नाटकुलीं बरोवप, आंतर विद्यालयीन सर्ती, युथ रेड क्रॉस , कन्जूमर वेलफेर क्लब सुरू करप. युथ रेड क्रॉस आनी कन्जूमर वेलफेर क्लब हातुंतल्यान म्हज्या गिन्यानांत खुबूच भर पडली. तांचे वेग-वेगळे वर्कशॉप्स अटेण्ड केले. इंडियन रेड क्रॉस वतीन राष्ट्रीय पांवड्या वयलो कॅम्प तारा देवी शिमला हांगा अटेण्ड केलो.

एमआरसी ( मलेरिया रिसर्च सेंटर ) वतीन म्हज्या गांवांत सर्वे करून रिपोर्ट तयार करून दिलो. तांणी प्रशस्ती पत्रकूय दिल्लें.गोवा कॅन वतीन वर्कशॉप्स अटेण्ड करून गिरायक हक्काची म्हायती मेळयली. म्हज्या विद्यार्थ्यां खातीर हाचेर उलोवपां आयोजीत केलीं. त्या भायर प्रथमोपचार शिबिरां दर वर्सा आमच्या विद्यालयांत केल्यांत.गिरायक मंचा वतीन एलपीजी घरगुती गॅस सुरक्षा आनी येरादारी सुरक्षा नेम अशे वेग-वेगळे कार्यक्रम केले. उद्देश होच की, आयची तरणाटी पिळगी मुखार जाणकार आनी जबाबदार नागरीक जावची .

ह्या सगळ्याची दखल घेवन, सालसेत तालुक्यांत म्हाका आदर्श शिक्षिका म्हूण पुरस्कार दिलो. त्या भायर गोवा बोर्डाचीं सगळीं कामा एग्झामीनर धरून चिफ पेपर सॅटर , चीफ मॉडरेटर, बोर्ड ऑफ स्डडीसचे निमंत्रक पर्यंत सगळ्यो जबाबदाऱ्यो घेतल्यो. गोंयच्या शिक्षकां खातीर वर्कशॉप आयोजीत केलीं.

जेन्ना लॉकडावन जालें आनी ऑनलायन ट्रेनींग सुरू जालें, म्हज्या खुबशां फ्रेन्ड्सांनी म्हाका म्हळें, 'तूं ज्युस्त हातूंत सांपडलें,तूं रिटायर्ड जावन जाल्लें जाल्यार सुटिल्लें.



पूण हावन ते सकारात्मक नदरेन घेतलें. म्हाका नवें शिकून अपडेट जावपाक मेळ्ळें.

ह्यो सगळ्यो गजाली नमूद करपाचो हेतू इतलोच की नव्या शिक्षकांनी, नव्या-नव्या जबाबदारी उमदीन घेवच्यो. तातूंतल्यान खूब कितें शिकूंक मेळटा आनी तातूंत व्यक्तीगत वाढ आनी उदरगत जावंक पावता.

आतां तुमचे कडेन म्हायतीचें भांडार आसा. कम्प्युटर, लॅपटॉप अशीं साधनां आसात. नॅटाचेर जाय ती आनी जाय त्या विशयाचेर म्हायती मेळटा. लेसन तयार करप,पावर पायन्ट सादरीकरण तयार करप, व्हिडियोस करप, दृक-श्राव्य साधना वापरून शिकोवप इन्टेरेस्टींग करप सोंपें जालां.

आयज भुरग्यां कडेन तुमी जें शिकयतलीं ती सगळी म्हायती आसा. पूण तुमी ती कशे तरेन रस घेवन पावयतात हें सगळ्यांत म्हत्वाचें. तितलेंच म्हत्वाचें भुरग्यांकडल्यान तांचो फिडबॅक घेवप. हांव चार तें पांच म्हयन्यांनी मेजार एक ट्रे दवरतालें. तातूंत आपलें नांव बरयनासतना म्हज्या शिकोवपा विशीं सुचोवण्यो तांणी घालप आसताल्यो. तांच्या सुचोवण्यांतल्यान विचार करून म्हाका नव-नव्यो येवजण्यो सुचताल्यो. म्हजें शिकोवप आनीक बरे तरेन जावपाक म्हाका ताचो लाव जातालो.

हांव क्लासींत मातशें स्ट्रीक्टूच, सामकें शिस्तप्रीय. शिकपा कडेन म्हाका फकाणां मानवनात. थोड्यांक तें आवडनाशिल्लें.पूण हांव तांकां सांगतालें, भायर पिकनिकेक बी वतना खुब्ब मजा करुया. पूण क्लासींत म्हाका तुमचें पुर्ण लक्ष जाय. आतां पास जावन गेल्ल्यो विद्यार्थीनी म्हणटात, 'तूं स्ट्रीक आशिल्ल्यान आमी शिकूंक पावलीं.'

अभिनयाचो खुब्ब उपेग शिकयतना जाता. आवाजांतले चड उतार, नदरेंतल्यान उलोवप हें सगळें भुरग्यांक बेस बरें कळटा आनी हळूच मोगान चिमटो काडप जाता.

**श्रध्दा:-** तुमकां प्रवास करपाक खूब आवडटा. नव्या-नव्या जाग्यांचेर भोवून थंयच्या लोकांची संस्कृती आनी राहणिमान पळोवन जिवीत जगपाक एक वेगळो दृश्टिकोन मेळटा. तुमी भारतांत तशेंच विदेशांत खूब जाग्यांचेर भोंवल्यांत.तुमचो अणभव आमका सांगशात?

**मंजुशा:-**म्हजो बापूय सेन्ट्रल गवरमेन्ट ऑफीसर (Central Government Officer) आशिल्ल्यान ताची भारत भर ट्रान्सफर जाताली. हांव सामकें ल्हान आसतना जम्मू, मागीर नडियाद, नतर अलाहबाद, ताचे उपरांत गोंयांत



मडगांवा रावलीं.जम्मूची तितली याद ना. पूण गुजरात आनी उत्तर प्रदेश सामकें याद जाता. गुजरात आसतना सोमनाथ देवूळ,व्दारका, सौराष्ट्र, गीर जंगल, आणंदची भोंवडी जाली. उत्तर प्रदेशांत रावतना, गया, वाराणसी, लखनौ आनी नेपाळ पर्यंत बाबान भोंवडावन हाडलें. म्हज्या बाबाक रांदपाची आनी खावपाची आवड आशिल्ली. गुजरातांत आमी जवळ जवळ बारा वर्सां रावलीं. थंयचो खमण ढोकला, फाफडा,जलेबी,उंधियो, रोटला अने आमरस, दाळ मोठ,खाकरा, छुंदा हांची याद येता. म्हजे केजींतल्या इश्टा कडेन हांवें अजून संपर्क दवरला. चार वर्सां पयलीं म्हजे इश्टिणीचे चलयेच्या लग्नाक अहमदाबाद वचपाचो योग आयलो. तेन्ना थंयच्यान नडियादाक म्हजें स्कूल, आमी खंय रावतालीं तो जागो पळोवन नोस्टेलजीक जालें.

अलाहबादाक भैये आनी तांणी केल्लें दुदाचें तर-तरेचें खाण याद जाता. थंय गांवठी तुपांत तळिल्ल्यो जलेब्यो, खंयच्या तरी झाडाच्या पानांचो कोन करून तातूंत ते दितालें आजून जिबेर रूच आसा. त्या भायर मिठाई, समोसे तर बेश्ट. थंयचें बोकड्या मटन, कबाब बरें रुचीक लागतालें. बाबान आमकां म्हणप, 'सगळें खावपाक कळपाक जाय. खंयूय गेल्यार तुमचें अडपाक जायना. मागीर गोंयांत आयलीं. हांगा शीत, नुस्त्या कडी जेवपाक केन्ना- केन्ना हॉटेलांत वतालीं. कसलें नुस्तें आमी खातात तें कांयच कळनाशिल्लें. कितले कडेन भोवन तांचें उलोवप, न्हेसप, तांच्यो परबो, तांचे नाच सगळें लक्षांत उरलें. ताचो उपयोग स्कूलांनी नाच बसोवपाक, वेग-वेगळ्या प्रांताचो भेस करप, स्वातंत्र्य दिसाची कार्यावळ करप, कुकरी कॉम्पिटीशन हातूंत जालो .

म्हज्या कलिगाचे चलयेच्या लग्नाक फार्टी केरळ वचपाचो योग आयलो. थंय त्रिसूर, एरनाकूलम बी भोंवन आयलीं.

ओणची परब आशिल्ल्यान, ओणम संध्याचें जेवण जेवपाक मेळ्ळें (जवळ जवळ 25 पदार्थ). ओणम परबेचीं पदां, थंयच्यो साडयो येतना घेवन आयलीं विद्यालयांत प्रोग्रेम करपाक मेळटलो म्हूण. म्हजें चली ल्हान आसतना ताका घेवन बेंगलुरु, म्हैसूर,उटी पळोवन आयलीं. फुडें कांय वर्सांनी हैदराबाद भोंवपाक गेल्लीं. चलयेच्या डान्साची स्कॉलरशीप परिक्षा चेन्नई आशिल्ली तेन्ना चेन्नाई, कांचिपुरम बी पळोवन आयलीं. कांय वर्सां पयलीं आमची स्टाफ पिकनीक मंगळुराक गेल्ली. थंय भटकळाक , मंगळुराक बी भोवून आयलीं. भारत आमचो खरो समृध्द देश. वेगवेगळी भास,भेस, लोकगीत, नाच आनी रांदप खावप तर-तरेचें. प्रत्येक प्रांताचो परमळ वेगळो. भारतांतले आनीक खूब जागे उरल्यात पळोवपाचे. केन्ना योग येता पळोवंया .

भुरगीं व्हडलीं जातकच आमी दोगांयनी विदेश दौरे केले.सिंगपोर, मलेशिया, थायलॅण्ड, योरोप टूर तातूंत इंग्लंड , फ्रान्स, जर्मनी , ऑस्ट्रिया , बेल्जीयम, नेदरलॅण्ड, स्वित्झरलॅण्ड, इटली, वॅटिकन सिटी ते भायर भुतान , टर्की , इजिप्त बी भोंवन आयलीं. चल्या म्हऱ्यांत अमेरिकेक गेलीं. तेन्ना ताणी नायगरा, वॉशिंगटन , न्युयॉर्क बी दाखयलें. अमेरिकेक आसतना चल्याचे वळखीन थंय एक बरें इश्कोल पळोवपाक मेळ्ळें. थंय स्कुलांनी स्कूल बस, मध्यान आहार , बास्केट बॉल कोर्ट , काऊंनसेलर, प्रत्येक भुरग्याक लोकरची सुविधा. पुर्ण दीस इश्कोल आशिल्ल्यान तांचें चडशें शिकप स्कुलांत जाता. हातुंतल्यो खुबश्यो सुविधायो आतां आमच्या स्कुलांनी मेळपाक लागल्यात .

विदेशांत भोंवतकच खुबश्यो गजाली अणभवल्यो आनी त्यो म्हज्यो विद्यार्थीनी आनी वांगड्यां कडेन शेर केल्यो. तांची शिस्त,नेम,कायदे पाळप, निवळसाण, ट्युरिस्टां खातीर केल्ल्यो सुविधायो, चुकनासतना गुड मॉर्नींग करून हांसून वीश करप. ह्यो गोष्टी तोखणावपाच्यो बऱ्यो गजाली आमी आपणावप हें म्हत्वाचें.

स्कुलांत शिकतना इतिहास, भुगोल, फ्रेंच विशयांत जें शिकिल्लें तें पळोवपाक मेळ्ळें म्हूण हांव धादोशी जालें.

**श्रध्दा :-** तुमी एक बरी अभिनेत्री आनी शिक्षिका. तशेंच तुमी रुचीक आनी पौश्टीक बरें जेवण रांदतात. रुचीक जेवण रांदपाचो तुमचो प्रवास हाचे विशीं आमकां सांगशात?

**मंजुशा :-** खरें सांगपा म्हळ्यार शिकप चालू आसतना जेवण खाण रांदपा कडेन व्हडलें लक्ष दिवंक मेळ्ळें ना. लग्न जातकीर आनी नोकरी करपाक लागतकच रांदपाच्या प्रवासाक सुरवात जाली .

म्हजी आजी (बाबाची आई) उत्कृष्ट शिवराक जेवण रांदपी. अमूक पदार्थ कसो करप तें हांव तिका विचारतालें. पूण म्हज्या आंगार घेवन हांवें केन्नाच ट्राय करूंक ना. म्हजो बाबाय बी तिचे कडल्यान रांदपाक शिकलो. नोकरेक लागून पयस एकटोच रावलो म्हूण ताका करचेंच पडटालें आनी आवड आशिल्ली, तर-तरेचे पदार्थ करतालो, नॉनव्हेज सुद्दा ताका रांदपाक कळटालें. ताचोच गूण घडये म्हचे भितर आयला आसुंये!

लग्न जातकच केप्यां घरा कडेन मांय कडल्यान नुस्तें आनी गोंयचें शिवराक जेवण रांदपाक शिकलें. नुस्त्याच्यो वरायटीज,



ताचीं नात्रा, नुस्ते कशे उजगावप, तेफळ आनी काद्याच्या हुमणाक खयचें नुस्तें, सावें नुस्त उजगावन ताचें धबधबीत, आंबट तीख करप. खाऱ्या नुस्त्याचे पदार्थ, गांवरान भाज्यो, केळी बोंडाची भाजी , दुदया वालीची भाजी, काजू मट्ट्याचीं शाक, कुवल्याचे प्रकार अशे आनीक खूब तरेचे जिन्नस करपाक शिकलें. बारीकसाणीन पळोवन हळू-हळू हांव तयार जालें. तिकाय शिकोवपाची उमेद आशिल्ली आनी म्हाकां शिकपाची. म्हजो घोव तर सामको फुडी(foodie) , ताचें आनी सगळ्यां तळवडकार घरांतल्या लोकांचें ब्रीद वाक्य म्हळ्यार 'भूस बरो दीस बरो' अशें म्हणल्यार फाल्स जावचें ना. पयलीं तेंपार फुलांक , लग्नाक व्हडलो काडयांचो लाडू दिताले. तो फोडून कुडके करून सांजवेळार च्या बराबर खावपाक दितालीं. एक वेळार तीन -चार लाडू घरांत येताले. मांयन म्हाका ताचो केक करपाक शिकयलो. तो फोडून, रवो, गोड, सांय, काजू बी घालून उकडून/भाजून ताचे स्लायसीस करून खावपाक दिताली.

कुळाराक नाल्ल साप्प कमी वापरतालें, तर हांगा नाल्ल फोडून सोय कातल्या बगर जेवण रांदप जायच नाशिल्लें. ह्या दोनूय गोश्टिंचो मध्य साधून हांव शिकत गेलें.

शिवराक दिसांनी हांव थोडे पदार्थ म्हजे पद्दतीन करतालें.घरांतल्या सगळ्यांक आवडटालें. जेवणाच्यो खोडी कोणाकूच ना हो प्लस पॉइंट.

कॉलेजींत जेन्ना हांव असलें किते करून व्हरतालें तेन्ना तांकां अजाप दिसतालें. तीं विचारतालीं कशें केलां काय म्हणून. कितेंच वेस्ट करप ना, काटकसर करप, रुचीक पदार्थ करून वाडप हें म्हज्या कुळारा आनी घोवागेर दोनूय कडेन आशिल्लें .

कॉलेजींत म्हज्या केरळ आनी किरिस्तांव कलीग्सां कडल्यान तांचे जेवणाचे प्रकार विचारून, घरा कडेन करून टिफिनांत घालून व्हरतालें. तांचे कडल्यान वेग-वेगळे जेवणाचे प्रकार करपाक शिकलें. तांचो सांबार मसाला, कर्ड करी, पुट्टू, शागोती ममाला, विनाग्र घालून रेशाद मसालो, चिल्ली मसालो अशे तरेन म्हजो रांदपाचो प्रवास समृध्द जायत गेलो. आतां तर यू ट्युबाचेर तुका जाय ते पदार्थ पळोवन शिकपाक मेळटा. आयज चडसो भुरगो आपले आवयक फोन करून विचारूंक लागला, अमको पदार्थ कसो करप?

**श्रध्दा:-** चलो आसूं वा चली आसू, मनशाक रांदपाचें



गिन्यान आसप तशेंच प्रत्यक्षांत रांदपाक कळप खूब गरजेचें आसा. कारण जिणेंत आव्हानां सांगून येनात. नवोदीत रांदप्याक तुमचो संदेश...

**मंजुशा:-** आतांच्या युगांत चलो/चली, नोकरी निमतान आपलें घर सोडून पयस दुसऱ्या शारांनी रावतात. आयज जेवणाचे तितले हाल जायनात. एक फोन केल्यार स्विगी, झोमॅटो कडल्यान तांकां जाय तशें जेवण घरा पावता. ते भायर जेवणाचो डबो लावपाची सोय जाल्या.

कितलें आनी कितलो तेंप म्हण भायलें खातलें ? घरा शीत, रोसच करूं पूण तें रुचीक लागता आनीक नीतळ, पौश्टीक आसता. त्या भायर दुडवांची बचत जाता. आतां तर खूबशे तरणाटे यू ट्युबाचो आदार घेवन तरेकवार पदार्थ रांदपाक शिकल्यात आनीक गोंयच्या खाणांचेर खुबशीं पुस्तकांय मेळटात.

म्हाका दिसता की, चलो आसूं वा चली आसूं, तांका बेसीक रांदपाक जें जाय, तें कळपाक जाय. सकाळचो च्या, कॉफी, ऑमलेट, शीत , रोस , सादी बटाट भाजी , कूकर कसो लावप आदी. हे खातीर, नोकरेक वचचे पयलींच , आवयन बारीक बारीक रांदपाच्यो गोश्टी, गॅसा कडेन व्हरून तांकां रांदपाक दाखोवपाक जाय आनी खंयचांय एक दीस तांकां रांदपाची जबाबदारी दिवंक जाय.

**श्रध्दा :-** तुमी मूळ महाराष्ट्रातलीं. गोंयात कोंकणी कार्यकर्तो, अभिनेतो आनी शिक्षक संजय तळवडकार, हाचे कडेन तुमचें लग्न जालें. गोंयकार म्हणटकच ताचें कुटूब नुस्तें खावपी आनी तुमचें कुटूब कोंकणस्त शिवराक जेवण जेवपी. दोन वेगळ्यो संस्कृती. तुमी गोंयात येवन गोंयचें नुस्त्याचें जेवण रांदपाक शिकलीं. ह्या तुमच्या आव्हानात्मक प्रवासा विशीं आमकां सांगशात ?

**मंजुशा :-** हांव मूळ पुण्यातलें. चित्तपावन कोंकणस्थ

कुटुंबातलें. बाबाली ट्रान्सफर जाताली म्हूण गिमा सुटयेंतच आनी दिवाळेक पुण्या वचपाक मेळटालें. घरांत सामकें शिवराक रांदप. न्याहारीक फोव, सांजो बी आनी जेवणाक भात, पोळी, सुकी भाजी, चिंच गुळाची आमटी, ताकांतलीं भिकणां घालून पातळ भाजी, मटकिची उसळ, चटणी , कोशिंबीर , परबे दिसा मसालेभात, खीर, आमरस, श्रीखंड पुरीचो बेत आसतालो. जेवण वाडपाचीय बी एक वेगळी पद्दत आसताली. खंयचो पदार्थ ताटाच्या उजव्यान आनी खंयचो दाव्यान हें थारिल्लें आसतालें. खंयचे खंय वाडप कोंता येनाशिल्लें. आजी सामकी सुगरण आशिल्ल्यान, प्रत्येक पदार्थ उत्कृष्ट जातालोच. दुसरे दीस परब वा देवसपणाचें जेवण आसल्यार पयले दीस रातचें आजी विडे करून रुप्याचे सरयेक एकार एक तोंपून दवरताली. दुसरे दीस जेवन तृप्तीचो धेंकर दितकच हातार विडो दिताली.

चवथी परस दिवाळेची परब दबाज्यान मनयतालीं. तेन्ना लाडू, अनारसे , चकली , नेवऱ्यो बी करप आसतालें. घोवागेर येतकच चित्र सामकेंच वेगळें. रोटी, तोंडाक, चटणी , सासंव बी सकाळीं नाश्त्याक आनी रातच्या जेवणांक. दनपरां जेवणाक रोटी नाच्च. सकाळीं दोन ते तीन नाल्ल फोडपाक धरून सुरवात. तातूंत आयतार आसल्यार तर विचारुंकूच नाकात. पोळे चटणीन दीस कोमेस. तीन-चार तरेचें नुस्तें हाडप. तांचीं नांवा, नुस्तें उजरावपाक हांव शिकलें. एकाच नुस्त्याचे दोन-तीन जिनस कशे करप हें कळ्ळें. शीत, हुमण, सडसडीत सुकें, तळिल्लें नुस्तें, नाल्ला कडी, तोंडाक वा मोरये मटण, शागुती अशी मेजवानी. त्या दिसा भाजी सामकी वर्ज्य.

शिवराक जेवणांत तूर दाळिचो रोस जायच म्हूण ना. ओडिया आम, कारात्या कूवण , बटाटा फोड , तोंडाक आसल्यार जाता. परब वा देवसपणाचें जेवण वेगळें. रोस, आमली उड्डमेथी , कोंबाइल्ले मूग, सुकी भाजी , भर्जी , पुरी , खीर , शीत , साखरभात , सुकूर उंडे , चण्या तोंडाक अशी पर्वणी.

म्हज्या कुळाराक सगळ्यो गजाली मेजून मापून करप. च्या करतना विचारप, कितलो घेतलें? अर्दो कप काय एक कप? तशेंच कोण कितल्यो रोटयो खातलो त्या प्रम ाण पीठ कालोवप. कोणागेर मेळपाक वचप वा जेवपाक वचपा पयलीं तांकां कळीत करप गरजेचें. हांगा सामकें उरफाटें. कोणूय केन्नाय भीतर सरतालो. ताका जेवून वच म्हूण आग्रो जातालो. श्रावणांतले आयतार पूजप, चवथीची परब दबाज्यान मनोवप, नेवऱ्यो करप, दिवाळेक हर तरेचे फोव करप, शिगम्याचो मेळ, सत्र्यो हें सगळें म्हाका नवीन आशिल्लें. कोंकणी कळच नाशिल्ली , मराठी भास गोंयांत लोकांक कळटाली. पूण लग्न जातगीर हळू हळू हांव कोंकणी उलोवपाक शिकलें. आतां इतल्या वर्सांनी मराठी उलयतना मदीं मदीं कोंकणी शब्द येवपाक लागल्यात. मांय, मांव सगळ्यांनी म्हाकां परकी अशें केन्नाच मानूंक ना. तांचे मायेची ऊब म्हाकां मेळत गेली आनी दुदांत साखर विरगळची तशेंच हांव तांचे फामिलींत समरस जायत गेलें.

**श्रध्दाः-** लग्नाचो विशय आयलो म्हणून विचारतां. लग्न एक जबाबदारी. घोव-बायलेन,सूख-दुख्खांत वांगडा रावन, जिवितांत येवपी आव्हानाक वांगडा फुडो करून मुखार चलपाचें आसता. तुमच्या अणभवांतल्यान आमकां सांगात, लग्न म्हणजे कितें आनी लग्न जावन घोव-बायलेन वांगडा मेळून जबाबदारी कशी सांबाळप?

**मंजुशा :-** लग्न जावप ही एक कमिटमेन्ट आसता. मागीर तो प्रेम विवाह जावं वा सोयरीगतीन जाल्लें लग्न. दोगांयनी एकामेकांक समजून घेवन जबाबदारी वाटून फुडें सरूंक जाय. ह्या संवसारांत कोणूच परफॅक्ट नासता. प्रत्येक मनीस गूण आनी दोश घेवनूच जल्माक येता. आपल्या साथिदाराचे गूण आनी दोश जर समजुपाक लागले जाल्यार फुडली वाट सोंपी जाता. लग्न जातकच सुरवातेचो तेंप शारीरीक आकर्शण जरूर उरता. मागीर भुरगीं, नोकरी, घर सांबाळप ह्यो जबाबदाऱ्यो आंगार पडटकच, मनशाच्यो प्रायोरिटीज़ बदलत वतात. खंयचे गजालीक प्राधान्य दिवपाचें हाचें कोश्टक उलट पूलट जायत रावता. दोगांयनी एकामेकांक साथ दिवन फुडें वचत रावप, केन्ना-केन्ना आपल्याक जाय तश्यो गोश्टी जायनात. अमके गजालीचेर दोगांयचें एकमत जातलें अशेंय ना. पूण म्हजें एक्सपॅक्टेशन कितें आसा? वा म्हाका थोडोसो स्वता खातीर वेळ जाय हें स्पश्टपणान जर उलोवन मांडलें जाल्यार खुबदां सगळें सुरळीत जाता. आपल्या जोडिदाराक खंयच्याय फिल्डांत जर जैत मेळ्ळें, पुरस्कार, प्रोमोशन मेळ्ळें जाल्यार जरूर तोखणाय करप आनी मुखार वचपाक मजत वा प्रोत्साहन दिवप गरजेचें. कठीण प्रसंग तर प्रत्येक जोडप्याचे जिणेंत येताच. दोगांयनी मेळून जर एकामेकांक साथ दिली जाल्यार वायट दीस कांय खीणच उरतले आनी सुर्य उदेवन जीण पर्जळीत करतलोच.दोगांयची शारिरीक, मानसीक, बौध्दीक आनी आध्यात्मीक प्रगती जावपाक निमणे खिणा पर्यंत

साथ दीत गरजेचें. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार एकामेकाचेर विश्वास दवरप खूब गरजेचें आसता.

**श्रध्दा :** तुमकां दोन भुरगीं आसात, आतां तीं व्हडलीं जाल्यांत. पूण जेन्ना तीं ल्हान आशिल्लीं तेन्ना तांची जबाबदारी, तांचो होमवर्क, तांचें शिक्षण, तांचो फुडार, घरांत सदद्रां रुचीक पौश्टीक जेवणांत व्हरायटी आशिल्लें जेवण रांदप, सकाळचो नाश्तो, दनपारचें जेवण, सांजवेळार खावपाक, मागीर रातचें जेवण, हातूंत दर दिसा व्हरायटी सांबाळप, तशेंच नोकरी करतना तुमची उदरगत सांबाळून , वागडा तुमच्या कलागुणांक तुमी मुखार व्हरून न्याय दिलो. हें सगळें तुमी कशें सांबाळूंक पावलीं ?

**मंजुशा:** म्हाका घरच्यांनी खूब आदार दिलो. भुरगीं ल्हान आशिल्लीं तेन्ना हांव कॉलेजीक वचपाक भायर सरलें की भुरगीं आकांत रडप. मागीर भुरग्यांक भायर पासयेक मांव व्हरतालो आनी हांव लिपून भायर सरून वतालें. तांचो रडपाचो आवाज कॉलेजींत पावसर कानांत उरतालो. चुरचुरें दिसतालें. मांयन सददां म्हणप, 'चल तूं आमी पळयतात. तूं वतकच भुरगीं अजिबात रडनात!' इतलेंच म्हळ्यार पुरो स्ट्रेस कमी जातालो. म्हाका केपेंच्यान नुवें वच्चें पडटालें. दोन बशी करून घरा पावपाक बी वेळ जातालो. म्हजो घरकार केपें इश्कोलांत शिकयतालो. एक तरी पालक भुरग्यांक लागीं आसपाक जाय अशें आमकां दिसऽ. भुरगीं व्हडलीं जातकच घरकाराच्या इश्कोलांत घालीं. ताच्या बराबर यो वच करपाक लागलीं. घरकार जाता तितलो कुजिनाक मदत करतालो. अजूनय बी करता. भुरग्यांचो होमवर्क, अभ्यास सात हांवूच घेतालें. हांव मातशें स्ट्रीक आशिल्ल्यान बरे भशेन शिकपाक बसतालीं. दुसऱ्या दिसाची थोडी तयारी रातचीच करून दवरतालें. मांयक रांदपाक मजत करप, युनिफॉर्माक, म्हज्या कपड्यांक फेर मारप, दप्तार भरप, आदी. सकाळ फुडें आमच्या सगळ्यांचें टिफीन भरून भायर सरतालें.

कॅन्टिनांत वचून खावप हो प्रकार चडांत चड वर्ज्य करतालें. जें घरांत केलां तेंच निवळ, रुचीक आनी पौशटीक ही गजाल म्हज्या बापायन आमी स्कुलांत वतालीं तेन्नाच्यान आमचे तकलेंत घाली. तीच फुडें हांवें चालू दवरली.

मागीर म्हाकां नाटकांत काम करपाचें जेन्ना विचारलें, तेन्ना घरकारान रोखडेंच चल म्हळें. थोड्याच म्हयन्याचो प्रश्न आसा न्ही, हांव पळयतां भुरग्यां कडेन. येसाय मारून घरा पावपाक वेळ जातालो. पूण अभिनयाचें जेन्ना पारितोषीक मेळ्ळें तेन्ना घरांत सगळीं खूश जालीं. फुडें फुडें टॅली फिल्मांनी आनी फिल्मांनी कामां केलीं. खूबश्यो मुलाखती म्हाका पणजी दुरदर्शनाचेर घेवपाची संद मेळ्ळी.

**श्रध्दा:** तुमी शिक्षिका म्हणून निवृत्त जाल्यो. पूण एक आवय आपले जबाबदारेंतल्यान स्वताक निवृत्त करना. आयज तुमी दोन नातरांची आजी आसात. वयर सांगलां त्या सगळ्या अणभवां परस, आजी जावप ही जबाबदारी आनी अणभव वेगळो आसा. ह्या अणभवा विशीं आमकां सांगशात?

**मंजुशा:-** आवय केन्नाच आपले जबाबदारेंतल्यान निवृत्त जायना. आवयक रिटायरमेंट नासताच. तिचें काम निमणे श्वासा मेरेन चालूच आसता.

आतां हांव आजी जाल्यां. म्हजो रोल मात्सो बदल्ला. दोनूय नातरां केन्ना म्हगेर येवन रावतात, केन्ना केन्ना हांव तांगेर. आजी - आबा कडल्यान तांकां भरपूर मोग मेळटा आनी खुब्ब लाड जातात. तांणी म्हणून दाखयल्लीं पदां वा इश्कोलांत बसयल्लो नाच पळयतना म्हाकां तांच्यांत म्हजींच भुरगीं पळयल्याचो भास जाता. म्हज्या भुरग्यांनी ल्हान आसतना म्हजे कडल्यान मार खाला, सुबेज उतर, मस्ती, अभ्यास करूंक नाशिल्ल्यान. पूण म्हज्या नातरांक जर तांच्या आवय-बापायन मारलें जाल्यार म्हाका खुब्ब वायट दिसता. हांव केन्ना-केन्ना तांचो अभ्यास घेतां. गणितां घालतां, नवीन पदां शिकयतां, नाटक, सिनेमांत कितें पळोवप, एक्टराचो अभिनय, केंस बांदप, भेस, उलोवपाची स्टायल, आदी तांकां दाखयतां. तर-तरेच्या फुलांचीं नांवां, फळांचीं नांवां, भाजयेचीं नांवां, रोटयो केल्यो की मेजप, कांदे, बटाट मेजप अशें आनीक खूबश्या खेळांतल्यान तांकां जितलें शिकोवंक मेळटा तितलें आम चें चालू आसता. त्याच बराबर देवाची प्रार्थना, स्तोत्रां, पाठांतर, भजन, आप-आपलें दप्तार पुस्तकां जाग्यार दवरप. घरांत केल्ले जिन्नास खावप, जेवणा तारांत कायच सोडप ना, खावन जातकच आपली प्लेट सिंका कडेन दवरप, अशें आनी खूब तरेन शिस्त लावपाचो यत्न चालू आसता. म्हज्या म्हऱ्यांत अभ्यासाक बसलीं की वेवस्थीत करतात, आज्याक सामकीं गुठलायतात. हालींच्या भुरग्यांची निरिक्षण आनी स्मरण शक्त अफाट आसा. घरांत एकामेका कडेन उलयतना सामकें सादूर गरजेचें पडटा. त्या भायर, मोबायल आनी टि. वींतल्यो बारीक बारीक गजाली तीं आमकां शिकयतात.

**श्रध्दा:** ब्रह्माण्डाची रचना करपी परमेश्वराचेर तुमचो विश्वास आसा? देव प्रार्थना आयकता ?

**मंजुशा:** जरूर आसा. हागा श्रध्दा आनी सबुरी हे दोन शब्द

सामके म्हत्वाचे. सगळें ब्रह्माण्ड निर्माण करपी म्हळ्यार देव. हें सगळें तोच चलयता. आमच्या मनांतलें आमी जेन्ना देवाक सांगतात, तेन्ना आमचें मन ल्हव जाता. प्रार्थना करतना खुबशे लोक आपल्याक वा आपल्या लोकां खातीर देवा कडेन मागतात, तशेंच, जर आपणें दुसऱ्या खातीर देवा कडेन प्रार्थना केली जाल्यार जरूर ती ताचे मेरेन पावता हाची म्हाका प्रचिती आयल्या. खंयचेंय काम सुरू करचे पयलीं देवाचें नांव घेवनच सुरू जाता. स्कुलांतली प्रार्थना हो असोच एक भाग. भुरग्याचें मन शांत जावन लक्ष केंद्रीत जावपाक हाचो खूब उपेग जाता.

**श्रध्दा:** मुलाखत सोंपयतना निमाणो प्रस्न , जिवीत जगतना, जिविताची लांबची वाट तुमी अणभवल्या, जिवीत जगतना खुबशे पावसाळे तुमी पळयले. तुमच्या अणभवांतल्यान जिवीत म्हणजे कितें आनी तें कशें जगचें ?

**मंजुशा:-** ह्या प्रस्नाची जाप दिवपाक हांव तत्वज्ञानी न्हय. पूण म्हाका दिसता जिवितांत जें घडपाचें आसा तें घडत रावतलें आनी फुडें कितें घडटलें तें आमकां कांयच खबर नासता. आमी आमचें कर्तव्य, बरें काम करीत रावचें. ते खातीर घडये जिणेंत आमकां संघर्श करचो पडूं येता. त्याच बराबर दुसऱ्यां कडेन आपुलकेन वागप, सहकार्य करप, मेळून मिसळून वागप, आपली शिस्त बाळगूवप आनी जें आपल्याक मेळोवपाक जाय ताचे खातीर यत्न करप. आपल्यो चुको सुदारून फुडें पावल मारीत रावप. जिवीत म्हळ्यार मोग, संघर्श, विश्वास, कमिटमेंट, निर्शेवणी, एडजस्मेंट, संयम, जिद्द ! खरें म्हळ्यार जिविताच्या प्रत्येक टप्प्याचेर जिविताची व्याख्या बदलत वता. सदांच सकारात्मक नदर दवरून कामां करत वच्चें. मुखामळ सदांच हांसरें आसचें, जाका लागून दुसऱ्याक आनंद मेळटा आनी तांचीं टेंन्शना कमी जातात . म्हजे कडेन जें जें आसा तें कितल्याशाच लोकां कडेन ना असो जर विचार केलो जाल्यार , हांव कितलें नशिबवान आसा आनी हांव म्हज्या समाजा खातीर कितें करूं शकतां, म्हजेकडेन आसा ताचो उपेग करून हाचेरूय बी विचार करून कृती केली जाल्यार जिवीत खूब सत्कारणी लागूं येता.

●●●

फातोर्डा. 8669495781



## प्रा. डॉ. वामन रा. नायक

*हांणी अणकारीत केल्लें*



## महात्मा गांधींचें

# हिंद स्वराज्य
# वा
# इंडियन होम रूल

हिंद स्वराज्य' गांधीजीच्या ह्या ल्हानश्या पुस्तकाक
'गाधीवादी क्रांतीचो जाहिरनामो' अशें म्हणटात ह्या पुस्तकांत आधुनीक पाश्चात सभ्यतायचें
कठोरपणान खंडन केल्लें आसा आनी पर्यायी जिणे-दर्शनाची स्वराज्य,
सत्याग्रह आनी स्वदेशी ही त्रिसुत्री मांडल्या.

**प्रा. डॉ. वामन रा. नायक हांची उजवाडाक आयिल्लीं हेर पुस्तकां**



**इंग्लीश-कोंकणी**
**समानार्थी-विरुद्धार्थी**
शब्दकोश
गोवा कोंकणी अकादेमी




**अशे घडले**
**डॉ.ए.पी.जे अब्दुल कलाम**
(अणकार)



**वेध फुडाराचे**
राज्यभाशा संचालनालय,
गोंय सरकार



# झोपाळो

'दिवस तुझे हे फुलायचे झोपाळ्या वाचून झुलायचे' हें पद कानार पडलें काय झोपाळ्याची याद जाता. झोपाळो आवडना असो मनीस मेळूंक कठीण.

माशेलांत आमची बाजारवाड्यार चार व्हडलीं घरां. तीन सुखठणकार एक करंडे. आमचें घर सोडल्यार, तिनूय घरांनी झोपाळे आशिल्ले. बरे लाकडाचे! ताका पितुळच्यो दांडयो. तिनूय झोपाळे सालांत दिमाखांत झेलताले. हांव मगीर आळीपाळीन तिनूय घरांनी वचून झोपाळ्याचेर बसून म्हजी उमेद भागयतालें. लालागेर म्हजे वांगडा रजन, रोशन, जयंत, बाबू बी आसतालीं. मागीर झोपाळ्यार बसून आमी भेणयांनी खेळटालीं. आपागेर माया आसतालें. आपागेर चडशें वचनाशिल्लें. ताचें घर मात्शें शिस्तीचें. बसल्यारूय कोण ना शें पळोवन हळूच बसप.ल्हवू हालोवप आनी रोखडेंच देंवप.झोपाळो व्हडल्यान हालोवंक मेळनाशिल्लो. त्या खातीर हांवें माया म्हयन्याची वाट पळोवप. माया म्हयन्यांत संजय, विजय, किरण, ऋषीकेश आनी रुद्र येताले. शिवाय मुंबयच्यान शांभवी, तेजू, शिल्पा, महेश खूब जाणां आसतालीं. मागीर झोपाळो फुलून येतालो.

आबागेर आख्खो झोपाळो म्हजो. जाय तितलो वेळ बस. वाज ये म्हणसर धोलय. कोण कांय म्हणनाशिल्लीं. दिलीप, स्मीता म्हज्याकूय ल्हान. तांकां हांव मांडयेरघेवन बसतालें. तरीय म्हजी उमेद भागनाशिल्ली. मागीर हांव म्हज्या आंगणांतले चमेलीक एक झोपाळो बांदतालें आनी उरिल्लो वेळ ताचेर बसतालें. पूण राजवाच्या झोपाळ्यार बसून जांगडाक बरेच वळ येताले!

एकदां म्हापश्यां भयणीगेर गेल्लें. तेन्ना हत्तीच्या जार्दिनांतल्या झोपाळ्यार बशिल्ले कडेन झोपाळ्याची दांडी सुटून हांव झोपळ्या सकट घोऽ. बरेंच धोडावल्लें! तरीय झोपाळ्याचेर बसपाची उमेद कमी जाली ना.

म्हजी शाळेंतली इश्टीण वरदागेर एक झोपाळो आशिल्लो. थंय आमी भरपूर मनसोक्त धोलतालीं. धोलतना आमचे व्हिस्तीद वयर उबताले. मागीर वरदाची आजी बडी घेवन येताली आनी आमकां


**नूतन साखरदांडे**
नामनेची कवियत्री, तांचे 'पासवर्ड' आनी 'जीण जाली कस्तुरी' हे काव्यसंग्रह.



धपकायताली.

अजुनय कोणागेर झोपाळो दिसलो काय बसचें कशें दिसता. आमच्या शेजरा शालीताई रावतालें. बॅन्केंतल्यान येतना शालीताईगेर भितर सरप आनी झोपाळ्याचेर बसलें काय म्हजो दिसभराचो कामाचो शीण वतालो. मागीर थोडो वेळ शालीताईल्यो गजाली आनी गरम गरम खावपाक भजीं! कांद्या भाकरी, धोणस, तवसळी असलेंय तोंडांत उडोवंक अर्दी मर्दी आसतालेंच!

थंयच्यान पासार जातना तांगेलो झोपाळो दिसलो काय शालीताई ताचेर अजुनय बसलां आनी म्हाका 'यो मगो बसूंक' म्हणटा असो कसो भास जाता!

बावीस वर्सा पयलीं तेर्रासाचें घर घेतिल्लें तेन्ना चिंतिल्लें, तेर्रासार एक बरोऽ झोपाळो बांदचो आनी हांवें ताचेर बसून धोलत धोलत पदां म्हणचीं. पूण अजून मेरेन तें सपन सपनूच उरलां. कित्याक तें म्हाकाच खबर ना. कोणा एके चलयेक नवरोच पसंत पडना आनी तें लग्नाचेंच उरता, तशें आमकां मना साग्ग्रो झोपाळो आजून मळना आनी तो घेवपूय जायना. तुमकां कोणाकूय बरोऽऽ झोपाळो बीन खंय दिसल्यार म्हाका सांगात आं..!

• • •

म्हापशें ✆ 9970445778



# गोडी तुज्या सांगाताची

संगीतांतल्या रागांचें म्हाका व्हडलेशें गिन्यान ना. काकोड्यां, आमच्या गांवांत शिगम्यांक नाटकां जातात. म्हजे भुरगेपणांत मानापमान, संशयकल्लोळ, एकच प्याला, देवमाणूस, कुलवधू, पाणिग्रहण अशीं नाटकां जाल्लीं हांवें पळयल्यांत. नाटकाच्यो येसायो जाताल्यो तेन्ना कोणांय भुरग्यां वांगडा कुशीक रावन येसायो पळोवपाची उत्सूकताय आसताली. मास्तर मनोहरबुवा पदांच्यो चाली शिकयतना रागांचो उल्लेख करताले. हो राग यमनकल्याण, हो दरबारी कानडा, हो भूप, खमाज, भैरवी अशे अनेक रागां विशीं ते सांगताले. 'राग' म्हळ्यार नक्की कितें तें कळनाशिल्लें. पूण पेटयेचे सूर, तबल्यांचो ठेको आनी गावप्यांच्या आवाजांतलीं पदां आयकतना मजा येताली. ल्हानपणा साकून संगीताची गोडी म्हाका ताका लागून जाली.



**अरूण काकोडकार**

मूळभर मळब ह्या लेखसंग्रहांतल्यान वाचकां मर्दी आपली सुवात निर्मुण करपी लेखक कथा आनी ललित लेखनांत फिशाल..

1960 दसकाचे सुरवातीचो तो काळ. नाट्यगीतां, भावगीतां, भक्तीगीतां आयकतां आयकतां हिंदी सिनेमांतलीं पदां आपसूक कानार पडटालीं आनी अर्दी-अर्दकुटीं कशींय जायना ओंठार घोळटालीं. ह्या पदांनीच म्हाका ल्हान भुरग्याचो हात धरून ताका व्हरतात ते तरेन सिने संगीताच्या आंगणांत बोट धरून व्हेलो. हळू हळू कितलेशेच गीतकार, संगीतकार, गायकांची वळख जायत गेली. शंकर जयकिशन, लक्ष्मीकांत प्यारेलाल ह्या संगीतकारांचो तो भांगरा काळ आशिल्ल्यान हसरत जयपुरी, शैलेंद्र , साहिर लुधियानवी हांच्या गीतांचो प्रभाव मनाचेर पडलो.

जशें जशें वय वाडत गेलें, तशें तशें गीतांतलो अर्थ सोदपाची संवय म्हाका लागली आनी खऱ्या अर्थान वेगवेगळ्या कवी, संगीतकार, गायकांची व्हडवीकाय समजूंक लागली. भावगीत आसूं, भक्तीगीत आसूं जावं सिनेगीत, शुद्ध भाशेचो वापर करून पदां खूब बरे तरेन सादर करूंक येतात हेंच ह्या संगीतकारांनी सिध्द करून दाखयलें.

पन्नास-पंच्यात्तर वर्सां पयलीचीं पदां आयज लेगीत तितलींच लोकप्रिय आसात. गोल्डन ज्युबिली, डायमंड ज्यूबिलीचें निमीत्य सादून त्या पदांच्यो मैफली जातात.

कव्वाली हो एक संगीताचो प्रकार. दोन पंगड चड

करून दादल्यांचो एक, बायलांचो एक. दोनूय पंगडाचे गायक एका परस एक अशे संगीताचे वेगवेगळे नमुने पेश करतात. एके तरेची जुगलबंदी! अशेच एके कव्वालीची एकसठी हालींच मनयली. 1960 वर्सा मधुबाला आनी भारत भूषण हांच्यो भुमिका आशिल्लो 'बरसात की रात' नांवाचो सिनेमा आयिल्लो. ते सिनेमांतली एक कव्वाली म्हजे कानांत अजून गुंजता!

*ना तो कारवां की तलाश है*
*ना तो हमसफर की तलाश है*
*मेरे शौक-ए-खाना खराब को*
*तेरी रहगुजर की तलाश है ।*
*ये इश्क इश्क है..इश्क इश्क है..*

'ना तो कारवां की तलाश है' चे सूर आनी 'इश्क इश्क' चें लयबद्ध गुंजन. सुरेल, लयदार अशी अनेक गायक-गायिकांच्या आवाजांतली म धुर संवादांतली, कोरसांतल्यान साकार जाल्ली गोड कव्वाली. मन्ना डे, महम्मद रफी, आशा भोसले, सुधा मल्होत्रा ह्या ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ गायक-गायिकांनी एका बराबर सादर केल्ली कव्वाली म्हणल्यार संगीताचो अप्रतीम नमुनो.

हातूंत मोगाची एक अनवळखी उचंबळाय प्रकट जाल्या. मोगांत गुल्ल जाल्लीं आनी कांय कारणांक लागून एकामेकां पसून पयसावल्लीं दोग मोगी एकामेकांक संबोधून म्हणटात, म्हाका 'हमसफर' नाका. म्हाका 'रहगुजर'ची गरज आसा. म्हज्या आयुश्याची वाट शेणल्या. हे वाटेर म्हजेर मन मेकळो मोग करपी सांगाती म्हाका जाय .

'कारवां' ह्या हिंदी शब्दाचो अर्थ काफिलो. चाकां आशिल्लें भोंवतें घर, भोंवडेकारांचो जावं वेपाऱ्याचो जथो. आदले तेंपार आयचे वरी मोटार गाडयांची जावं बर्शींची येरादारी नाशिल्ली. वेगवेगळ्या गांवांनी, शारांनी नाटकां, नौटंकी, तमाशा सादर करपी कलाकार बैलगाडयेंतल्यान ना जाल्यार चोंब्यांनी भोंवड्यो करताले. म्हयन्याचे म्हयने भोंवत भोंवत विंगड विंगड सुवातींनी सादरीकरण करताले.

'कारवां ' शब्दाचो आनीक एक अर्थ आसा- पंगड, वांगड, जमो, समुदाय. मजरुह सुलतानपुरीचो एक शेर आसा...

मैं अकेला ही चला था जानिब-ए-मंजील मगर,
लोग साथ आते गये और कारवां बनता गया ।

मनीस आनी समाज हाचें नातें हातूंत व्यक्त जालां. व्यक्तींतल्यान समाज घडटा. समाज आनी व्यक्ती हांच्यो एकामेकां विशीं अपेक्षा खेरीत आसतात. आपल्यो सगळ्यो गरजो एक व्यक्ती भागोवंक शकना. ते खातीर ताका सांगाताची, सहवासाची गरज आसता. जे मेरेन आमी चार चौगां मदीं वावुरतात, लोकांची धांवपळ आमचे भोंवतणी जाता, तांच्या उलोवपाचे,



हांसपाचे आवाज आमच्या कानांर पडटात, तातूंतच जियेवपाची मजा आसता. सेगीत कामां करून मनशाक पुरो जाता तेन्ना विसाव्या खातीर ताका मनरिजवणेची गरज आसता.

शंबर-देडशें वर्सां आदीं आतां आसात तशे मनरिजवणेचे प्रकार नाशिल्ले. ताका लागून नौटंकी, तमाशा सारकेल्यो मनरिजवणीच्यो कार्यावळी जाताल्यो. महाराष्ट्रांत सगळ्यांत लोकप्रिय मनरिजवण म्हणल्यार तमाशा. तमाशाचे पंगड बैलगाडयेंतल्यान गांवां-गांवांत वताले. म्हयने म्हयने थंय मुक्काम करताले. एकादऱ्या दोंगराळ मैदानाचेर तांचो तात्पुरतो संवसार आसतालो. रातीच्या वेळार थंयच उबारिल्ले माचयेर तमाशाचे 'शो ' जाताले. गांवचे पाटील, देशमुख धरून बारीक-मोटे, ल्हान-व्हड सगळे तरेचे लोक तमाशा पळोवपाक मुजरत येताले.

तमाशाचेर आदारीत मराठी सिनेमा खूब आयल्यात पुणून तमाशाचें खरें चित्रण व्ही. शांतारामाच्या पिंजरा सिनेमांत पळोवंक मेळटा. हो सिनेमा पळयतना तमाशाचें विश्व दोळ्यां मुखार येता. तमाशाचो फड, बैलगाडयो, पोपटाचो पिंजरो,न्हंयचे देगे वयर्ली न्हाणीं धुर्णी, दिवो बत्यो, माचये वयलो झगमगाट, गांवची चावडी, च्याचो मांड, तोंडात तंबाकू चाबडायत तोपयो घालून आनी पगड्यो बांदून सरभोंवतणी वावुरतात ते थयचे गांवकार.

पिंजरा सिनेमा हांवें कॉलेजांत शिकतना पळयल्लो. ते सिनेमांतलीं गोड गोड पदां कानार पडटालीं. करमणुकीचो सिनेमा म्हण पळोवंक गेलों पुणून वेगळोच अणभव म्हाकां आयलो. मनीस कितलोय व्हड आसलो, भाग्यवंत, पुण्यवान, संत आसलो, सत्वशील चारित्र्याचो आसलो तरीय कसलेय चुकीक लागून ताची कितेंय दशा जावंक शकता हाचें भान पिंजरा सिनेमान दिलें.

ह्या सिनेमांतल्या 'गुरुजी'क सगळो गांव आदर्श मानता. नकळटां गुरुजी तमाशांत नाचणारेच्या नादाक लागता. इतले मजगतीं एके पावशे रातीं गांवांतल्या समाज विद्वट्याचो खून जाता. आपलें खरेंपण लिपोवपाक गुरुजी आपणाली मुस्तायकी ते मड्याचेर चडयता आनी आपूण वेशांतर करून काळखे रातीं नाचणारे वांगडा पळून वता. तोंड चेंचावन मरून पडिल्ल्या मनशाक गुरुजीचें मडें समजून पुलीस रूप बदलिल्ल्या गुरुजीक



सोडून काडटात आनी गुरुजीच्या खुनाक गुरूजीच खुनी म्हण फांशीची ख्यास्त जाता.

दि ब्लू एंजल ह्या जर्मन सिनेमांतले कथेवेल्यान निर्माण केल्लो पिंजरा सिनेमा इतलो परिणामकारक जाला, प्रेक्षकांक एक एक प्रसंग कसो घडत वता हाची उमळशीक लागता. बऱ्यो कलाकृती सदांच कश्यो यादींत उरतात हाची ही देख.

दादलो आनी बायल हांचे संबंद सदांच प्रस्नचित्र जावन उबे रावल्यात. दादल्याक अस्तुरेचें आनी अस्तुरेक दादल्याचें आकर्शण आसता. तातूंतल्यान एक संभावना घडून येता. ही संभावना तांच्या सुखी संवसाराची नांदी आसूं येता. तशें जालें ना जाल्यार तांचें अपेस आकुळपिकूळ करपा सारकें आसता आनी वेळ पडल्यार जिवितां उध्वस्त करपा सारकीं आसता.

विश्वामित्र आनी मेनका हें भारतीय रूपक लिंगीकतायेची स्पश्ट देख. विश्वामित्राचो तपोभंग जावप आनी दोश मेनकेक दिवप हो मूळ खेळ. आयुश्यांत असले लिंगीकतायेक



नितळ मनान आपणावपाक कोणूच फुडें येना. हो प्रस्न सामान्य मनशाचोच न्हय, असामान्य लोकांकय हो प्रस्न पिडटा. दादले तातूंतल्यान कशेय पळवाट काडटात. अस्तुऱ्यांक आयुश्यभर हे प्रस्न सोंसचे पडटात.

संस्कृतायेचो दीर्घ इतिहास पळयत जाल्यार भारतीय समाजाक दादलो आनी बायल हांचे इश्टागती लार्गी स्पश्टपणान पळोवप जालें ना. ताका लागून रगताच्या संबंदाच्या पेल्यान तांचे संबंद समाजीक नदरेन प्रस्नचिन्नांवरी उबे रावल्यात. समाजाक अशे तरेचीं नातीं केन्नाच मान्य जालीं नात आनी ताका लागून समाजाचें दडपण तांच्या अशे नात्यांचेर सदांच उरलें. दादलो आनी बायल संबंधांतली एक देग लिंगीकतायेची आसा हें जरी खरें आसलें तरीय धीर, आदार, भरवंसो, बुजवण, थाकाय, उर्बा हेवूय देगो ह्या नात्यांत आसात. अंतस्करणातलें एकसूरेंपण पयस करपाक असले इश्टागतीची गरज आसता आनी सर्जनशील व्यक्ती खातीर तर ते उर्बा आनी उमेद हांचे अणभव आसतात.

घुस्पागोंदळाचें आसलें तरीय बरे तरेन फावो केल्यार आयुश्याक उंचाय दिवपी अशें हें इश्टागतीचें नातें! एका वेळार तें नाजूक आसता आनी दुसरे वेळार तें एकदम कणखर जाता. इश्टागतीचो स्पर्श दादलो आनी बायल हांकां कसो जाता आनी त्या स्पर्शान तांचीं आयुश्यां कशीं बदलतात, घडटात, वाडटात, मोडटात, समाजूक आनी शार्णी करतात हाचो सोद घेतना मन उचांबळीत जाता.

त्याग, समर्पण, निश्ठा, धिटाय अश्या अणभवांनी इश्टागतीचें नातें तोलून धरिल्लो आसता. केन्ना थडपणान, केन्ना खंबीरपणान, इश्टागतींतल्या सुख-दुख्खाचें दान मनशानी पोशात घेतिल्लें आसता इश्टागतीच्या नाजूक, कणखर हातानी जिवीत भययाच्या ज्योती पेटयल्ल्यो आसतात. असले इश्टागतीचें केन्ना मोगांत रुपांतर जाता, केन्ना भक्तींत जाता. लग्ना संबंदान तें इश्टागतीक एकठायपणाची मुजात मेळटा.

इश्टागतीची रुपरेशा भौशीक मळार वावुरपी व्हड व्हडल्या मनशांच्या आयुश्यांतय दिसता. समाजांत वावुरपी समाजसेवक नामवंत, किर्तीवंत अश्या व्यक्ती. तांचे व्हडपणाच्या गाभ्यांत तांचें मनीसपण आसता आनी मनीसपणाचे मुठींत इश्टागत नांवाचें मोल.

गोपाळ कृष्ण गोखले आनी सरला राय तांची बंगाली इश्टीण, स्वामी विवेकानंद आनी निवेदिता (मार्गरिट एलिझाबेथ) हांचें गुरु-शिश्याचें नातें, म्हात्मा गांधी आनी तांच्या समाजीक कार्यांत तांची सांगाती मीराबेन ( मेडेलिन स्लेड ), रवीन्द्रनाथ टागोर आनी सादारण तांचेच पिरायेची तांचेर आवयवरी मोग करपी तांची व्हडली भावज कादंबरीदेवी. ह्यो इश्टागती जगप अर्थपूर्ण करपा सारक्यो, म्हानताय साकार करपी उर्बा, शक्ती.

मनीसपणाच्या नात्यांत इश्टागतीचो उदभव म्हत्वाचो आसता. समाजाच्या अस्तित्वाचें भान दादल्याक आनी बा6यलेक सदांच दवरचें पडटा. समाज निरपेक्ष जगांत सदळसाणेन फुलपा सारकें हें नातें न्हय.

समाजा मुखार वचपी मनशां पिरायेच्या वेगवेगळ्या पांवड्यार केन्ना नात्यांतल्यान तर केन्ना अनामीक नातें सांबाळून आपलें इश्टागतीची नितळसाण कशी सांबाळटात, कुटुंबाचें अस्तित्व इश्टागती वांगडा कशें आपणायतात आनी इश्टागत सांबाळून दवरपा खातीर कसल्यो काडाओडी काडटात हाचो सोद विचार करपा सारको आसा.

इश्टागत म्हणल्यार दोगां जाणांनी एकठांय येवप. आकर्शण, मोग, ओड, आपलेपण एकामेका विशीं अशे अनेक उमाळे इश्टागतींतल्यान उकते जातात. एकामेकांक खोशी दवरप, मनांतलें बरें वायट उकतें करप, एकामेकांचो मान राखून बरेपणान जियेवप! मनीसपणाचे इश्टागतीची हीच खरी गरज !

●●●

करंझाळें-गोंय ✆ 9822588852

# ग्वादालूपाचे जिणेंतली 'वावझड' आनी 'पानगळ'



ग्वादालूप डायसाच्या उजवाडाक आयिल्ल्या 'वावझड' ह्या देवनागरी आनी 'पानगळ' ह्या रोमी लिपयेंतल्या कोंकणी पुस्तकां खातीर हांव मना काळजांतल्यान उप्पाट वालोर भेटयतां.

अक्षयतृतीयेच्या म्हुर्तार ग्वादालुपाचो फोन आयलो. ताचीं आनीक दोन पुस्तकां उजवाडाक येतात हें कानार पडना फुडें काळजांत अभिमान दाटलो. ताच्या पन्नासाव्या वाढदिसाक आनीकूय सोबीतकाय हाडपी आनी उमेद वाडोवपी ही गजाल आशिल्ली. मन खुशाल जालें.

"म्हाकां तूं जाय...उलोवपाक...म्हजेर, म्हज्या पुस्तकांचेर, कवितेचेर...बरें वायट कितेंय जाता...पूण म्हाकां तूंच जाय!"

ग्वादालूप ही म्हजी इश्टीण. काव्यमैफल-ज्याका तें आपले एके कवितेंत 'अड्डो' म्हणटा-ते काव्यमैफलींतलो सांगात, घराबो, व्हडवीक, मोग आनी ही रोखठोक दिरेताची मागणी. आमचें हय-ना, हय-ना सुरू जालें. ताणें फकत 'हय' आयकलें. मागीर म्हाका 'ना' म्हणूंक जालें ना. ताच्या कवितांचें म्होंवां बोट आनी ताच्या कवनांक भुलपी म्हजें पिशें मन....

ग्वादालुपाच्या मोगांत पडप सामकें सोंपें. तुमकां कांयच करचें पडना. तें माचयेर येता...एक कविता जावन. ताच्या मनांत दर्या, ताच्या दोळ्यांत उचंबळपी ल्हारां आनी ताच्या ओंठांतल्यान उदेल्लीं कवनां जशी शिपडिल्ली वावझड. हरशींच्या ताच्या शांत, संयमी आनी सादेसुदे कुडींत हो हुंवार कसो लिपता.. देवाक खबर..! तें कविता सुरू करता...केन्ना तिचो बारसो करूंक ना तर केन्ना हांवें म्हजे कवितेक नांव दवरूंक ना. तें सांगता, 'तुमकां जाय तें नांव तुमीच दियात' आनी आपली कविता तोंडपाठ सादर करता. शब्द मनांतल्यान एकेक पांवडो देंवत जिबेर...मागीर दांतांतल्यान उडकी मारीत ओंठां भायर येता काय..? अशेंच दिसता. ताचे दोळे तुमचे कडेन पळयतात खरे, पूण भितरल्यान उमाळ्यान फुरफुरपी कवितेक ल्हव ल्हव सांसपीत, पोशेत, सांबाळीत फुडें काडटा. गालार मुमुरखें हांसप सोबता, अमुरपिकें लजप...केन्ना केन्ना तातूंतय इल्ली इल्ली शाणीमस्ती, मजा आनी भुरगेपण..इस्तिमसांवाचेंच..!

ग्वादालुपाचे कवितेची भास, मांडावळ, नाद, ताल, चाल व्हांवपी उदका भशेन...खंयच ओडून ताणून, जबरदस्तीन बसयल्ले शब्द नात, यमकांचो सोस ना, अडेची लायन ना, भरिचीं चिन्हां नात. जशें आयलां तशें बरयलां. उप्पाट उमाळो आनी जोडयेक शिस्त..आनी हें सगळें सभावीक, सहज...अशे हे प्रतिभावंत कविचे कवितेचेर हांवें कितें उलोवप..!

आनीक एक खाशेली गजाल ताचे कविता रचपा बद्दल... म्हाकां सगळ्यांत पयलीं अशोकभाईन सांगिल्ली याद जाता. कविता ग्वादालुपाचे वेंगेंत कशी येता..विशय सुचता, तकलेंत गोळटा, तंद्री लागता, एक एक अक्षर जुळटा, एक एक कवन



शामा
सिंगबाळ
कविता, बालसाहित्य आनी
ललित लेखनांत फिशाल, नामनेची डेंटिस्ट.




जोडटा...पुराय कविता मना सारकी जमऽ म्हणसर.. एक पावट मनांत अशी कविता मनांत जल्मली.. मागीर जाय तेन्ना सरसरीत कागदार देंवय वा आयजकाल टायप कर.. जालें. चुकून केन्नाय एकादो शब्द खोडचो पडल्यार ग्वादालुपाक ती कविता नाशिल्ल्याचो दुबाव येता. हें परफेक्शन...दामबाबाचो आशिर्वाद...सायबिणिचें बेंसांव..ग्वादालुपाचे भाशेंत, 'हांव कविता रचना, ती आपशींच येता!' असो देवी शारदेचो आशिर्वाद लाभिल्लो हे कवीक फावो जाल्लीं कितलींशींच इनामां, नामनेचे पुरस्कार आनी अवार्डां आनी आयकुप्यांचो मोग मेळटा तितलो उणोच...

चौदाव्या वर्सांचे पिरायेर सहज कविता बरोवंक लागिल्ले हे गोंयचे गुणी धुवेन आयज पर्यंत साडे पांचशीं मायज कविता बरयल्यात. हे आयचे उमत्वमुर्ती अस्तुरेन आयकुप्यांचे कान तृप्त केल्यात. सहसा कवी म्हणल्यार लोक चार हात पयसूच रावतात हो समज ग्वादालुपाचे बाबतींत मात साप्प फट थारला.

मनीस कित्याक बरयता..हो कुतुहलाचो विशय. बरोवप ही चौसष्ट कलां मदली एक. मनांत खदखदपी विचार वा अणभव फाट मोडीनात तेन्ना तो कागदार देंवयतकच सुसेग जातलो म्हण... हाका ताका सांगून तोंडाची वाफ दवडचे परस कागदार मन मेकळें केल्यार दुख्ख वा गजाल चारचौगांत पसरना, जिवूय ल्हव जाता म्हणुनूय आसत..काय सामाजीक भान वा जबाबदारी म्हूण...!

राजवाड्यांतले परी वर्री वाडपी ग्वादालूप भुरगेपणांत जिवा भावाच्या नात्यां भितर आनी सैमाच्या आंगा खांदार वावरलें. पुर्तुगेज, इंग्लीश, कोंकणी आनी मराठी ह्यो चारूय भासो ताच्या आगणांत खेळटाल्यो. किर्यांद, मानाय, कामेऱ्यां कडसून कोंकणी म्हणी आयकल्यो. त्यो कश्यो मनांत झिरपल्यो तें ताचे ताकाच कळ्ळें ना. ताची आजी ताका सामकी लागींची. तिचीं उतरां, ताचो अर्थ...कळपाचें वय नाशिल्लें. पूण ग्रंय तरी रुजताल्लें इतलें मात खरें.

ग्वादालुपाक पावसाचें पिशें. पावस पडून उदका व्हाळ व्हावतकच ताका व्हडी सांडपाची ताकतीक. भुंडपी व्हड्यानं दुसरां आनी रोखडीच नव्या सोडपी व्हड्यांची उमेद...हार मानल्यार तें ग्वादालूप कसलें ! हें झुजारपण ताका खूब बळगें दितालें. घडपी बऱ्या वायट गजालीं कडेन अलिप्ततायेन पळयत प्रसंगाचो वाद, चर्चा, भासाभास...फकत ताच्या मना भितर घडटाली. प्रस्न खूब पडटाले. जाप एकूय ना. अर्थ लागनाशिल्ला, कितें तरी चुकतालें, वाट मोडपाची आशिल्ली. पूण एकाय मोडणार ताचें कवितेन ताचो हात सोडलोना. ती ताचो आधार जाली. तिचे बरोबरीन ग्वादालूप व्हड जालें. गिरेस्त जालें, समृद्ध जालें आनी ताचो सत्कार जालो. ग्वादालुपाक मोदतल्या दर एकल्याक तें ताचे कवितेंत मेळटा हाची गॅरन्टी..अशें एकरूपपण व्हडा अपुरायेचें, धादोसकायेचें.

मोग ताणें सगल्यांचेर केलो. पूण सैमाचेर मात कांकणभर चड. ताचे कवितेंतल्यान तें सुर्या, दर्या, मळब, कुपां, जोगूल, पाचम, दोंगर, न्हंय, झरे, वझरे, फांतोड, काळोख, चंद्रीम, नखेत्रां, उमास, पुनव, शेतां, भाटां, रूख, माड, म्हशींग, फोड, निसर्ग सगल्यांक वेंगायता. दिसा उजवाडा सपनां पळयता. बावली, आजी, घोव, भाव, बायल, मोगी, घरकान्न, ऑफिसकान्न, शेजारी-सामारी, सोयरे दायरे पर्यायान समाजाक हारसो दाखयता. ताची कविता जांबळां, काण्णां, भिण्णां, तोरां, बोरां, घोंटां, चिंच...च्च! दांत आमटेतात...! अळमी, सांगटां, सुंगटां, कुल्ल्यो, तिसऱ्यो-रुची काडटा..केन्ना ताचे यादीचें फूल, मळसूद, काजळ, गळसरी, कांग, सुको पेडवो, पायजणां, कांकण जाता तर केन्ना तें चाफो, हातो, दसण, शब्दुली, गुलमोहर, सांवरी, वोंवळां, जायां पोड जावन परमळटा.केन्ना तें कांसव, किरकिरो, कवडो, काजुलो, रातकिडो, बिरमुटो, बेबो, कोगूळ जावन शिटकायता आनी केन्ना रेंदेर, पाडेली जावन साद घालता. केन्ना तें सॉपशिडी, जेंगाखेळ, लगोऱ्यो, लंगडी, संवसार-जुगार, सर्कस दाखयता. ग्वादालुपाच्या चिंतनांत भोंवचें, नदरेक




जुलाय 2022



गांवचें, ताच्या कविता झेल्यांत गुथून आमचे मेरेन पावंचें म्हूण सैम कितलो कासावीस जाता आसतलो हो कापास्तादीचो विचार म्हजे मनांत आयल्या बगर रावलो ना. कितले म्हूण बारीकसाणीन तें सरभोंवतण पळयता...भोगता...जोखता...खिणां जिणेक आपणावपाची ताची उर्बा...उमेद ताका सलाम..

ताचीं चिंतनां, चिंता, चिता, मरण, हुस्को, राग, भिरांत, घरांत ताचो वाडो, ताचो चुडो, पुस्तकभर तें आमकां भोंवडायता आनी एका कवनान आपलें दुख्ख विकूंक काडटा. कोण घेना. मागीर होंटयेत जमिल्ल्या दुख्खांक घट्ट धरता, फुसलायता, पोशेता, नटयता, सोबयता, अपुरबाय करता आनी अशें रगतांत भिनयता की तें शाय़ जावन कागदार धांवता, खेळटा, नाचता, बागडटा आनी छापून येतकच तुमच्या आमच्या सारक्यांच्या मनांत परमळटा. आमची राधाताई भावे दुख्खाक चिमटेन धरून ताचें फुलपाखरूं करता तशें मिठाच्या गांवाक सपनाचो देश करप ग्वादालुपा कडल्यान शिकचें.

वावझर्डीच्या पानापानान यादींच्या सुवाळ्यांची नशा चडटा आनी म्हणटा म्हणसर मुमुरख्यान हांसोवपी सल्लो दीत ग्वादालुप हजर. आत्मनिर्भर ग्वादालूप खरें काय आत्मसोदांत मग्न तें बरें... कळूंक तुमी हें पुस्तक वाचात.न्हीदप..तेंय सपनांत..कशें..ताकाच विचारात. मनीसपणाचो मंत्र, गॅसस्टोवचें तंत्र, समाजधर्माचे कायदे, लॉकडावनचे फायदे हेय तुमकां हांगाच मेळटले. रिते अस्तुरेच्या पेंखिल्ल्या घांयांची मना वयली माव काळजाक हात घालता आनी नोकरेचे कांटे, तडजोडीचे वाटे दुख्खाचें मोल वाडयता.

पूण तें तुमकां दुख्खी जावंक दियच ना. ‘थोडा रुमानी हो जाय’ च्या तालार रोमँटीक जावंया म्हणत दोळो मारता आनी हांसो फुलयता. आमचें ग्वादालुप एक धूव, भयण, बायल, आवय, सून, मांय, एक अस्तुरी, एक मनीस ह्या आनी अश्या कितल्याश्याच तरेतरेच्या भुमिकेंतल्यान जगता. तातूंतल्या दर एका नात्यांततल्यान, अणभवांतल्यान शिकता. हें शिकप तें आपले पुरतें दवरनासतना ताच्या पानगळ ह्या लेख संग्रहांतल्यान समाजाक ओंपता. ताच्या अणभवांचो आंवाठ, खिणांचो हिशेब, स्वासांचें कोंत, नदरेचीं वक्लां, आधाराचे खांबे, यादींचे सुवाळे, विचारांचे भोंवरे, सभावाचेर वखदां, प्रवासाचें वर्णन वाचतना मार्गदर्शन मेळटा.

खांदार हात घालून, इश्टीणीच्या झेतान, स्वताच्या दुकां बद्दल प्रामाणीक रावन, हांसत खेळत जिणेचें गुपीत तुमचे आमचे कानांत सांगतना ताचीं उतरां पावळेच्या थेंबां परस निवळ, नितळ आमी निरागस जावन भुलयता, आधार दिता, तेंको दिता. ताचे बद्दल उमाळो आनी आदर वाडयता. येवपी नवे पिळगेचें, सोयऱ्या इश्टांचें बरें मागपी भांगराळें मन बाळगुपी ग्वादालुप...तुजे सारकें गिरेस्त तूंच.. तुज्या ह्या गिरेस्तपणाचो आमकां अभिमान. तुजे हे साहित्य सेवेंत तूं कोंकणी भाशेक भांगरा फितां चडयता, वज्रां मुकूट माळटा हातूंत इल्लोय दुबाव ना. त्या बद्दल तुका वालोर..

कवी, बरोवपी, अनुवादक, मार्गदर्शक ह्या रुपान गोंयच्या अभिमानान कोंकणी साहित्यांत 2006 पासून भूंयफोड, मळबगंगा, जलस्थल, मामाचो गांव, ज्वालामुखी, नातें, आसोर आनी आयज पानगळ आनी वावझड असो 2022 मेरेनचो लेखन प्रवास तुवें वाऱ्या वेगान आनी काळा झेंतान गाजयलो हातूंत दुबाव ना.

***

फातोर्डा ✆ 9850450360



कोंकणींतले प्रतिभावत नाटककार आनी समिक्षक डॉ. प्रकाश वजरीकार  हांच्या 'हामखण' आनी 'भूंय म्हजी भागराची' ह्या दोन नाटकाचें हालींच मुख्यमंत्री डॉ. प्रमोद सावंत हांच्या हस्तुकी साखळेंच्या 'शिव स्मृती' (खडेकर) सभाघरांत व्हडा दबाज्यान जालें. त्या वेळार माचयेर भुमी प्रकाशनाचे प्रकाशक झिलू गांवकार, उपजिल्होधिकारी दिपक पं. वायंगणकार, गोवा कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष प्रा. अरूण साखरदांडे आनी प्रा. दिपराज सातर्डेकार.



गोंयचे नामनेचे कवी शंकर रामाणी हांच्या जल्मशती उत्सवा निमतान आयोजीत केल्ल्या राष्ट्रीय स्तरावयल्या काव्य सादरीकरण आनी रसग्रहण सर्तींत दुसरें इनाम इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्थेचे अध्यक्ष श्री. दशरथ परब हांचे कडल्यान स्विकारतना मानसी प्रेमानंद धाऊस्कार. ही सर्त गोंय विद्यापीठ, इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्था आनी कविवर्य शंकर रामाणी जन्मशताब्दी समारोह समिती, गोवा हांच्या जोडपालवान राष्ट्रीय स्तरार आयोजीत केल्ली आनी तिका उपाट प्रतिसाद लाबलो.




विनोदी ललित लेखक श्री  संजय तळवडकार हांच्या 'भूस बरो दीस बरो' ह्या पुस्तकाचें विमोचन हालींच मडगावच्या रवीन्द्र भवनात नामनेचे साहित्यीक महाबळेश्वर सैल हांच्या हस्तुकी जालें. ह्या वेळार माचयेर प्रा. भास्कर नायक, अनंत अग्नी आनी डॉ. राजय पवार हाजीर आशिल्ले

# हिमाचल प्रदेशाचे राज्यपाल राजेन्द्र आर्लेकार हांचे कडल्यान सम्राट क्लबाच्या वावराची तोखणाय



भारतीय शास्त्रीय संगीत आनी संस्कृतायेचें संवर्धन करूंक वावुरपी, 'सम्राट क्लब, गोंय राज्य' चे अध्यक्ष दिपक कृष्णा नार्वेकार हांच्या फुडारपणा खाल सम्राट कल्बाच्या पदाधिकाऱ्यांनी हालींच हिमाचल प्रदेशाची भोंवडी केली. त्या वेळार तांणी गोंयचे सुपुत्र आनी हिमाचल प्रदेशाचे राज्यपाल श्री राजेन्द्र आर्लेकार हांची भेट घेतली. ह्या वेळार तांणी गोंय आनी हिमाचल प्रदेश राज्यां मजगतीं सांस्कृतीक कार्यावळी, संगीत तशेंच लोककला हांची देवाण घेवाण घडोवन हाडपाचेर भासाभास केली. गोंयची कला हिमाचलांत सादर करपा वांगडाच हिमाचल प्रदेशाची कला गोंयांत आयोजन करपाचें थारलें. सम्राट क्लबाच्या ह्या शिश्टमंडळांत अध्यक्ष दिपक नार्वेकार, प्रविण सबनीस, गौतम खरंगटे, डॉ. उदय कुडाळकार, शुभदा डिचोलकार, राजन राणे, पांडुरंग गांवकार, नंदा माजीक, शेखर नाईक, अफसर शेख, जयेंद्रनाथ हळदणकार हांचो आस्पाव आशिल्लो.



सम्राट क्लबा वतीन हिमाचल प्रदेशाचे राज्यपाल राजेन्द्र आर्लेकार हांकां मानपत्र भेटयतना अध्यक्ष दिपक नार्वेकार, प्रविण सबनीस, गौतम खरंगटे, डॉ. उदय कुडाळकार आनी हेर पदाधिकारी.



वैष्णवी
रायकार

# उखाणी

**(आपरचीत)**

- .........चो आनी म्हजो सांगात उरतलो सांसणाचो,
  जसो सामार सरल्यार पोत्याक वास उरता तसो.

- म्हज्या........चे बरें गूण पळोवन संस्कार कळटा,
  जशें घरची कला आंगण सांगता .

- पाठाक घातल्या हांवें सोबीत अशी रांगोळी
  पूण,......बसपा वेळार करता धांवपळी.

- आमच्या घरा फाटल्यान आसा साळकांनी भरिल्लें
  तळें.म्हण..........आमगेर येवपाक जालां चळवळें.

- .......च्या दोळ्यांतली भास म्हाकां कळटा म्हण
  आमचे विचार सदांच जुळटा.

- आंगणात फुल्ला भूंयचाफो, तोखेता ताका हांव......
  चें नांव घेतां माटवांत उबें रावन.

पुर्विल्ल्या काळांत अस्तुऱ्यो आपल्या घोवाचें सरळ नांव घेवपाक सोदनासल्यो म्हणून काव्यात्मक रूपान भोवतणच्या सैमाचो आदार घेयत तीं घोवाचें नांव घेताली. त्या काळांत मनरिजवण करपा खातीर उखाणीं घेवप वा नांव घेवप जातालें अशें आमी म्हणूं येता.



डॉ. रिना
लवंदे
नामनेची डेन्टीस्ट



## रोस ऑमलेट

● **रोस करपाक साहित्य –**

अर्द किलो चिकन कुडके करून, पाव व्हड कुलेर हळदी पिठो, अर्द कुलेर मिरसांगे पिठो, १ व्हड कुलेर आलें लसूण पेस्ट, अर्द कुलेर मीठ.(हो मसालो चिकन मुरोवपा पासत).

● **गरम मसालो** – ४-५ लवंगां,४-५ मिरयां,१ इंच तिखी,१ तमाल पत्र,१ व्हड कुलेर सुकी कोथमीर,४-५ लसणी बोयो, अर्द इंच आल्याचो कुडको, २ कांदे बारीक चिरून, १ वाटी नाल्लां सोय, १ तोमाट बारीक चिरून, १व्हड कुलेर गरम मसालो,१ व्हड कुलेर तेल, लिंबा आकाराची आमटाण, रुची पुरतें मीठ.

● **ऑमलेट करपाक साहित्य –**

१ तार्ती, १ ल्हान कांदो बारीक चिरून, पाव ल्हान कुलेर मिरसांगे पिठो, पाव ल्हान कुलेर हळदी पिठो, थोडी कोथमिरे पालो, रुची पुरतें मीठ.

● **रोस करपाची तरा** – चिकनाक वयलो मसालो लावन २० मिणटां मुरोवपाक दवरात. कायलींत १ कुलेर तेल तापोवन गरम मसालो म्हळ्यार लवंगां ते आलें घालून तळसून घेयात.हें एके बशेर काडून घेयात.ह्याच तेलांत कांदो,सोय,भाजिल्लो गरम मसालो, आमटाण आनी गरम मसाल्या पिठोघालून वांटप करून घेयात.

कायलींत तेल तापयात आनी उरिल्लो कांदो तळसून घेयात. तांबसार जातकीर तोमात घालात, बरेंऽ परतून घेयात.दोन मिणटां शिजूं दी. मागीर ह्या मिश्रणांत मुरपाक दवरिल्लें चिकन घालात. परतून घेयात. कायलीर धांपणें घालून ५-७ मिणटां शिजयात. शिजतकीर मसाल्याचें वांटप आनी मीठ घालूनपांच मिणटां शिजयात. तुमकां जाय तितलें उदक घालून पातळ करूं येता. जालो चिकन रोस तयार.

● **ऑमलेट करपाक** – एके वाटयेंत तार्ती फोडून तातूंत मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो मीठ आनी कोथमिरे पालो घालून बरें फेडून घेयात. तवो तापोवन अर्द कुलेर तेल घालून हें मिश्रण तव्यार घालात. एका मिणटान ही ऑमलेट परतून घेयात. ऑमलेट तयार. एके बशेर ही ऑमलेट घालात. तिचे वयर चिकनाचो हुनहुनीत रोस घालात. ताचे वयर बारीक शिंदिल्लो कांदो आनी कोथमिरे पालो घालात. ही रोस ऑमलेट पाव, उंडे वा पोळये बराबर खावपाक बरी लागता.

## घरगुती बिर्याणी मसालो

● **साहित्य** – ५ काश्मिरी मिरसांगो, ५ तमाल पत्र,३ व्हड कुलेरां कोथमिऱ्यो,१ व्हड कुलेर जिरें, १ व्हड कुलेर शहाजिरें, १ व्हड कुलेर जावियत्री, १ इंट दालचिनी, १ व्हड कुलेर लवंगां,३ व्हड काली वेलची, १० वेलच्यो, २ चक्री फूल, १ व्हड कुलेर मिरयां, १ ल्हान कुलेर बडीशेप,अर्द ल्हान कुलेर हळदी पिठो, अर्द व्हड कुलेर जायफळा पिठो.

● **करपाची तरा** – वयलो सगलो मसालो मिक्सरांत घालून सुकोच बारीक वांटून घेयात.

मंयडोळ्या केळ्यांचो हालवो

● **साहित्य**– ४ पिकिल्लीं मंयडोळीं केळीं,१ वाटी साकर, १ ल्हान कुलेर वेलचे पिठो, वाटी भर तूप.

करपाची तरा – केळीं सोलून तार्चीं पातळ कापां करात. एका तोपांत तूप घालून गरम करात. तातूंत केळ्यांच्यो पोडी घालून बऱ्योऽऽ तळसून घेयात. मागीर तातूंत साकर घालून बरेंऽऽ चाळात. हें सगळें मंद उज्यार करूंक जाय. ५ मिणटांनी वेलचे पूड घालून उज्या वयलो तोप सकयल काडचो. जालो तयार हालवो.

हो हालवो असोच खावपाक सुद्दां रुचीक लागता. रोटी, पुरी नाजाल्यार चपाते वांगडाय खावपाक बरो लागता.

## कुल्ल्यां सुकें

● **साहित्य** – ७-८ कुल्ल्यो कुडके करून, १० व्हड कुलेरां कोथमीर, १ ल्हान कुलेर हळदी पिठो,१ ल्हान कुलेर मिरसांगे पिठो,१ ल्हान कुलेर मिरयां,२ कांदे बारीक चिरून, २ हरव्यो मिरसांगो उब्यो चिरून,२ वाटयो नाल्ला सोय, अदमासाक आमटाण, रुची पुरतें मीठ.

● **करपाची तरा** – एके कायलींत २ वाटयो उदक घालून तातूंत कांदो, हरव्यो मिरसांगो आनी कुल्ल्यांचे कुडके घालून बरेंऽऽ शिजोवन घेयात. मिक्सरांत सोय,हळदी पिठो, मिरसांगे पिठो,कोथमिऱ्यो, मिरयां आनी आमटाण घालून मोठशेंच वांटप करात. हें वांटप शिजयल्ल्या कुल्ल्यांनी ओतात. रुची पुरतें मीठ घालून बरोऽऽ खतखतो काडात.

जालें कुल्ल्यांचें तोंडाक.

●●●

कलंगूट – गोंय © 9823998884



# पावसांत थंडेचो भंय...!

*(दामूबाब आपले सकाळचे पासये वांगडाच दद हाडपाक पसऱ्याचेर पावलो. पावसाचे दीस म्हणटकच रीप रीप चालूच आसली राती सावन.पूण दामूबाब आपलो पावलो भिजत..ताका पळोवन बिल्डिंगेच्या आडसाक राविल्ल्या तरनाट्यान-विवेकान दामूबाबाक भिजून थापो जाल्लो पळोवन हटकिलो ..)*

**विवेक**: काका, भिजत शे आयले तुमी?

**(दामूबाबाक असल्या प्रश्नांची संवयूच जाल्ली देखून ताचे कडेन जापय तयार आसताली.)**

**दामूबाब**: आरे पुता,हालीं घरा कडेन उदकाचें बील चड येवपाक लागलें म्हणून हो पळय हालीं पावसांतूच न्हाता आनी घरा वचून पंचो घेवन पुसतां

**विवेक**: हेऽ काका,फकाणां करतात तुमी! पावसांत अशें भिजल्यार थंडी जातली न्ही,म्हण विचारलें तुमकां!

**दामूबाब**: हय रे पुता, थोडीशीं फकाणां केलीं रे! पूण थंडी बी काय जायना रे म्हाका..आमकां भुरगेपणा पासून संवयूच ती...भिजून खेळटाले...भिजून शाळेंत वता-ले...तेन्ना सत्री, कापांतीक पयशे नासताले बाबा आमच्या सारक्या गरिबां कडेन!



राज
वैद्य
[illegible]सिस्ट,
आनी समाजवावुरपी आसात

**विवेक**: पूण आतां वय जालें न्ही तुमचें? इम्युनिटी मातशी कमी जाल्या आसतली न्हय?

**दामूबाब**: जाल्या आसत कमी! म्हणून काय हांव आदली भशेन दिसरात पावसांत हेडना. पयलीं खूब कश्ट केले आमच्या आई-बाबान,व्हडल्या भावान बी! ताचेर आमका शिकयलें. दोन वेळचें बरें अन्न दिलें, तेंय बी पौश्टीक. ताका लागून प्रतिकार शक्त तशी मजबूत आसा.गांवांत खेळप. शेतांत कश्ट करप, सकाळीं फांतोडेर चारांक उठप आनी मागीर रातीं आठांक गुडनायट. तेन्ना लायटी बी काय ना आम च्या वाड्यार...

**विवेक**: ओ आय सी...म्हणून तुमी ह्या पावसांत भिजपाक भियेनात. बिनदास्त चलतात आनी भिजतात बी!.

**दामूबाब**: हय रे, केन्ना तसो विचारूच केलो ना भिजतलो आनी थंडी जातली म्हणून म्हाका! ना जाल्यार तें जायरातींनी दाखयतात तें सगळ्याकूच लागू जायना. एकदा भिजलो आनी रोकडोच जोर आयलो.. थंडी भरली..घेऽ मागीर रोखडोच बाम लायलो मस्मीन... गेली थंडी...आनी कोणे दिली गुळी थंडेची...गेली

थंडी...अशें नासता तें..त्यो सगल्यो जायराती..

**विवेक:** जायत काका..तुमकां भुरगेपणांतल्यान पावसांत भिजून भिजून प्रतिकारशक्ती वाडोवंक मेळ्ळी. आनी म्हजे असल्यांक पावसांत मातसो पासून भिजलो जाल्यार आमच्या घरच्यां कडल्यान आयकुचें पडटा- आरे भिजलो मरे तू...सत्री कित्याक व्हरूंक ना...दुयेंत पडलो जाल्यार? आतां जालों लग्नाचो घोडो हांव...तरी ही परिस्थिती...हें पळयात, कापोत आसा, बायक आसा. तरी घोग्यांनी पावस पडलो जाल्यार रावचोच पडटा आडोस पळोवन! भिजून ऑफिसाक गेलों जाल्यार थंय एसी...मागीर ते थंडेंत थंडी भरत म्हूण भंय!

**दामूबाब:** इतलोय भिवूं नाका रे पुता! पूण एक मात हांव करतां, हांव सांगतां म्हणून करूच अशें करूं नाका, पूण केन्ना तरी बरोऽऽ भीज रे एक दीस..चडांत चड कितें जातलें? थंडीच मरे? जावंदी...म्हाका एक सांग ...तुका केन्नाच थंडी,खोकलो जावंक ना रे?

**विवेक:** हे, ना कशी? कितलेच फावटी जाल्या...

**दामूबाब:** सगळे फावटी पावसांत भिजलो म्हणून जाली?..

**विवेक:** हे..तशें ना...पावसान भिजून अशी एकदांय जावंक ना. आरे हय मरे! पॉयन्ट टु बी नोटेड!

**दामूबाब:** हय हय, नोट कर बाबा! आनी यो केन्नाय आमच्या गांवांत. म्हगेल्या नातरां वांगडा या आमी दोंगरार भिजपाक...सुंदर नजारो पळोवपाक..आनी तेंगशेर एक बारीकसो घसघसो आसा..ताचे पोंदा झेलाद न्हावया...

**विवेक:** आवयस्स! झेलाद न्हावचों ना..बाकिचें सगळें करपाक तयार आसां हांव!

**दामूबाब:** तुका जाय तशें ....आतां पावस काय थांबत सो दिसना.तूं हांगाच रावपी काय ऑफिसांत लेट वचपी?

**विवेक:** हेऽ,तुमची देख घेवन आतां कसलो हांव भियेतां?मत्सो भिजल्यार चलता...!

**दामूबाब:** फकत सवकास चल...हे पळय कितलेशेच जाण पावस पडटा,कमी भिजतले म्हणून नेटान पेटयतात स्कुटरी..हें चड डेंजर..

**विवेक:** हय काका, हांव सवकास वतां...कितलोय फास्ट गेलों जाल्यार भिजपाचो तो भिजतलोंच!

**दामूबाब:** पयलींच हें आमचे रस्ते बाद,ओबड-



धोबड,फोंडकुलां कितलीं खोल तेंच कळना. तातूंत जर पावसांत स्पीड मारली जाल्यार चलयता ताकाय डेंजर...आनी त्यो बाबड्यो स्कुटरी आनी मोडरसायकली... .

**विवेक:** हा हा हा ! काका तुमी सामके सॉलीड चिंततात!

**दामूबाब:** हांव चड चिंततां काय तू रे? बरें रे! घरकान्न म्हणटली खंय गेलो काय हो? हेडपाक काय पावसांत व्हांवन गेलो? आमच्या रस्त्यार आतां पनेळ बी लावचे पडटले..बस स्टॉप आसात तांकां फकत पनेळ स्टॉप म्हणल्यार पुरो! मागीर चालू करुंया पनेळ सेवा! सांत इनेज,मिरामार,करंझाळे,ताळगांव... डायरेक्ट एक्सप्रेस...हय मरे?

(विवेक पोट धरून हांसता हांसता म्हणसर दामुबाब आपल्यो दुदाच्यो पोतयो घेवन सुशेगाद पावसाचो शावर घेत,आपले घरा परतता)

●●●

पणजे - गोंय .. © 9422062286

# जुलाय 2022 उतरकुवाडें




**संतोष हळर्णकार**
ब्रांदिवडे-बंदर.फोंडा-गोवा 403 401
मो. : 9762641615




| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| 1 | | 2 | | 3 | ■ | 4 | 5 | 6 | |
| | ■ | | ■ | 7 | | | | | ■ |
| 8 | | | ■ | ■ | ■ | | ■ | ■ | 9 |
| | ■ | ■ | ■ | 10 | 11 | | 12 | | |
| 13 | | 14 | 15 | ■ | | ■ | | ■ | |
| | ■ | 16 | | ■ | 17 | | | ■ | ■ |
| ■ | ■ | | ■ | 18 | | ■ | 19 | 20 | |
| 21 | 22 | | 23 | ■ | ■ | 24 | ■ | 22 | ■ |
| ■ | | ■ | 25 | | 26 | | ■ | 27 | 28 |
| 29 | | | | ■ | 30 | | | ■ | |

**आडवे :**

1- परिस्थिती, भोंवतण. 4-प्रगट जावपाची वा करपाची कृती. 7-वर्गणी दिवपी, पटी फारीक करपी. 8- विरविरीत, चंचळ. 10-परतून परतून, भोंवन भोंवन, खूब खेपे. 13-चार पांयांची मोनजात. 16- णववी तीथ. 17- खळी, गटार, व्हाळ, मोरी. 18- आमचो राष्ट्रीय पक्षी, मयूर. 19-बेब्याची आड्डणी. 21-सदस्य, मेंबर. 25- बेगीबेगीन, एका फाटल्यान एक, सडसडीत. 27-ख्यास्त. 29-संगिताच्या सात सुरांची सुरावट. 30-तव्यार पातळावन भाजिल्लो पीठ, गटो.

**उबे:**

1-माठो घणघण करून.पेंपारी. घोल-ताशे वाजयत. 2-आदवोगाद. 3-सात आनी दोन. 4- साश्टांग नमस्कार, सरपटून केल्लो नमस्कार. 5-मारुतीचें आयुध 6- मस्करी, थट्टा. 9-वायट कर्तुब. 11- आयतार (मराठी). 12-'आलतड'च्या विरुद्ध. 14- श्रीरामाक चवदा वर्सां भोगचो पडिल्लो. 15-एक विलायती सोरो. 20-एक सुवादीक व्हड नुस्तें 22- सूर्य. 23- धावी तीथ. 24-ड्रामा. 26- भावशीक जमात, एकठांय जमिल्लो लोक. 28- वांटो, भाग, वाटो, वा

## जून 2022 ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| हु | कु | म | ना | मां | ■ | व्य | ■ | ■ | बं |
| कु | ■ | ■ | य | ■ | आ | म | न | मां | डी |
| म | न | ग | ट | ■ | म | न | ■ | ड | ■ |
| शा | र | दा | ■ | मा | र | ■ | बा | श्री | म |
| ■ | का | ■ | आ | का | म | दि | वा | ■ | ज |
| व | मु | ल | का | र | ■ | नां | व | रु | प |
| ज | र | ■ | ग | ■ | भ | क | प | ■ | ■ |
| न | ■ | म | वा | ली | ■ | ■ | ■ | र | भा |
| ■ | ■ | ग | र्णा | ■ | ना | ■ | म | ■ | र |
| गां | व | ठी | ■ | उ | प | म | भा | प | तां |

रवीन्द्र केळेकार हांच्या 'महात्मा गांधी एक जीवनी"
ह्या हिन्दी पुस्तकाचो 'एका विचाराची जीवीतकथा'
ह्या नांवान केल्ल्या अणकाराक केंद्रीय
साहित्य अकादेमीचो १९९८ वर्साचो अणकार पुरस्कार,
तशेंच 'मंथन' ह्या पुस्तकाक २०१४ वर्साच्या
साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ल्यो लेखिका,



## स्मृतीशेष डॉ.माधवी सरदेसाय

हांचें उजवाडाक आयिल्लें आनी दरेकाच्या घरांत
आसूंकच जाय अशें साहित्य




### भासाभास

भासविज्ञानाचो शास्त्रीक अभ्यास करून बरयल्लें
कोंकणींतलें पयलेंच पुस्तक.
हे मुखार भास आनी भासविज्ञान ह्या विशयांचेर कोणाकय
कितेंय उलोवचें बरोवचें जाल्यार
ताका ह्या पुस्तकाचो खूब उपेग जातलो.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय




### मंथन

साहित्याचेर आनी हेर भाशीक तशेंच सामाजीक
प्रस्नांचेर वेगवेगळ्या तासांनी तटस्थपणान केल्लें मंथन.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय




### तांचे विशीं... म्हजेय विशीं...

माधवी सरदेसाय हांणी लचुबायेन निर्मिल्ल्या कांय व्यक्तीचित्रांचो
आस्पाव आशिल्लें,मनशां मदलीं नातीं सोदपी एक वाचनीय पुस्तक.
उजवाडावपीः जाग प्रकाशन,गोंय

**आमी हीं पुस्तकां वाचल्यांत आनी घरच्या वाचनालयांत सुगूर केल्यांत
तुमीय तशेंच कित्याक करिनात ?**

***७ जुलाय हो माधवीचो जल्मदीस आमकां ताची याद येता.***

**डॉ. हरिश्चंद्र नागवेकार** आनी **सौ. कुंदा हरिश्चंद्र नागवेकार**
(निवृत्त उपप्राचार्य आनी समिक्षक) मडगांव-गोंय

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2021-2023
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa & Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in